BIMB/ Abril 2021 / Vol 20/ISSUE04/Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-G... 2023 Published on 1st and posted on 5th ... day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

मोल : ₹ 50/-

२० वें वर्स

# बिम्ब

मासिक

आब्रील २०२१



'वर्ल्ड बुक ॲन्ड कॉपीरायट डे' आंतरराष्ट्रीय पुस्तक दिन

# सरकाराचो साहित्या कडेनूच हात कित्याक अडचता....?

# कोंकणी मासिक बिम्ब

२० वें वर्स



सरकाराचो साहित्या कडेनूच हात कित्याक अडचता....

- दिलीप बोरकार




वर्स २० : अंक ०४
आब्रील २०२१
मोल 50 रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

पालवी संपादक
मानसी धाऊसकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स,बेळगावी

वर्गणीचे दर
वर्सुकी वर्गणी ५०० रु.
३ वर्सांची १४०० रु. विद्यार्थ्यांक वर्सुकी ३०० रु.
आनी ३ वर्सांक ८०० रु.
जाल्यार संस्थांक वर्सुकी ७०० रु.
आनी ३ वर्सां खातीर रु. २०००

BANK DETAILS :
Bimb Monthly
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

कचेरी
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

संपादकीय

# सरकाराचो साहित्या कडेनूच हात कित्याक अडचता....

आबील म्हयनो लागलो काय पुस्तकप्रेमींक शेक्सपिअरची याद येवप साहजीकच. ती व्यक्ती मूर्तरुपांत नासली तरी ताच्या साहित्यांतल्यान आज लेगीत ती पुराय संवसाराचेर आपलो शेक गाजयता. २३ आब्रील हो ताचो जल्मदीस आनी मरणदिसूय. ताच्या जल्माची तारीक तशी कोणाक खबर ना. तरी २३ आब्रील हीच तारीक ताच्या जल्माची मानून हो दीस पुराय संवसाराचेर 'वर्ल्ड बुक ॲन्ड कॉपीरायट डे'-आंतरराष्ट्रीय पुस्तक दिन म्हूण मोठ्या दबाज्यान मनयतात. आमच्या गोंयांत मात ताचे विशीं व्हडलीशी जागृताय दिसना आनी ती जावंची अशें सरकाराकूय दिसना.

सरकारान शेक्सपिअराचे वादीक उत्सव मनोवचो अशें आमचें निखालस म्हणणें ना. अशें केल्यान शेक्सपिअर काय आनीक व्हड जावपाचो ना. पूण त्या निमतान पुस्तकांचो उत्सव मनोवपाची एक संद लाबता आनी लेखक, साहित्यीक हांकां आपूण हे भूंयेर बेवारसी न्हय म्हणपाची जाणविकाय जाता. पूण गोंयच्या साहित्यिकांच्या दुर्दैवान आमच्या गोंयांत मात तांकां कुस्कुटा परस चड मान आसा अशें दिसना.

आमच्या गोंयांक राजकारण आनी दुडू करप ह्यो दोन गजाली सोडल्यार हेर कित्याकूच मान ना. आमकां एक भास ना, आमकां आमची संस्कृताय ना आनी ती ना म्हूण कोणाक ताची खंतूय दिसना. जे कोण ही आवतिकाय पळोवन चिटमिटतात आनी गोंयच्या फुडाराच्या हुसक्यान खंती काडटात तांच्या खंतींक सरकारच्या लेखीं व्हडलेशें म्हत्व ना. म्हणटकच जे बौद्धीक कुवतीचें सरकार आमकां मेळ्ळां तेंच प्रमाण मानून ताका प्रणाम करप हाचे मुखार कोणाच्या हातांत कांयच उरूंक ना.

आमचें सरकार कोंकणी भास मानी ना. आमचें सरकार मराठी भास मानी ना. मानतालें जाल्यार भाशा सुरक्षा मंचाक आंदोलन करचें पडपा नाशिल्लें. आमचें सरकार मानता तें फकत इंग्लीश भास. सरकारांतले भोवतेक आमदार आनी मंत्री जे तरेन इंग्लीश वतरतात तें पळयत जाल्यार तांची वीट येता. तांची अशुद्ध भास आयकून ही ब्रिटीशांची अनारौस औलाद गोंयचें राज्य चलयतात काय किर्तें असो प्रस्न पडटा.

सरकाराचें इंग्लीशीचेरूय प्रेम आसा अशें दिसना. तांकां इंग्लीशीचो वापर जाय तो अडेची विकृत संस्कृताय राबोवन तातूंतच आपलें मोठेंपण मिरोवपाक आनी जे गोंया भायले सरकारी अधिकारी ह्या गोंयांत आसात तांचो धातोमातो करपाक. सरकाराक इंग्लीश प्रिय आशिल्ली जाल्यार तांकां पुस्तकांचें म्हत्व आनी मोल कळपाचें. पूण तांची गोंयचे प्रकाशक, लेखक, वाचक, वाचपघरां हांचे बाबतींतली लागणूक पळयत जाल्यार तांकां ह्या विशयाचें किर्तें पडून गेलां अशें दिसच ना. तांचे नदरेन पुस्तकां आनी वाचनसंस्कृताय हो वेळेचो अपव्यय. तेच पासत ह्या विशया कडेन गांभिर्यान पळोवपाची अक्कल अजून सरकाराक ना.

पुस्तकांनी समाजाचो वैचारीक आनी सामाजीक स्तर वाडोवपाक खूब आदार केला. ही गजाल पुराय समजून घेतली ती इंग्रज लोकांनी. तेच पासत इंग्लीश उलोवपी लोकांनी संवसाराचेर राज्य करप आनी संवसारांतली बाजारपेठ इंग्लीश पुस्तकांनी हातासप हाचो एकामेका कडेन खूब लागींचो संबंध आसा. इंग्लीश भास संवसारार फाफसली ती पुस्तकांक लागूनच. संवसारभरच्या लोकांचें हें इंग्लीशप्रेम दिसानदीस वाडटा तार्चे फाटलें कारण पुस्तकप्रेम. पुस्तकांची तांक इंग्लीश मनशान वळखली देखूनच तांणी शेक्सपिअराक केंद्रसुवातेर दवरून ताचे भोवतणी पुस्तकां आनी भास हांचें एक परजळीत वलय तयार केलें जाचे कडेन संवसारभरचे विद्वान आनी गिन्यानाचे उपासक ओढत रावले..

शेक्सपिअर हो अमेरिका आनी इंग्लंडच्या लोकांचो आवडीचो विशय. ताकाच लागून ते आब्रील म्हयनो 'शेक्सपिअर फेस्टीव्हल' म्हूण व्हडा दबाज्यान मनयतात. हाका लागून शेक्सपिअरची स्मृती जागोवपी वेगवेगळे कितलेच उपक्रम ह्या काळांत थंय जातात. जेन्ना पुस्तकांच्या आनी लेखकांच्या वांट्याक असलें प्रेम आनी मोठेंपण येता तेन्नाच तो समाज खऱ्या अर्थान गिरेस्त आनी संस्कारी आसता. संवसारभर इंग्लीश भास आनी ते भार्शेतलीं पुस्तकां कित्याक राज्य करतात काय? ह्या प्रस्नाची जाप हांगाच मेळटा. इंग्लीश मनीस पुस्तकांचेर आनी आपले भाशेचेर प्रेम करता. देखूनच तो लेखकांचेर प्रेम करता, तांचो आदर करता. 'द स्टोरी ऑफ इंग्लीश' जेन्ना आमी समजून घेतात तेन्ना संवसारांतल्या सगळ्या भासांतलीं उतरां हे भाशेन आपले वेंगेंत कशीं घेतल्यांत तें समजून येता. जे गतीन हेर भासांतलीं पुस्तकां अनुवादीत जावन हे भार्शेत येतात तितली गती हेर आनीक खंयचेच भार्शेत ना. संवसारांतले सगळे दर्जेदार लेखक अनुवादीत जावन इंग्लीशींत आयले मागीर ते रशियन साहित्यीक चेकोव्ह, तॉलस्तॉय, गॉर्की आसूं वा सार्त्र सारको फ्रेंच लेखक आसूं, स्पॅनीश लेखक मार्केझ आसूं वा पुर्तुगेझींत बरोवपी पावलो कोयेलो आसूं. आज हे साहित्यीक अणकारीत जावन इंग्लीशींत आयल्यात देखून ह्या लेखकांक वाचपा पासतूय संवसार इंग्लीश भाशे कडेन आपल्याक जोडून दवरता.

इंग्लीश मनशाचें भाशे वयलें आनी साहित्या वयलें हें प्रेम वळखून संयुक्त राष्ट्र संघटनेन कांय वर्सां आदीं शेक्सपिअरचो जल्मदीस 'जागतीक पुस्तक दीस' म्हूण मनोवपाचो निर्णय घेतलो. ह्या निमतान संवसारभरच्या पुस्तकांचो आनी लेखकांचो सन्मान जावंचो हो हे फाटलो उद्देश्य आशिल्लोच, त्या भायर नवे पिळगेक वाचनाची आवड लागची होय एक ह्या फाटलो हावेस आशिल्लो. कित्याक समाजाचो स्तर वाडपा पासत पुस्तकांचें आनी लेखकांचें म्हत्व कितलें आसा आनी पुस्तकांनी मानवी इतिहास कसो घडयला हाचें भान युनेस्को सारखे संस्थेक आसा.

ह्याच विशयाचो पोत धरून आमी जेन्ना गोंयच्या समाजा कडेन आनी सरकारा कडेन पळयतात तेन्ना समाज रसातळाक वता तें पळोवन निर्शेणी येवंक लागता. फाटल्या मार्च म्हयन्यांत ७ तारकेक गोंयचे एक व्हडले साहित्यीक रवीन्द्र केळेकार हांचो जल्मदीस आशिल्लो. एक दोन संस्था सोडल्यार हे घडणुकेचो कोणाकूच पातसो आसा अशें दिसलें ना. रवीन्द्र केळेकार हांचो उल्लेख करपाचें कारण म्हळ्यार ह्या साहित्यकारान गोंयांक पयलो साहित्य अकादेमी पुरस्कार आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार हाडलो. गोंयची जी राजभास कोंकणी ते भाशेक हेर भासां वरींच प्रतिश्ठा मेळोवन दिली. पूण तार्चे भान आमच्या सरकाराक ना. आमचें सरकार धगण भायर्ले. आमच्या सरकारान इंग्लेशीचे भकीक पडून कंबराचें सोडून माथ्याक बांदलां. सरकारान इंग्लीश भास आपणावन आपली संस्कृताय वगडायल्या. ताच्या बदलाक इंग्लीश भाशेची थोडीभोव वाचन संस्कृताय आपणायल्ली जाल्यार हें सरकार लजेक पडचें नाशिल्लें.




# संस्कार



आयजकाल जणेकल्याच्या तोंडांतल्यान उतरां आयकुपाक येतात तीं म्हळ्यार भुरग्यां मदीं संस्कार नात. म्हाकाय तशेंच दिसता आनी ही गजाल खरी. पयशे आसून संस्कार मेळनात. ते आपसुकूच आपल्या भितरल्यानूच जल्म येतात.

देवा कृपेन म्हजो जल्म अशा घरांत जालो, ज्या घरांत बरे तरेचे संस्कार, सगळीं व्रतां, सण परबो हांचें नेमान आचरण जातालें. म्हाका आनी म्हज्या भावंडांक संस्कार, संस्कृतीचें शिकप ल्हानपणांतल्यान म्हज्या दोनूय आजयां कडल्यान फावो जालें. म्हज्यो दोनूय आजयो, मामाली आजी (आवयची आवय) आनी घरची आजी (बापायची आवय) देवधर्म रिती रिवाज आनी अनवाळपणाक पयलें म्हत्व दिताली.

तिनसांज जातकीच खंय खंय खेळपाक गेल्लीं आमी हातपांय धुवन घरांत भितर सरतालीं आनी देवा कुडींत 'शुभंकरोती कल्याणम्' म्हणून देवाचें नामस्मरण करतालीं. म्हजे घरचे आजयेन आमकां श्लोक आनी स्तोत्रां शिकयलीं. मामाली आजी आमकां रामायणांतल्यो, महाभारतांतल्यो, देवाच्यो काणयो सांगताली. देवाचें करतकूच आमचे कडल्यान पाडे म्हणून येताली. मागीर आमी आमचो गृहपाठ आनी पाठांतर करतालीं.

त्या वेळार मोबायल, टिवी नाशिल्ले. केन्ना केन्ना पापा रेडियो लायतालो. जेवतकीच एकामेका कडेन गजाली, हांसप, विनोद करपांतूच वेळ पासार जातालो. एक म्हणल्यार सगळ्यांचें सूख दुख्ख सगळीं मनशां वाटून घेतालीं. रातचीं बेगीन न्हिदून सकाळीं फांतोडेर उठपाची संवय आमकां आमच्या जाण्टेल्यांनीच केली.

सकाळीं उठून हांव अभ्यास करचे करून माईक(आवय)रांदचेकुडींत मजत करतालें. चपाती लाटपाक,नाल्ल कातपाक, भाजी शिंदपाक पयलीं पयलीं म्हजे कडेन खूब चुको जाताल्यो. चपातेचो भारताचो नकसो जातालो. भाजी मोटी शिंदप जाताली. पूण ह्यो सगळ्यो चुको सुदारत गेल्यो.

सकाळचीं न्हावन, धुवन देवाचे श्लोक म्हणून आमी भावंडां भाजी चपाती खावन, च्या पियेवन शाळेक वतालीं. भायर सरचे पयलीं जण एकल्या व्हडल्या मनशाक पांयां पडून भायर सरतालीं. कितेंय खावपाक हाडलें वा केलें जाल्यार सदांच सगळ्यांक मेळून वाटून दिवंचें. सदांच पयलीं जाणट्या लोकांक दिवंचें आनी उरलें जाल्यार आपल्याक घेवंचें. अशें केल्यार देव तुका सदांच पावतलो असो उपदेश म्हजो मामा, आजो बी सदांच करताले. म्हाकाय ह्या उपदेशाचो जायतो अणभव आयला.

सांगपाचें म्हळ्यार संस्कार, शिस्त आमकां भुरगेपणा पासून नकळत मेळटाली. आतां हें उरूंक ना. आतांच्या तरनाट्यांक संस्कार आनी भारतीय संस्कृती कितें हाची मात जाणविकाय ना.

आमकां भुरगेपणार आजो, आजी, आवय-बापूय, काका-काकी आनी तागेलीं भुरगीं अशी रासवळ कुटुंबाची पद्दत आशिल्ली. देखून हांव तांचे कडसून रित-रिवाज, रांदपाक, वाडपाक, सण परबांचें म्हत्व, लोकांचो आदर सत्कार, लोकां कडेन कशें वागप, उलोवप हें सगळें शिकपाक पावलें. आतां काळांत योव, बायल आनी एक वा दोन भुरगीं असो वेगळो संवसार. आतां सगळ्यांकूच स्वतंत्र जाय. असल्यांनी भुरग्यांचेर बरे संस्कार जावपाक पावनात. भुरगीं जोडपाक लागतकच आपल्या जाणट्या आवय बापायक आपले कडेन दवरूंक

सोदिनांत. तांकां तीं जड जातात. असल्यांनी तांच्या भुरग्यांक आजी-आज्यार्चे सूख,संस्कार कशे मेळटले?

भुरगेपणांत बरे संस्कार आनी नीट मार्ग दाखयलो जाल्यार भुरगीं एकसुरीं जातात. तांच्या मनांत वायट विचारांचे पोंटेर तयार जातात. आतां तर आवय-बापूय शिर्विशेक वतात. सकाळीं वतात तीं सांजवेळां घरा येतात. भुरग्यांक देख दिवपी कोणूच नाशिल्ल्यान भुरगीं आपल्याक जाय तशीं वागतात.

आदर्श घरकुलाचें चित्र बदलूंक लागलां. लोक विदेशी संस्कृती आनी संस्कार आपणावंक लागल्यात. आतां नोकरेक लागून विदेशांत वतात आनी थंयच घराबो करून रावतात. हांगा आवय-बापूय भुरग्यांची याद दीस-रात काडटात.

जाणटेपणांत जेन्ना तांकां भुरग्यांची, नातरांची गरज आसता तांचे प्रस्न सोडोवपाक, तांच्यो गजाली आयकुपाक आनी तांकां आदार दिवपाक तांचीं भुरगीं तांच्या म्हऱ्यांत नासतात.

हांव बरे संस्कार घेवन व्हड जाल्ल्यान दिल्ल्या घरा म्हाका खूब उपेगाक पडलें. म्हज्या घरा (घोवाल्या) मांय मांवान रिती रिवाज, सण परबो आनी व्रतां दाखयल्लीं तीं हांवें तशींच चालू दवरल्यांत.

ल्हानपणांत आवय बापूय आपल्या भुरग्यांक आपलो आदार दिवन चलपाक शिकयतात. तशेंच जाणटेपणांत आपूण तांची बडी जावन तांकां आदार दिवपाक जाय. जाल्यारूच तांकां आपणें भुरग्यांचेर केल्ल्या संस्कारांचें फळ मेळटलें आनी तांकां खोस लाबतली.



**- डॉ. रिना लवंदे**
कळंगूट-गोंय.
मो. : 9527078549

# अभिनंदन

संपादक,बिम्ब.

बिम्ब मासिकान विसाव्या वर्सांत पावल घालां म्हणपाचें वाचून खोस भोगली. वीस वर्सां म्हळ्यार दोन दसकां. बिम्ब मासिका सारकें एक दर्जेदार मासिक कोंकणींत सातत्यान येता ती खऱ्यानीच एक अभिमानाची गजाल. आज गोंयांत आमचे देशी भार्शेतलें असलें दुसरें मासिक ना. तुमी फाटलीं वीस वर्सां सातत्य बाळगून हें मासिक चलयतात ते पासत तुमचें आनी पुराय बिम्ब परिवाराचें अभिनंदन. कसलीच आडखळ येनासतना फुडाराकूय तें तशेंच चालू उरतलें अशी हांव आस्त बाळगितां.

हांगा तुमची विशेश तोखणाय आनी अभिनंदन करूंक जाय तें तुमी 'बिम्ब पुरस्कार' भेटोवंक परत आरंभ केलो म्हूण. हे आदीं कांय वर्सां पयलीं तुमी गोंयच्या म्हालगड्यांच्या नांवान पुरस्कार भेटयताले. ते अचकीत कित्याक बंद जाले तें खबर ना. पुरस्कारा पासत योग्य व्यक्तींची निवड करप शक्य नाशिल्ल्यान ते स्थगीत केल्यात म्हणपाचें कानार गेल्लें. कितेंय आसूं, तुमी 'बिम्ब अस्तुरी' रुपान पुरस्काराक आरंभ केला ही भोव खोशयेची गजाल आनी तो डॉ. प्रमोद साळगांवकार हांकां भेटोवन तुमी उचीत आरंभ केला.

डॉ. प्रमोद साळगांवकार हांचीं खूबशीं तासां आमकां खबर नाशिल्लीं. चित्रकार, नाट्यकलाकार बी तांची वळख खूब कमी लोकांक खबर आसतली वा विसरायेर गेल्या आसतली. म्हाका मात ही वळख नवी आनी ती तुमी आमचे मेरेन पावयली म्हूण तुमकां देव बरें करूं. अशें मुजरत बरोवपाचें कारण म्हळ्यार आज आमी राजकारणांत जे कोण वावुरतात, मागीर तो दादलो आसूं वा बायल आसूं तांचो एक उद्देश आसता तो सत्ता



भोगपाचो. आपल्याक उमेदवारी दिता जाल्यारूच आपूण पक्षाचो वावर करतले असली संस्कृताय आतां राजकारणांत बळावल्या. पूण असल्या बांबरांत आपल्याक उमेदवारी नाका, आपूण फक्त निश्ठेन पक्षा पासत वावुरतलीं अशें सांगून आलायती आयिल्ली संद न्हयकारपी प्रमोदबाय सारकी राजकारणी विरळाच. असलीं मनशां समाजांत आसात देखूनच हो समाज तिगून आसा आनी आमच्या सारख्या लोकांक थोडी भोव थाकाय मेळटा. तेच पासत डॉ. प्रमोदबायचें मना पासून अभिनंदन. तांचे वयलो बिम्बांतलो लेख म्हज्या सारख्या बऱ्याच जाणांक नक्कीच स्फूर्त दितलो. हातूंतल्यान गुरुनाथबाबांचीय म्हाका याद जाली. ते जेन्ना जेन्ना मार्ग चळवळीचें काम घेवन वाळपय येताले तेन्ना तांचे कार्यावळीक हांव हजेरी लायतालें. गोंयची अस्तुरी पुण्यभूंय गोंय उबारपाक खूब कितें करूंक शकता अशें ते म्हणटाले आनी तांच्या उतराक मान दिवन तुमी बिम्ब अस्तुरी भोवमान सुरू केलो हाची म्हाका खोस जाता. तेच पासत तुमचें अभिनंदन करपाची संद हांव घेतां.

**- मंदा गाडगीळ**
वाळपय-गोंय.

## बोरकारी




बरें जालें सरकारान आयएमबीचो अध्यक्ष बदल्लो तो.

नातर हरमलकार कितलीं वर्सां थंय बसून चित्रां काडटलो असो प्रस्न जगाक पडिल्लो.

तातूंत हरमलकारूय अध्यक्षपदाक विटेल्लो. परशुरामांत रामा परस परशुच ताका ठळक दिसतालो आनी सगळ्या पोर्ट्रेटांनी तांबडो रंग वाडटालो.

बाकिबाबाचो पोर्ट्रेट तांबडो, पुंडलिक नायकाचो तांबडो.

हाका लागून हरमलकार तामस वृत्तीचो काय असो जाणकारांक प्रस्न पडऽ बरें, तशें न्हय म्हण सांगतलो जाल्यार हो संजय मितभाशी.

हाकाच लागून आपल्याक केन्ना सरकार दैंवयता अशें ताका जाल्लें. आपूण जावन तो राजिनामो दिवंक शकतालो. पूण सरकाराक वायट दिसलें जाल्यार! म्हण सरकार समिती केन्ना बदलता हाचे कडेन नदर लावन बाबडो खंगतालो.

पूण सरकाराक तितले तांकीचो मनीस हाताक लागङ्नाशिल्लो.

जे संस्थेचो अध्यक्ष बाकिबाब आशिल्लो, चंद्रकांत केणी आशिल्लो, बायलॉन डिसा आशिल्लो तसलो भाजपांत कोण नाशिल्लो.

शेवटाक दुदाची तान ताकार म्हणत पर्रीकारान हाडलो हरमलकाराक सोडून आनी भगवो रंग वाडोवन, काड चित्रां म्हणलें.

पूण वर्सां सरता तसो हाचो रंग विटपाक लागलो.

सांवताच्यान म्हण हें सोसूं येता?

ताणें शेवटाक कोण तरी दशरथ हाडलो. कोण काय हो दशरथ?

हेमा नायक बी साहित्य अकादेमीवाले समितीचेर म्हणटकच तेदेच तांकीचो आसतलो.

कोण काय म्हण हेमाक विचारल्यार हेमा म्हणटा, बरो व्हडलो मनीस म्हण!

राजय पवारूय तेंच म्हणटा.

सांवत, परब तशे लागीं म्हण सांवताक विचारलें.

तर म्हणटा, "दशरथ करे कसरत अशें कानार गेलां, पूण तें गोविंदाक विचार."

गोविंदाक विचारल्यार ताणें शणै गोंयबाबाचें फामाद वाक्य सांगलें, 'एक्सांक पंडीत करून आमी सगळेच पंडीत जावया!'

कोण काय हो पंडीत? आय एम बी म्हणपी?

'बी' म्हणल्यार 'बीजेपी' काय?

शीर्षकथा



दिलीप बोरकार

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले दिलीप बोरकार ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यिक जावन आसात. तांच्या गोमाचल ते हिमाचल ह्या प्रवास वर्णनाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.



# 'वर्ल्ड बुक अँन्ड कॉपीरायट डे' आंतरराष्ट्रीय पुस्तक दिन

# सरकाराचो साहित्या कडेनूच हात कित्याक अडचता....

आब्रील म्हयन्याची २३ तारीक हो दीस विल्यम शेक्सपिअरचो जल्मदीस तसोच मरण दीस. ह्याच दिसाक लागून पुराव आब्रील म्हयनो इंग्लंड आनी अमेरिकेचे लोक एक पवित्र काळ मानून म्हयनोभर साहित्यीक उत्सव पडोवन हाडटात. ह्या म्हयन्यांत शेक्सपिअरच्या घराक, जें आज एक संग्रहालय जाल्लें आसा ताका संवसारभरचे लोक भेट दितात. आब्रील म्हयनो हो संवसारभरचे पुस्तकमोगी आपले डायरेंत 'शेक्सपिअर फेस्टीव्हल' अशी नोंद करतात आनी ह्या फेस्टीव्हलाक आवर्जून भेट दितात.

विल्यम शेक्सपिअर हाका १५६४ ते १६१६ अशें फकत ५२ वर्सांचें आयुश्य लाबलें. पूण ताच्या साहित्याक लागून तो पांचशीं वर्सां उलगलीं तरी आजूय जियेता. कित्याक जियेता, तर तो नाटककारांचो नाटककार आशिल्लो. ताचीं नाटकां वाचूंक ना, पळोवंक ना वा ताचें नांव कानार पडूंक ना असो संवसारांत कोण आसत अशें दिसना. शेक्सपिअर एक म्हान कवीय आशिल्लो. सोनेटस् हो काव्य प्रकार ताणें फिशालपणान केळयलो. ताच्या ह्या सोनेटस्ांक इंग्लीश साहित्यांत हिसपा भायली सुवात आसा.

आतां प्रस्न पडटा साहित्याच्या संवसारांत आतां मेरेन फक्त शेक्सपिअर हीच व्यक्ती पूज्यनीय आसा? ताचे आदीं वा उपरांत आनीक कोण साहित्यीक जाले नात? तशें निखालूस न्हय. शेक्सपिअरचे तांकीचे साहित्यीक, कवी संवसारांत जावन गेले. आमचो रवींन्द्रनाथ टागोर हो शेक्सपिअर परस मात्तूय उणो ना. पूण ताका भाशेची मर्यादा पडिल्ल्यान तो बंगाली बाबू पुरतोच मर्यादीत उरलो. जेन्ना ताच्या साहित्याचो हेर भासांनी अणकार जालो, खास करून इग्लीशींत जालो तेन्ना रवीन्द्रनाथ टागोर संवसारीक जालो.

आपल्या साहित्याक लागून रवीन्द्रनाथ श्रेश्ठ आशिल्लोच. पूण तार्चे हें श्रेश्ठत्व जगा सामकार आयलें तें इंग्लीश मनशा पासत. म्हणटकच खंयचोय साहित्यीक हो निखळ आपले प्रतिभेन संवसाराचेर आपली मुद्रा उठोवंक पावना तर ताका माध्यम जाय पडटा तें ते भार्शेतल्या मनशांचें. शेक्सपिअर आज अजरंवर जावंक पावलो तार्चे कारण तार्णे जें साहित्य जे भार्शेतल्यान रचलें ते भाशेचे लोक, म्हणल्यार ब्रिटीश लोक जात्याच उत्सवप्रिय आनी आपले भाशेचेर नितांत प्रेम करपी. तांच्या सुदैवान तांचे भुंयेंत शेक्सपिअर जल्मलो आनी ताच्या माध्यमांतल्यान इंग्लीश भास आनी इंग्लीश साहित्य संवसाराचेर पावयलें. हें मार्केटींग जावंक पावलें तें तांकां आपली भास संवसाराचेर पातळावंक जाय आशिल्ली म्हूण न्हय तर ब्रिटीश लोक मुळांतच वाचनप्रेमी, आपले भार्शेत जे कोण बरयतात तांचें साहित्य उडयो मारून वाचप जालेंच, पूण जे कोण हेर भार्शेत बरयतात तांचेंय दर्जेदार साहित्य इंग्लीशींत हाडून ताचो आस्वाद घेवपा वांगडाच प्रसार करप होय वावर मोठ्या जोमान चालू दवरलो. हाचे फाटलें कारण म्हणल्यार इंग्लेज लोकांचें पुस्तकां वयलें आनी लेखकां वयलें नितांत प्रेम. आपले भार्शेत जें जें किर्ते साहित्याच्या रुपान येता तातूंतलें चोखंदळपणान दर्जात्मक साहित्य वेंचप आनी तें वाचकांचे नदरेक पडचें म्हणून ताचेर वेगवेगळ्या प्रकारान भाश्य करून ताका प्रसिध्दी दिवप, जाका लागून त्या पुस्तका विशीं वाचकाक वळख मेळटली आनी मागीर तें विकतें घेवंक वाचकांच्यो पिट्ट्यो पडप ही गजाल इंग्लंड आनी अमेरिकेंत सदचीच. इंग्लेज लोकांचे



हे संस्कृतायेक लागून पिरायेच्या सव्या वर्सा सावन गिरेस्त जावपाचीं सपनां पळोवपी 'ज्यो' म्हणल्यार जे.के.रोलींग संवसारांतली सगळ्यांत गिरेस्त लेखिका जावंक पावली. तिच्या हॅरी पॉटरान खपाचे भोवतेक विक्रम मोडल्यात.

मूळ इंग्लेजींतल्याच पुस्तकांचेर न्हय तर हेर भासांतल्या पुस्तकांचेरूय इंग्लेज मनशांचें तितलेंच प्रेम. साहित्याक तांचे मर्दी भाशावाद लागना. देखून खंयचे भार्शेत दर्जेदार साहित्य आयलां हाची सुलूस घेवन तें पुस्तक तांणी इंग्लेज भार्शेत हाडलेंच म्हूण समज. तेच पासत रशियन भार्शेतले लिओ टॉलस्टॉय, दोस्तोव्हस्की, आंतोन चेकोव्ह, मॅक्झीम गोर्की हे लेखक पुरायेन इंग्लेजींत आयले तशेच स्पॅनीश लेखक गॅब्रिएल मार्केझ, पुर्तुगेझींतलो पाऊलो कोएलो, चिलीचो पाब्लो नेरुदा, जर्मनचो गुंथर ग्रास सारखे लेखक हे भार्शेत तांणी हाडिल्ल्यान संवसारभरचे पुस्तकमोगी तांकां वाचूंक पावले. तांच्या ह्याच वावराक लागून आपल्या 'द अल्केमीस्ट' ह्या पुस्तकांत *दुहू मनशार्चे जिवीत सांबाळूंक शक्ताच अशें ना* म्हणपी पाऊलो कोएलो सारखो पुर्तुगेझ भार्शेतल्यान बरोवपी लेखक ब्राझीलची शीम हुपून संवसारांतल्या देढशें देशांनी पावलो आनी ताच्या पुस्तकांचो खप लार्गी लार्गी णव कोटी आसा. हे यडणुकेंतल्यान इंग्लेज भास संवसारार पावली ती पावलीच त्या भायर हेर भासांतल्यान कोण किर्ते आनी खंयच्या दर्जाचें बरयतात ताची वळख इंग्लेज मनशाक सातत्यान जावंक पावली. ताका लागून आपलें साहित्य खंयच्या दर्जाचें आनी ताची सुवात खंय आसा हार्चे भान इंग्लेज मनशाक जावंक पावलें. तेच पासत इंग्लेज मनीस दर वर्सा आब्रील म्हयन्याची प्रतिक्षा करता, विल्यम शेक्सपिएराचो जल्मोत्सव मनोवपाच्या निमतान 'संवसारीक पुस्तक दीस' मनोवपा पासत. जगाक पुस्तकांचें, लेखकाचें म्हत्व सांगतनाच वाचनाची गोडी लावंक.

## आमच्या देशांतलो आब्रील

आमच्या भारतांत आब्रील म्हयन्याची प्रतिक्षा आसता ती एक आब्रीला खातीर. हो दीस आब्रील फूल दीस. ह्या दिसा आपूण कोणाक कसो फूल करतलों आनी मजा करतलों हाचेच कडेन भोवतेकांचें शितीद आसता. तांचे पासत आब्रील फुलांतूच ह्या म्हयन्याचें सार्थक आसा.

आब्रील म्हयनो हो शाळांक सुटयांचो म्हयनो आशिल्ल्यान ह्या सुटयांचो फायदो हालींच्या काळांत वेंचणूक आयोग घेता. खंय ना खंय, कित्याक ना कित्याक लागून वेंचणुको आसतात आनी त्यो ह्या म्हयन्यांत जाहीर जाल्यो म्हणटकच सरकार आनी मतदार ह्या वेंचणुकेच्या उत्सवांत शेणून वता. ह्या लोकांक उत्सवांतल्यान भायर काडून साहित्योत्सवांत व्हरपाचीं पिर्शेपणा करप म्हणल्यार हाश्याक म्हारग जावप. अशें

आसलें तरी आपापले भार्शेतलीं साहित्यीक दैवतां पुजपी कांय पिशेव ह्या देशांत आसात आनी आपले परीन ते त्या त्या साहित्यिकांची याद करतात. पूण शेक्सपिएरच्या नांवान जसो उत्सव जाता तसो अजून आमच्या देशांत राष्ट्रीय पातळीर कोणाचो जायना आनी ताचें कारण म्हणल्यार आमच्या देशांतली भाशेची वणत. हिन्दी भास सिनेमांक लागून लोकांचे वळखीची जाल्ल्यान हे भार्शेतले कांय लेखक, भारतीय तांचीं पुस्तकां वाचून नकळ तरी आयकून जाणांत. हेर भासो खबर नाशिल्ले त्या भासांतले कांय लेखक अणकाराच्या रुपान हाताक लागले जाल्यारूच वाचतात. तेय हाताच्या बोटार मेजूं येता इतलेच आसतात. भैरप्पा, पिल्लाय, बशीर सारके लेखक श्रेश्ठ दर्जाचे साहित्यीक आसुनय तांची वळख ते भाशेची शीम हुपून मुखार वचना. अशे हे परिस्थितींत कोंकणीची अवस्था कितें आसतली हाची कल्पनाच करूं नज.

कोंकणींतले कांय वाचरपती लेखक सोडले जाल्यार भोवतेक लेखक नार्सिसस जाल्ले आसतात. ते आपलें सोडून दुसऱ्यांचें कितें वाचपाचे भानगडींतूच पडनात. जांकां कोंकणीच वाचपाची संवय ना ते हेर भासांतल्या दुसऱ्या लेखकांचें साहित्य वाचपाचो प्रस्नूच येना. ह्या लेखकांक संवसारीक पुस्तक दिसाचें वा शेक्सपिएर फेस्टीव्हला विशीं सांगप वा तें जाणां जावपाची तांचे कडल्यान अपेक्षा बाळगप म्हणल्यार वेळेचो अपव्यय. तरी लेगीत हे सगळे लेखक दर वर्सा आप्रील म्हयन्या कडेन दोळे लावन बसतात.

गोंयच्या लेखकां पासत आप्रील म्हयनो हो धंद्याचो म्हयनो. गोंयचो दरेक लेखक हो स्वता प्रकाशक आसता. जशे हेर वेवसाय आसतात तसो प्रकाशन होय एक वेवसाय आनी कांय लोकांनी तो आपलो वेवसाय म्हूण आपणायल्लो आसा. तेन्ना तांकां नखलामी पडटा असलें आपल्या हातांतल्यान कितें पडचें न्हय हाचें भान ह्या लेखक म्हूण मिरोवपी वांयगण्या प्रकाशकांक नासता.

खरें म्हणल्यार गोंयच्या कांय लोकांनी प्रकाशन वेवसाय हो आपले रोजीरोटीचो वेवसाय म्हूण आपणायला आनी ह्या वेवसायाक उद्योगाचें स्वरूप लाबचें ह्या हावेसान प्रतिश्ठा दिवपाचो यत्न चलयला . तांचे हात पट करपाचें काम गोंयच्या लेखकांनी करपाची गरज आशिल्ली. ह्या प्रकाशकांनी गोंयच्या लेखकांचीं पुस्तकां उजवाडाक हाडप, तांच्या अटींचें पालन करून तांकां योग्य मोबदलो दिवन, तांच्या पुस्तकांचें वितरण चडांत चड वाचकां मेरेन जातलें हाची जतनाय घेवप.

प्रकाशक हो वावर करतना तांकां थोडो भोव फायदो जाताय बी आनी कांय वेळार लुकसाणूय जाता. धंदो म्हणटकच नफो-तोटो थारिल्लेंच आसतालें. लेखकाचें हस्तलिखीत घेवन ताच्यो अटी पुराय करून वेव्हार जाग्यार पावलो काय उपरांत पुस्तकाचेर जावपी लाव लुकसाण हें सगळें प्रकाशकाची जापसालदारकी थारताली. लुकसाण जालें म्हूण ताका रडून फावपाचें नाशिल्लें. देखून ह्या वेवसायांत दैवतना हजार खेप विचार करचो पडटालो.

पूण प्रकाशन वेवसाय चलूंक जाय, नवनवीं पुस्तकां उजवाडाक येवपाक जाय आनी सृजनोत्सवाक चालना मेळूंक जाय ह्या विचारान प्रकाशकांक पालव दिवंक कांय संस्था धोरणात्मक येवजण्यो घेवन मुखार आयल्यो. तातूंत गोवा कोंकणी अकादेमी, राजा राममोहन फाउंडेशन आनी गोंय सरकारचें कला आनी संस्कृती खातें हाचो आसपाव जाता. प्रकाशकाक पालव मेळचो म्हूण ह्या संस्थांनी प्रकाशन पालव येवजण सुरू केली. खंयचेंय पुस्तक उजवाडाक आयलें काय त्या पुस्तकाच्यो अमुकूच प्रती एकगठ्ठो खरेदी करप आनी तातूंतल्यान प्रकाशकाक ताचे गुंतवणुकेक थोडी भोव थाकाय दिवप. मातर कोणाचेंय पुस्तक प्रकाशकान उजवाडाक हाडप, प्रकाशन सुवाळ्याक ह्या निमतान कोण पुस्तक विकतें घेतलो काय म्हूण आशाळभूत नदरेन पळोवप आनी ह्या सुवाळ्याक कांय पुस्तकां गेलीं जाल्यार मनाक तितले पुरती थाकाय मेळप ही प्रकाशन सुवाळ्या फाटली सत्य घटना आसता.

एक प्रकाशन सुवाळो आयोजीत करपाक सभाघराचें भाडें, च्या-पाणी आनी हेर खर्च म्हूण उण्यांत उणे पांचेक हजार खर्च हो आसाच. ह्या सुवाळ्याक जर पुस्तकां गेलीं आनी थोडी नकद रक्कम जर प्रकाशकाक ह्या निमतान मेळ्ळी जाल्यार ती खोस वेगळीच आसता हें प्रकाशक म्हूण हांवें अणभवलां. ह्या प्रकाशन सुवाळ्याक जो कितें खप जाता तो जाल्या उपरांत मागीर पुस्तकांचे गठ्ठे घरांत पडून उरतात हो सगळ्या प्रकाशकांचो अणभव. पयलें संस्करण चार-पांच वर्सां सरलीं तरी वाचकां मेरेन वचपाचें नांव घेना. ज्या छापखान्यांतल्यान हीं पुस्तकां छापून घेतल्यांत तो काय कोंकणी साहित्याची सेवा म्हूण छापणावळीचें बील माफ करी ना वा उदारीर चड काळ रावना. म्हणटकच प्रकाशक आपल्या बोटव्यांत कांय पुस्तकां घालून दारा दारांनी वचून वा वाटेर जो कोण कोंकणीचो दिसे मागपी मेळटा ताका हीं पुस्तकां विकपाचो यत्न करतालो.

हाचे फाटली प्रकाशकाची भावना, आपणें बरें दर्जेदार पुस्तक काडलां ही आसतालीच त्या भायर ही भावना फकत आपले पुरतीच मर्यादीत दवरी नासतना ती हेरां मेरेन पावची अशी ताची सादी इत्सा आसताली. ते वेळार आपलें पुस्तक जाचे मुखार आपणें धरलां तें ताका आवडटलें, मानवतलें काय ना हें बी कांयच चिंतप ना. आपलें छापखान्यार्चे बील थोडें तरी फारीक जावंचें हे विवंचर्नेत प्रकाशक कोंकणीचो हितचिंतक अर्शे जो कोण आपल्याक मानता ताका तार्चे पानवळ भोगयताले. उपरांत प्रकाशक येतना दिसलो जाल्यार बरेच लोक वाट वाकडी करूंक लागताले. हे असले अवतिकार्येतल्यान फाटले पिळर्गेतले भोवतेक प्रकाशक गेल्यात.

हातूंतल्यान तांकां आनी कोंकणी हितचिंतकांक्य वाचयले ते ह्या दोन तीन संस्थांनी राबयल्ले प्रकाशन पालव येवजणेन. प्रकाशन पालव येवजणे खाला ह्यो संस्था दर आब्रील म्हयन्याच्या आरंभाक ही येवजण जाहीर करूंक लागली. हाच्या फाटल्यान ह्या संस्थांचो आनी आब्रील म्हयन्यांतल्या जागतीक पुस्तक दिनाचो कांयच संबंध ना. आब्रील म्हयनो हो नव्या आर्थीक वर्साचो आरंभाचो म्हयनो जाल्ल्यान ह्याच म्हयन्यांत ही येवजण जाहीर जाता आनी तेच पासत आमचे प्रकाशक आनी हे येवजणेचो आलायतो फायदो मेळटा जाल्यार सोडचो न्हय म्हूण आपलींच पुस्तकां छापूंक प्रकाशक जाल्ले वांयगणे प्रकाशक प्रतिक्षा करतात. चुकून लेगीत एकल्याय लेखकाक आब्रील म्हयनो हो जागतीक पुस्तक दिन म्हूण याद जायना वा शेक्सपिएर फेस्टीव्हलाचीय कोणाक याद जायना.

लेखक-साहित्यीक जालो तरी आर्थीक विवंचर्नेतल्यान ताका मुक्ती आसना. सरकार राबयता ती प्रकाशन पालव येवजण ही प्रकाशन पालव येवजण न्हय तर पंदरा टक्के सवलतीन प्रकाशकां कडल्यान पुस्तकां विकतीं येवपी हेर गिरायकां वरींच एक गिरायक जाल्ल्यान पालव बिलव झक मारलो, एकगठ्ठा पुस्तकां वतात म्हूण एक खोशालकाय प्रकाशकांच्या मुखामळार खेळूंक लागली. तीन संस्था ही येवजण राबयता देखून दर वर्सा प्रकाशकांच्यो चारशीं प्रती सहज वचूंक लागल्यो. तातूंतल्यान एक रकमी येणावळ आयिल्ल्यान छापखाने कोंकणी प्रकाशकांचेर विश्वास दवरूंक लागले. चडशे प्रकाशक आपली पयली आवृत्ती ही पांचश्यांची काडटात देखून तांच्या घरांतले गठ्ठे तुंबपार्चे प्रकरण उणें जालें. घरांत मुक्तपणान वावरूंक मेकळी सुवात मेळळी. आतां पुस्तकांच्यो मर्यादीत प्रती उरिल्ल्यान त्यो कोणाच्या गळ्यांत घालपाचो आदलो प्रकार बंद जावंक पावलो. ताका लागून प्रकाशक, वाचक आनी कोंकणी मोगी हांचे मर्दीं जी दुराय निर्माण जाल्ली ती पयसावली. सरकार एकगठ्ठा पुस्तकां येतात म्हणटकच आतां प्रकाशक कित्याक जाय..?आमी पुस्तकां बरोवप आनी फायदो तांणी लाटप..?आमीच आतां प्रकाशक जावन आमचीं पुस्तकां आमीच छापतले ह्या विचारांतल्यान सगळे नोकरदार आनी नोकरेंतल्यान निवृत्त जाल्ले लेखक हे येवजणेचो फायदो येवंक प्रकाशक जाले. सरकार जितल्यो प्रती विकर्ते येता तितल्योच प्रती छापून हे येवजणेचो लाव गोंयचे भोवतेक प्रकाशक मनांत कसलीच लज बाळगिनासतना घेतात. आमी वेवसायीक प्रकाशक न्हय तर वेवसायीक



प्रकाशकांचे येवजर्णेत आमी वांटेकार जावन तांची येवजण लाटतात हाची कोणाच्याच तोंडार खंत दिसना.

## कोरोनाचें अरिश्ट

ह्या आब्रील म्हयन्यांत कोरोनाच्या सांवारान जी किर्ते आर्थीक नाकेबंदी केल्ली ताका वर्स जाता. ह्या अरिश्टान सगळ्यांची अर्थवेवस्था सदळ करून सोडली. गजाल खरी आशिल्ल्यान जे कोण ह्या अरिश्टांत सांपडून निसाक पातिशेर जाले तांणी सरकारा कडेन आर्थीक पॅकेज मागलें. फाटलो मार्च तो हो मार्च अश्या ह्या कोरोना काळांत गोंय सरकारान दोन खेप गोंय राज्याचो अर्थ संकल्प मांडलो. राज्याची आर्थीक स्थिती तशी बरी नासतनाय मुख्यमंत्री कसरत करता म्हणपाची तोखणाय ताचे विरोधक लेगीत करतात. कित्याक प्रमोद सावंत केंद्रा कडल्यान मजत हाडपाक यशस्वी थारला. फाटल्या दोन वर्सांत ताणे केंद्रा कडल्यान भरपूर फंड हाडला. पूण हातूंत प्रकाशक लेखकांक किर्ते मेळ्ळां..? विधानसभेंतल्या चाळीसूय आमदारांक तांच्या मानधनांत एकदीस लेगीत कळाव जावंक ना. सरकारी नोकरांक तिजोरेंत पयशे नात अशें सांगून तांच्या पगाराक सरकारान रडोवंक ना. सरकाराक जितलीं म्हूण फेस्तां करपाचीं आशिल्लीं तीं सरकारान बारीक मोठ्या प्रमाणांत केलींच. वर्सभराड्ञ सरकारी खर्चान जीं जेवणां आनी पार्ट्यो जाल्यात ताची रक्कमच साडेतीन कोटी म्हणपाचें आयकलां. म्हणटकच जंय खर्च करूंक जाय थंय सरकार खर्च करताच. पूण साहित्याचे बाबतींत मात सरकाराक अर्थ संकल्पांत कांयच तजवीज करीन दिसना. फुडलें वर्स वेंचणुकेचें जाल्ल्यान ह्या अर्थ संकल्पांत मतांचो हिशेब दोळ्यां मुखार दवरून प्रमोद सावंतान अर्थसंकल्प मांडला. पूण गोंयचो लेखक हो असो एक प्राणी, तो आसलो वो नासलो सरकाराक फरक पडना. हेर राज्यांत जसो प्रगतीशील लेखकांचो फोरम आसता आनी तांणी काडिल्लें पत्रक लेगीत सरकार पडोवपाचेर अस्सर करूंक शकता तशी मात्तूय भिरांत गोंयच्या लेखकांचे बाबतींत सरकाराक दिसना. जे कोण पक्षाचे वळचणींत आसात ते लेखक आपले तांकी प्रमाण चिरीमिरी सोडयतात. पूण भोवतेक प्रकाशक सरकार केन्ना येवजण जाहीर करतलो हाचे कडेन चातका वरी नदर लावन बसतात.

सरकारान आब्रील २०२० काळांतली (२०१९-२०२० आर्थीक वर्स) प्रकाशन पालव येवजण जाहीर करूंक ना आनी आतां वर्स सरून आब्रील २०२१ लागलो तरी ह्याय म्हयन्यांत आर्थीक वर्स २०२०-२०२१ ची येवजण जाहीर करपाचें चिंतूंक लेगीत ना. ह्या दोन वर्सांत ह्या प्रकाशकाचें किर्ते जालें, ते जिते आसात काय उपास-तपासांत मेले



हाची चौकशी केली आजी सरकूली खात्याचे मंत्री गोविंद गावडे हाणी केली ना. हागा वायगण्या प्रकाशकाचो प्रस्न ना. ताका दर म्हयन्याक आपले नोकरेचो पगार मेळटा वो निवृत लोकांक निवृत्ती वेतन मेळटा. तांचो हो प्रकाशन वेवसाव म्हणल्यार फाविल्ल्या वेळार बेकारभासो करपाचो. पुस्तक बरयलें जाल्यार छापलें आनी पालें येवजर्णेत. काड फातर मार आंब्यार पडलो जाल्यार आंबो पडलो, ना तर फातर गेलो असले मानसिकतेच्या ह्या वांयगण्यां प्रकाशकांक दोन वर्सां येवजण चालीक लागली ना हाचें मात्तूय पडून गेल्लें ना. कित्याक तांकां तसो ही येवजण बंद पडिल्ल्यान लुकसाण ना. म्हणटकच कित्याक बंद पडली हो प्रस्न सरकाराक विचारपाचो नैतीक अधिकार तांकां ना. ते तेच पासत अधिकृत प्रकाशकांच्या शिश्टमंडळांत येवंक अनमनतात. तुमी गाय हाडात, तिका खावड घालात, दूद काडात, तापयात, मागीर साय खावपाक आमी येतात असली हांची वृत्ती. तांकां हो सगळो अधिकार मेळ्ळो तो ते कोंकणी वाटेन रावले आनी केन्ना तरी मोर्चाक बी आयले वो साहित्य बरोवन कोंकणीची सेवा केली, ह्याच मालवजार ते आपलो अधिकार मानतात. तांची लागणूक झगडपा कडेन नासता. देखून जे कोण म्हजे सारखे ह्या प्रकाशन वेवसायाचेरूच पोट भरतात तांकां हो प्रस्न सरकारा मुखार दवरपा बगर पर्याय ना. पूण तांचो आंकडो कमी आशिल्ल्यान सराकाराक तांचें व्हडलेंशें पडून गेल्लें ना. पडिल्लें जाल्यार जें किर्ते सरकारचें बजेट आसा तातूंत ही येवजण कुशीक पडपाची ना हाचेर लक्ष दवरपाची गरज आशिल्ली.

पूण सरकाराचे सदांच साहित्य आनी संस्कृती बाबतींत हात अडचल्ल्यान हातूंतलें गांभिर्य सरकाराक कळना.

### शिक्षण खातें किते करता..?

कोरोनाक लागून फाटलें वर्सभर गोंयच्यो सगळ्यो शाळा बंद आशिल्ल्या कारणान गोंयच्या शिक्षणखात्याक तशें कांयच काम नाशिल्लें. ह्या वर्सभरांत ह्या खात्यान किते काम केलें हाचो कोणेंय आतां अभ्यास करूंक जाय. दर म्हयन्याक पगार येतात म्हणटकच किते तरी केल्ल्या वरी तांणी केलांच आसतलें. कित्याक बेकार बसून पगार खातात ही भावनाच तांकां खावंक पुरो आसता. तरी लेगीत ह्या वर्सभरांत शिक्षणखात्यान खूब किते करूं येतालें जें कोरोनाच्या काळांतलें पुराय संवसारारक एक मोस्र जावन रावपाचें.

हांव जेन्ना शाळेंत शिकतालों तेन्ना आमकां एक लायब्ररी पिरियड आसतालो. ह्या पिरियडाक तो वर्ग येवपी शिक्षक आपले वांगडा आलमारींतल्या पुस्तकांचो गठ्ठो हाडटालो. हांव त्या पुस्तकां कडेन आशेन पळयतालों. शिक्षक आमकां प्रत्येक भुरग्याक एक पुस्तक घरा व्हरूंक दितालो. तें वाचून ताचो सारांश आमकां बरोवन हाडचो पडपाचो. शिक्षक पुस्तकां कशीं वाचप आनी खंयचीं वाचप हें सांगतालो.

शिक्षणखात्यान मागीर हो विशय काडून उडयला जावंक जाय. कित्याक हांव शिकोवंक लागलों तेन्ना तो विशय नाशिल्ल्याची याद जाता. पूण शिक्षणखातें मुळाव्या शाळां पासत मात पुस्तकां खरेदी करतालें. माध्यमा प्रमाण ही खरेदी जाताली. मराठी आनी इंग्लेज माध्यमांतलीं भुरगीं चड जाल्ल्यान हेच भाशेंतलीं पुस्तकां व्हडा संख्येन येवप जातालीं. प्रकाशक अर्थांत भायले आसताले, कित्याक गोंयांत तेन्ना असलीं पुस्तकां छापूंक कोण मुखार सर नाशिल्लो. हाका लागून हे भायले प्रकाशक शिक्षण खात्यांत बैठक मारून अधिकाऱ्यांक खूश दवरताले आनी मोठ्या प्रमाणांत ही पुस्तक खरेदी जाताली.

मागीर लेपटॉप आनी आयपेडचो काळ आयलो आनी ताचेर मंत्र्यांक मोठ्या प्रमाणांत मलिदो मेळूंक लागिल्ल्यान शिक्षण खात्यांतली शाळां खातीर पुस्तकां खरेदी करपाची येवजण बंद पडली. ती कित्याक बंद उडयली हें कोणाक खबर ना आनी कोणें खात्याक विचारलेंय ना.

खरें म्हणल्यार कोरोनाच्या काळांत शिक्षण खात्यान खूब काम करूं येतालें. भुरगीं घरा बसून मोबायलाचेर टायमपास करतात तांकां पुस्तकां भेट दिवपाची गरज आशिल्ली. गोंयचो इतिहास, भुगोल, संस्कृताय हाची आज भुरग्यांक कांयच कल्पना ना. ह्या कोरोना काळांत पालकां कडल्यान आनी शिक्षण खात्यान ऑनलायन हो अभ्यास पुस्तकांच्या वाचनाचेर भर दिवन, हांसत



खेळत करून येवं येतालो. पूण ही संद खात्यान वगडायली. कित्याक शिक्षणाचेर विचार करपी आनी पुस्तकांची ॲलर्जी आशिल्लेच लोक हे इमारतींत आसात.

### आरआरआरएलएफ

कोलकोत्याक राजा राममोहन रॉय लायब्ररी फाउंडेशन आसा. केंद्र सरकारच्या अनुदानाचेर तें चलता. देशांतल्या सगळ्या लेखकांच्या त्या वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या पुस्तकांच्यो शंबर प्रती विकत्यो घेवन ही संस्था तीं पुस्तकां वाचपघरांक वितरायता. फाटलीं कितलींच वर्सा हो वावर चलतालो. हीं एकगठ्ठा पुस्तकां खरेदी केल्ल्यान प्रकाशकांक ताचो आर्थीक हातभार लागतालो..पूण कोरोनाच्या काळांत ही येवजण गोंया पासत बंद पडली. कित्याक केंद्र सरकार ह्या फाउंडेशनाक हीं पुस्तकां खरेदी करूंक जो ग्रांट दिता तितलोच मॅचींग ग्रांट राज्य सरकारान दिवंचो आसता. कोरोनाचें निमीत्त करून आर्थीक चणचण फुडें सरली आनी गोंय सरकारान आपलो वांटो फाउंडेशनाक घालो ना. हाका लागून दोन वर्सां हे येवजणेचो लाव गोंयच्या प्रकाशकांक जालो ना. कोणेंच हे विशीं सरकाराक जाप विचारली ना.

### कला आनी संस्कृती खातें

गोंयच्या कला आनी संस्कृती खात्यान दिगंबर कामत कला आनी संस्कृती मंत्री आसतना गोंय राज्याचें सांस्कृतीक धोरण चालीक लायलें आनी गोंयच्या प्रकाशकांक आर्थीक पालव लाबचो म्हूण प्रकाशन पालव येवजण सुरू केली. प्रकाशकाक प्रकाशन पालव म्हूण दर पुस्तका फाटल्यान पन्नास

[illegible] मेळटलो म्हणपाचें तातूंत [illegible] दिलें. पूण अस्तुंत [illegible] पुस्तकाक इतली रक्कम कोण्कूय मेळूंक ना. तरी [illegible] सरासरी दहेश ते दोनशीं प्रती १५ टक्के सवलतीर ववज प्रकाशकाक एका पुस्तका फाटल्यान वीस-पंचवीस हजार पालो मेळटालो. हाका लागून म्हज सारख्या, दिनेश मणेरकारा सारख्या प्रकाशक वर्साक धा-बारा टायटल काडूंक शकतालो. तातूंतल्यान छापखान्याच्या बिलाचो हप्तो गेल्यान लाय म्हळ्यार प्रकाशकाक थोडोय मेळटालो आनी प्रकाशकाक आपलो दिसवडोय सोडोवंक मेळटालो.

पूण फाटल्या वर्सा सावन हो ववजण बंद जाल्ल्यान वा स्थगीत केल्ल्यान फक्त ह्या वेवसायाचेर जाचें आंदन आशिल्लें ते छापखान्याच्या रिणात आडखळ्ळ्यात. सरकार आपलो खर्च चलोवंक राख विकून रिणां काडटा. ह्या रिणांत सरकारी पगार, आमदारांचो पगार आनी सगळो खर्च आसता. पूण जें साहित्य समाजाक दिका दाखयता, समाज ज्या साहित्याच्या वाचनान प्रगल्भ जाता त्या साहित्या पासत रक्कम फटावचीं अशें मुळांतच दिसना ही गोंयच्या दुर्दैवाची गजाल. हाचोच अर्थ ह्या सरकाराक प्रगल्भ समाज नाका. जाय तो बोंडो मतदार. ह्याच मतदाराक खूश दवरून सरकाराक सत्ता राबोवपाची आसा. ह्याच कारणाक लागून साहित्या विशींची सरकाराची लागणूक बोटचेपी उरल्या.

सद्याचे कला आनी संस्कृती मंत्री गोविंद गावडे उत्साही आनी उत्सवी मंत्री. ताचे कुडींत राजयोग आशिल्ल्यान तो निवडून आयले बराबर पयल्याच धपक्याक मंत्रीपद आनी हेर पदां मेळ्ळीं जीं सहसा शक्य नासतात. गोविंद गावडे सत्तेर आसतनाची कला आनी संस्कृती खात्याची ही प्रकाशन पालव ववजण निमणी ववजण. फुडलें वर्स येतलें तन्ना ही धोरणात्मक ववजण आसतलीच पूण मंत्री म्हूण निर्णय घेवपाक गोविंद गावडे त्या पदार आसतलेच म्हणपाचें सांगूंक येना. कित्याक तें वर्स वेंचणुकेचें वर्स. दिसून ह्यो शक्यतायो मतींत दवरूनच आपली मंत्री म्हूण कार्यपद्दत कला आनी संस्कृती मंत्र्यान सिद्द करूं येताली. सीएमाक आत्मनिर्भरतायेचें म्हत्व पटोवन ही ववजण पासत सरकारी दुश्काळांतूय कांय पयशां कुशीक काडूं येतालीं. हें कलाशी ताका शक्य आशिल्लें आनी प्रकाशक आनी लेखक त्या खातीर ताची याद करपाचे. पूण ताणें ती संद वगडायली.

आसूं ह्या गजालींक तसो अर्थ ना.

गोंयांत साहित्योत्सव मनोवं येता..

आवरील म्हयन्यांत सवसारीक साहित्योत्सव चलता. त्या निमतान सगळो देश आनी राज्यां आपापले लेखक वेंचून काडून ताच्या नांवान किते ना किते कार्यावळी घडोवन हाडटा. आमच्या गोंयांत जाच्या नांवान हो साहित्योत्सव मनोव येता असो साहित्यीक आसा काय किते असोय प्रस्न पडूं येता. कसलोच वाद नाका म्हूण आमी फक्त कृष्णदास शामा हाचेंच नांव घेतात. तातूंत भाशावाद येना. पूण हालींच्या काळांत रवींद्र केळेकार हांणी गोंया पासत ज्ञानपीठ पुरस्काराचें दार उक्तें केलें म्हूण ह्या साहित्यकाराच्या नांवान सरकारान नवकोंच साहित्योत्सव घडोवन हाडूंक कसलीच हरकत ना. जसो शेक्सपिएरच्या नांवान घडोवन हाडटात. हांगा भाशावाद हाडपाचो प्रयत्न जातलो. पूण ज्ञानपीठ पुरस्काराक भास लागना. कोंकणीक जरी तो मेळ्ळो तरी गोंयाक मेळ्ळा आनी गोंयच्या साहित्याक मेळ्ळा अशें मानपा इतलें मोठेपण आतां भाशावादाचें मडें नाचयतल्यानी दाखोवंकच पडटलें. ह्या महोत्सवा निमतान ताचे वांगडाच हेर साहित्यकारांचेंय म्हत्व गोंयचे पिळगेक कळूंक पावतलें. तें जालेंच, ते भायर ह्या उत्सवांतल्यान आर्थीक उलाढाल जातली. सरकार कला अकादमीच्या दर्या संगमार दरवर्सा लोकोत्सव घडोवन हाडटा. तातूंतल्यान लाव कितलो आनी लुकसाण कितलें हाचो हिशेब कोण करी ना. पूण त्या निमतान समाजांत किते तरी घडत आसता जातूंत लोकांचो आसपाव आसता.

रवीन्द्र केळेकाराचो गांव प्रियोळ हो शिगम्या खातीर फामाद. गांवचे लोक हांगां शिगम्याच्या काळार धूंद जावन शिगमो खेळटात, धोलांच्या काळार धोलांचे मांड पडटात आनी गांवचें वातावरण उत्सवी आनी उत्साही उरता. हांगा ह्या वाठारांत दर मार्च म्हयन्यांत रवीन्द्र केळेकाराच्या नांवान साहित्योत्सव जालो, थंय रस्त्याचे दोनूय कुशीक पयलीं खाज्याचे मांड पडटाले तशे गोंयभरच्या प्रकाशकांचे पुस्तकांचे मांड पडले, दर दिसा थंय कसली ना कसली साहित्यीक कार्यावळ जाली जाल्यार त्या गांवाक एक नवें चैतन्य त्या काळा पुरतें येवं येता.

आज गांवा गांवानी साहित्यीक जात्रांचें आयोजन जावपाची गरज उप्रासल्या. दोळ्यां मुखार पुस्तक दिसलें जाल्यार तें विकतें घेवपाक जीव चिटमिटटाच. ते पासत गांवच्या दोनशें लोकां कडेन संपर्क दवरून गांवच्या मुखेल्या मेरेन गोंयभरच्या प्रकाशकांनी पुस्तकां कशीं पावोव येतात हाचेर विचार जावंक जाय. लोकोत्सव जायच पूण साहित्योत्सव जाय मनशाच्या मनाक उभारी दिवंक



कथा



मिलींद म्हामल

गोंय विद्यापीठांत प्राध्यापक म्हणून वावुरपी ***मिलिंद म्हामल*** इंदिरा गांधी मुक्त विद्यापीठ, पिलार गोवा अध्यापन केंद्राचे समन्वयक जावन आसात. तांचे कथासंग्रह, नाटकां, चरित्रां, इतिहास, ग्रंथसुची, दस्तऐवज संकलन अशीं साबार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांकां साबार पुरस्कारूय लाबल्यात जातूंत गोमंतक मराठी अकादमीचो आनी धि गोवा हिंदू असोसिएशन च्या पुरस्कारांचो आसपाव आसा.

*आडवन कोणाचां? कोणी कोणांक विकलां? ह्या प्रस्ना परस तां एका परक्या मनशाक विकलां ह्याचा दुख्ख अदीक आसलां. पूण तरी सुद्दां धा कोटीक तां विकत घेवन पाडे फसलो असां खूब लोकांक दिसा. आडवनांत वचपाक सरळ सादी वाट नासताना पाडेक आडवनाचो काय उपेग?*

# आडवन

दर्याचेर आतां सदींच जात्रा भरता. देशी विदेशी सगलेच भोंवडेकार येतत. कलंगूट कोलवा सारक्या दर्या परस हैंसल्या दर्यार भोंवडेकारांक खूब मेकळीक आसा. तेंचें खातीर शॅक्स, हॉटेलां सगलांच आसा. काश्मिरी, राजस्थानी, चायनीज, नायजेरीयन रस्त्यार, डोंगरार, मेळटा थंय बसान आपापलो माल विकतत. दोन नंबरचो माल सहज मेळटा आनी दर्यारय जायां तसां भोंवपाक मेळटा. कितकीय मस्ती कर कोणच इचारचो ना. इचारलांय जाल्यार चिरीमिरी दिल्यार सगलांच माफ. पर्यटाना खातीर सगल्याच मार्गानी पयसो मेळटा. राजकारणी, फिल्मस्टार, उद्योजक सगल्यानीच हैंसली शेतां, डोंगर विकते येतल्यात. पूण इतक्या आसानय तेंचे नजरेतल्यान आडवन कसां काय सुटलां?

सरळ सोप्यां गणीत आसा. आडवन नांवा प्रमाणच आड जाग्यार आसा. थंय वचपाक सरळ वाट ना. कसलीच गाडी वचपाची थंय सोय ना. आडवनांत वचपाचां जाल्यार शेताच्या बांदा वयल्यान, तांय चलत. एके वाटेन शेत, फुडें डोंगर आनी व्हडली न्हंय. हीच न्हंय आडवनांतल्यान व्हांवत दर्याक मेळटा. आडवना पसून दर्या एक किलोमीटर लांब. रानांतल्यान आडवनांत वयतलो जाल्यारय अडचण. दोनांय मदीं काट्या कुट्यांनी भरलली एक व्हडली व्हाळी आसा. पावसाळ्यांत डोंगरा वयल्यान ती आडवनांतल्यान वाट काडीत न्हंयक मेळटा.

आडवन तसां बरांच मोठा. आडवनांत शंभरेक माड आनी कुलकर्ण्याचां घर. दिडशीं वर्सां पयलीं विठोबा कुलकर्णी नांवाच्या मनशान आडवन वसयलां. आडवनांत एका टायमार दलदलच आसली, सगल्याक पाणी साठवान रवा. विठोबान थंय मातयेची भर घालून घालून माड लायले आनी घर बांदलां. धा धा मिटरचां अंतर सोडून माड वेवस्थीत एके लायनीन लायल्ले. ते खातीर माडाच्या मदीं दुसरां पीक घेवपाक मेकळीक आसली. खूब वर्सां पयलीं थंय नासणो, मको बी लायत. वाली मिरसांगाचां पोरसूंय करीत. विठोबाक भायर खंयच वचपाची गरज नसली.

विठोबाचां आडनांव कुलकर्णी आनी पोर्तुगीजांच्या टायमार कामय कुलकर्ण्याचां करी. म्हणजे ग्रामसंस्थांचो आनी लोकांच्या उत्पन्नाचो हिशेब



दवरपाचां काम करी. दप्तर सांबाळटाना लोकांक फटोवन क्यांवा तरी तेणी शेत जमीन आनी आडवण हडप केल्यां असां जाणटे सांगतत. बांदा पवलाडाचां शेतय कुर्लकर्ण्याचां. आतां ते मुंडकार करतत. विठोबान घर मात बरांच मोठां बांदलां. शेजाराक औदुंबर, पिंपळ, आनी आंब्याचीय झाडां लायलीं. एक मोठी बांयय आसा. पूण इतक्यां मोठां घर आसानय घरांत कोणच ना. फाटलां पंचवीस तीस वर्सां कुलकर्ण्यागेलो कोणच थंय फिरकांक ना. घराची राखण करपाकय कुलकर्ण्यान कोणांक दवरूंक ना. शेतां मुंडकारा कडेन आसलीं तरी आडवनाक मुंडकार ना. शंभरेक माड आसल्या कारणान सुकान पडलले नाल आनी चुडतां लागीं करपाक अर्दी मर्दी लोक भोंवत आसतत. आडवनांत फळझाडांय बरींच आसत. पूण आतां थंय झुडपां वाडल्या कारणान सोरपांचो भंय अदीक.

आमच्या ल्हानपणांत टि. व्ही., मोबाइल सारकीं करमणुकीचीं कसलींच साधना नसलीं. खेळप ना जाल्यार गांवभर भटकप इतलेच पर्याय आमच्या मुखार आसले. धनंजय आमचे वांगडा आसलो काय त्याका आडसारां खावपाची हुक्की येताली.

''या मरे आडसारां खांवक?'' - असां धनंजयान म्हणटकत सगलेच तयार जाताले. माका मात भंय दिसतालो.

''कोणीतरी बघीत मरे?''

''भिवपाचां आसा जाल्यार आमचे बराबर येंव नाका.''

''पूण कोणतरी अपघाती इलो म्हणजे?''

''आतां कोण मसणो येता? विठोबा पावला आसतलो वैकुठांक.''

''परत परत आडसारां खावपाक तां काय तुज्या बापायचां भाट आसा?''

''कोणाच्या बापायचां तां मगेर बघया, तुका येवपाचां आसल्यार ये, ना जाल्यार आमी बाकीचे वयतंव.''

धनंजयान असां म्हणटकत मगे कसलीच सोय नसली. बिनधास्तपणान आडसारां खावपाचीं तीं आडवनांत वचान आनी तींय बी धनंजया वांगडा. धनंजय आमचेकून एक वरस ल्हान, पूण जिवान मोठो आसल्या कारणान सदींच आमचेर शेक गाजयतालो. आडवनांत विठोबाचो आतां भंय नसलो, आसलोच जाल्यार आमच्यांच बापायचो. माडार चडान आडसरां खातत ह्यां कळ्ळयार मार पडपाचो. माराचां मोठासां काय नसलां, पूण माडा वयल्यान पडपाचो भंय अदीक. धनंजय आनी क्रिष्णा माडार चडताले. क्रिष्णाचो बापूय पाडायी. तो सपासप माडार चडटालो आनी आडसारांचे पेंडयेच उडयतालो. आडसारां सोलपाक कोयतोय नसलो, धनंजय मगेर एका व्हडल्या फातरार धाडावन तीं सोलतालो. आमी फकत आडवनांतलींच आडसारां खाल्लीं. दुसऱ्यांच्या माडांक हात लावंक ना. कोणी बघल्यार तसो भंय नसलो, विष्णूकाका तर सदींच म्हणटालो,असल्या बामणांक नागोवनच खांवक जाये, ह्यां भाट आमच्या पुर्वजांचा, कुडवाळी लोकांच्या अज्ञानाचो फायदो घेवन बामणांनी भाटां आपल्या नांवार चडयलीं आनी भाटकार जाले.

खरां सांगचां जाल्यार विठोबा कुलकर्णी भायलोच. पोर्तुगीजांचा दप्तर सांभाळपाक तो आमच्या गांवांत इल्लो. तेणी लोकांच्या भल्या खातीर पोर्तुगीज सरकाराक कसली तरी येवजण तयार करून सादर केली आनी पयशे मेळयले. त्याच पयशांतल्यान तेणी आडवन वसयलां. आडवना खातीर आमचे आजे पणजे राब राब राबले. डोंगराची माती आनी म्हंवचो चिखल काडून आडवन तयार केलां. ते खातीर 'आडवन कोणाच्या बापायचां?' ह्या प्रश्नाचां उत्तर प्रश्नातच आसलां.

विठोबा कुलकर्णीचे तीन पिढये आडवनांतल्या घरांत रवले. विठोबा, तेचो झील विनायक, आनी नातू विनय. विठोबा ऐंशी वर्सां जगलो. त्या उपरांत विनायकान विठोबाची वारी चलयली. नातू मात खूब ल्हानपणान शिक्षणाच्या निमतान मुंबयक सोयऱ्यां कडेन गेलो आनी खूब काळ थंयच रवलो. आडवनांत इलो तो लग्न करूनच. ते उपरांत विनायकराव दोन वर्सांनी मेलो आनी सगली जबाबदारी विनयाचेर इली. लग्न जांवन पांच वर्सां मेरेन कांयच भुरग्यां बाळ नसलां. ते उपरांत एक भुरग्यां जालां खरां पूण आठ दिसांनीच मेलां. खंय काय चुकलां, कांय कळपाक मार्ग नसलो. गांवांतले लोक मात कुजबूज करताले. विष्णूकाका तर सदींच म्हणटालो, सोर्पपणान ह्यां भाट पचाचां ना त्यांकां, आज्याचीं कर्मां नातू भोगता.

खूब शिकान सवरान विनय आडवनांत रवपाक इलो तरी सूख नशिबांत नसलां. बायल दुसरे फावट गुरवार जाली त्यांवा तिका कसले तरी भास जावपाक लागले. न्हिदच पडाना जाली. आडवनांत घर आसल्या कारणान शेजारी पाजारीय नसले. ती विनयाक म्हणपाक लागली,''कोणी कसली तरी करणी क्यॉल्या आसतली, माका भास जातत आनी कोणतरी मारपाक येता असां दिसता, माजां एक भुरग्यां गेलां, दुसऱ्याक मारपाची माजी इत्सा ना. आमी बेगीना मुंबयक वचाया आनी थंयच रवाया.''

विनयाच्या नात्यांतले सगले मुंबयक. खूब पयसो नांवार आसलो. शेवटाक कसलीच कटकट नाका म्हूण बायलेक घेवन तो मुंबयक गेलो. वयताना कोणांकच सांगा नसताना गेलो, आनी गेलो तो परतून येवंकच ना. आडवनाची देखभाल करपीय कोण नसलो, आडवनांत झुडपां वाडलीं आनी घरय मोडपाक लागलां. माडाचे नाल सुकान पडत. खूब लोक ते लागीं करीत. आमचो डोळो मात आडसारांर. धनंजया वांगडा सात आठ वर्सां तरी आमीं आडसारा खाल्लीं.

धनंजय रोखडोच मोठो जालो. चार वर्सां कामा खातीर दुबयक गेलो आनी परतून इलो. इलो त्याच वर्सा पंचायतीची निवडणूक. त्याका लागपी पयसो धनजया कडे आसलो. आनी सगल्यांनीच त्याका पाठींबो दिलो आनी तो निवडानय इलो. पंच जाल्या बरोबर धनंजयान आमकां आडवनांत जंगी पार्टी दिली. त्या निमतान आडवनांतले वाटी जागे जाले. आडवनांतले माड आतां खूब जुने जाल्ले. कुयदाद नसल्या कारणान नाल आनी आडसारांय कमी दिसत. चार पांच मोडानय पडलले. सगल्याक झुडपां वाढललीं आनी विठोबाच्या घराचे ढिगारेच शिल्लक आसले.

धनंजय आतां पक्को राजकारणी जालो. सगलेच धंदे आनी समाजकार्य करपाक लागलो. खूब लोक त्याका मेळपाक येताले. एक दीस पांडे नांवाच्या मनशाक तो आडवनांत घेवन इलो. पांडेन बरोच वेळ आडवनाची पळोवणी केली आनी आडवन विकत घेवपाची बोलणी सुरू जालीं. आतां आडवन कोणाच्या बापायचां? आनी तां विकपाचां जाल्यार कोणी विकपाचां? धनंजय मोठ्ठो हुशार.



तेणी आपल्या बापाय सकट हेर चार जणांचीं नांवां आडवनाचे मालक म्हण लायलीं. विठोबान पंचवीस वर्सां पयलीं आडवन पांच जणांक विकलां. तशीं कागदपत्रां धनंजया कडेन आसलीं. पंचायती पसून मामलेदारा मेरेन सगल्यांक हातीक धरून मूळ कागदपत्रांच बदललीं. विनय कुलकर्ण्यांचा फुडें काय जालां? काय तेचो निरवंश जालो? कोणांक खबर. धनंजयान मात आडवनाचां वेवस्थीत केल्लां. तां विकपाक पांच नव्या मालका कडल्यान पावर ऑफ एटरनी सुद्दां मेळयल्ली. म्हणजे आतां पांडे वांगडा वाटाघाटी करपाक मेकळो.

भितरले म्हायती प्रमाण निमाणां धा कोटींक आडवन विकलां आनी एकेच रातींत धनंजय कोट्याधीश जालो. तेतूंतले अर्दे अदीक पयशे दुसऱ्यांचीं तोंडां बंद करपाकच गेले. जेंचीं नांवां चडयल्लीं त्यांकांय कांय लाख रुपया दिले. सगलेच खूश. धनंजयान आपले खातीर एक मोठ्ठो बंगलो बांदलो आनी गांवांत त्याचा वजन वाडलां. वेगवेगळे स्पर्धा आनी कार्यक्रम पुरस्कृत करून तो समाजकार्य करपाक लागलो.

आडवन कोणाचां? कोणी कोणांक विकलां? ह्या प्रस्ना परस तां एका परक्या मनशाक विकलां ह्याचा दुख्ख अदीक आसलां. पूण तरी सुद्दां धा कोटींक तां विकत घेवन पांडे फसलो असां खूब लोकांक दिसा. आडवनांत वचपाक सरळ सादी वाट नासताना पांडेक आडवनाचो काय उपेग? विठोबान आडवनांत घर बांदलां त्यांवा आमच्या जाणट्यांनी बांदकामाचां सगलां सामायन माथ्यार मारून हेल्लां. आजूनय थंय कसलीच गाडी वचपाक शकाना. पांडे थंय बांदकाम कसां काय करतलो? आनी केलांय तरी विठोबाच्या वंशावळीक जां पचांक ना तां पांडेक पचतालां काय? आनी विठोबाचो नातू विनय अकस्मात टपाकान तां आपलां म्हुटलां तर? हे सगले सर्वसामान्याचे प्रस्न. माकाय खूब प्रस्न पडत पूण तेचीं उत्तरां माजे कडेन नसलीं. एक दीस धनंजय एकटो मेळळो, त्याका सरळ सरळ विचारलां,

''आडवन विकलय काय रे?''

''विकलां तर।''

''विकपाक कोणाच्या बापायचां रे तां? आनी कुलकर्णी अकस्मात इलो तर तुजां फुडें काय?''

''आतां कोण फोर्णो वाता थंय, कुलकर्ण्याचो निरवंश जालो, सगली खबर काडलय मी.''

''पूण दुसऱ्याच्या नांवा वयलां कसां काय विकपाक शकतय तूं?''

''विकपाची पावर ऑफ एटरनी आसा माजे कडेन.''

''कुणी दिली?''

''तां कित्याक? तशे भानगडी करचेंच पडले, ना जाल्यार तसांच पडान उरपाचां. आडवन काय कुलकर्ण्याच्या बापायचां न्हू.''

''मगेर कोणाच्या बापायचां?''

''तां आतां कोणायच्याच बापायचां उरांक ना,आसलांच जाल्यार आमच्या सगल्यांच्याच बापायचां तां. पोर्तुगीजानी कुलकर्ण्याक लिजार दिल्लां णव्याण्णव वर्सांचो करार करून. वर्सांय सोपली आनी पोर्तुगीजय गेले. आमी म्हूण काय करतलंव आसलंव? माजां माजां म्हूण कोणाकच खांवक दिवचंव नसलंव. म्हुणान इकलां मी तां. कोणांक काय दिवंक जायां त्यांकां दिलय मी. आतां काय म्हणणां आसा तुजां?''

धनंजयान माकाच प्रश्न केलो. तेचे फुडें बोलप शक्यच नसलां. पूण जेची किंमत खूबच तर एक कोटी आसली तां धा कोटींक कसां काय विकलां हेची उत्सुकताय आसली, तसां धनंजयाक विचारलां त्यांवा म्हणपाक लागलो,

''ह्या जगांत मरे कोणच पिशे ना, आनी दोन म्हयने राव, आडवनांत पयशांची गंगा व्हंवतली.''

''कशी काय?''

''इतक्यां शिकान कांयच फायदो ना तुजो. टुरिझम म्हुणान काय तां कांयच खबर ना तुका. दुबयच्या वाळवंटान ताकायत टुरिझम आसा. आतां आडवन सुदारतालां. आमचे पयकीं शंभर जण कामांक लागतले हैंसर, पांडे बरोच हुशार आसा, तेचे भागीक आनीकय आसत. तेंची नांवां आतां नाका. सगलां वेवस्थीत जातालां.''

धनंजयाच्या म्हणण्या प्रमाण आडवनांत मोठ्ठो प्रकल्प येतलो हेची कल्पना आसली. पूण भोंवतणचां वातावरण बयल्यार आडवनांत तां कसां काय शक्य आसा ह्या कोडां सुटपाक कठीण आसलां. पांडेन आडवनाचो ताबो घेतलो आनी एकाच फावटी दोनशी कामगार कामांक लागले. आडवनांतल्या झाडा झुडुपांची साफसफाई जाली आनी शेतांतल्या बांदार अदीक भर घालून तो मजबूत केलो. कांय कामगार न्हंयत उतारले आनी न्हंयतलो चिखल काडलो. आडवना पसून दर्या मेरेनचो चिखल काडल्या उपरांत न्हंयचें पात्र चड खोल जालें. पांडेन आडवनाच्या सगल्याच वाटांनी आलुमेनचे पत्रे लायले आनी भितर काय चल्लां तां कळपाक कठीण जालां.

ते दिसा इंटरनेटार गुगल सर्च करतालों. 'आडवन' अशें सर्च केल्या उपरांत हजारांनी हिंट्स मेळळे. गांवांत रावानय गांवांत काय चल्लां तां गांववाल्यांक खबर नसलां, पूण इंटरनेटार तां जग जाहीर आसलां. विकीपेडीयांत तर आडवनाचो इतिहास आसलो. आडवनाचें नामकरण आतां 'पांडववन' अशें केल्लें. पांडववन म्हळ्यार ह्या भुप्रदेशांतलो दुर्लभ असो प्रदेश. वनवासांत आसताना पांडव क्यांवा तरी ह्या वनांत येवल्ले म्हणून त्याका पांडववन म्हणटत. पांडववनांत कल्परुक्षाच्या झाडां खेरीज आनीकय वखदी वनस्पती आसत. कैलासार वचान तपसाधना करपाचें जें सूख मेळटा तें पांडववनात लेगीत मेळटा. तें पळोवपाक आनी अणभवपाक एकदा तरी भेट दिवची अशी जायरातय स्काल जाताली. पांडववनात वचपाक बुकींग करपाक फोन नंबर आनी ईमेल आयडीय दिल्लें.

खूब दिसांनी धनंजय मेळळो. म्हणपाक लागलो,'' चल तुकां आडवनांत व्हरतंय.''

माका तेणी आपल्या गाडयेंत बसयल्यान आनी दर्यार व्हेलो.

''आडवनांत व्हरतंय म्हूण सांगान माका दर्यार सो हाडलय.''

''बग तरी मजा.''

धनंजयान माका न्हंय दर्याक मेळटा त्या संगमार हेलो. थंय कितलेशेच धाकटे धाकटे यंत्रिकी बोटी आसले. धनंजयान बोटवाल्याक चार हजार दिवन दोन तिकिटी घेतले आनी आमी न्हंयतल्यान प्रवास करपाक लागलंव. न्हंयच्या देगेक पांडवनाचे बोर्ड आसले. आनीक थोडें फुडें गेल्या उपरांत न्हंयचेरच प्रवेशव्दार दिसलां. 'वेलकम टु पांडववन' असां तेचेर नांव आसलां. बोटींतल्यान उतारल्या उपरांत थंयच्या ललनानी आमचां जंगी स्वागत केलां. इंटरनेटाचेर म्हायती आसली तसांच पांडववन दिसा. तरेतरेची बांदकामां. माडांचेर कोको हट्स, आनी जमीनीचेर पर्णकुटये. अप्सरा विहार, रंगमहाल, द्यूत-क्रिडा, रास-क्रिडा, जल क्रिडा, रसपान गृह, सोमरस, योग मुद्रा, आयुर्वेद, गंधर्व गान, ह्या सारक्या नांवांचीं कितलींशीच कुटींरा बांदललीं. तरेतरेच्या फुलांनी आडवनाची सजावट केल्ली. आडवनांतल्या डोंगराक कैलासधाम असां नांव आसलां. तेचेर शंकराची भव्य मुर्ती आसली. थंय वचपाक व्हाळयेंतल्यान वाट केल्ली. शेताच्या

बांदा देगेक पाणयाचे फवारे उडताले. शेतांतल्यान आडवनांत येवपाची वाट बंद केल्ली. आतां फकत ल्हान बोटींतल्यानच आडवनांत येवपाक मेळटालें. थंय फिरता फिरता दोन वरां सहज गेलीं. कितलेशेच अप्सरा आमकां आपापल्यां कुटीरांत आफयताले, पूण कसलोच भोग येय नसताना आमी बोटींतल्यान परत दर्यार पावलंव. धनंजयाक विचारलां,

''काय रे धनंजय, आडवनांत वचपाक तुकांय पयशे लागतत?,एकट्याक दोन हजार?''

आडवन आतां आमचां रवांक ना, तां पांडववन जालां, सगल्याक पयसोच बोलता, धा कोटी रुपयांक विकलां त्यांवाच माजो आनी आडवनाचो संबंद सोपलो. पांडेन धा कोटी रुपयांक विकत घेतलां तां, शेजारचो डोंगरय घेतलो, आडवनांतली गर्दी बघलय मरे, लोक थंय आतां स्वर्गातलां सूख भोगपाक येतत, एका वर्सा भितर पयशे सुटतले तेचे.''

''पूण थंय आमचे कोणच दिसानत मरे, शंभर लोकांक कामांक लाय मरे तूं?''

''पांडेचो हैंसल्या लोकांचेर विस्वास ना म्हूण भायल्या लोकांक कामांक लायल्यात, असलीं कामां आमच्या लोकांक झेपार्चीय नसलीं.''

''आडवन सामक्यांच बदललां, जगाच्या नकाशार पावलां,सदींच येतय काय रे हैंसर.''

''आडवन आतां आमकां परवाडपाचां ना, फकत तीन फावटी पावयलंय, एकदां इल्यार कोणय वीस पंचवीस हजार सहज मोडटा. हैंसर आतां सगले सुखसोयी आसले तरी चोरून आडसारां खांव ती मजा ना आतां, कितकोय पयसो मोडलो तरी जालां तां बरां जावंक ना असां दिसता, न्हीजच कशी ती पडाना.''

आडवन विकून धा कोटींतले पांच कोटी रुपया आपणांक दवरून ताकायत धनंजयाच्या मुखामळार दुख्खाची झलक दिसताली. पयलीं आडसारां खाताना कोणाच्याच बापायक तो भियां नसलो. आतां आडवनांत वयतलो जाल्यार प्रवेश फी लागता. आडवन कोणाच्या बापायचां? ह्या प्रस्नाक आतां अर्थ उरांक ना. तां आतां आमच्या बापजाद्यांचां न्हू आनी कुलकर्ण्याचांय न्हू. आडवनांक आतां महाभारतांतल्या पांडवांचां नांव जोडलां, पांडेच तेचो बापूय आसा.



गोंय विश्वविद्यालय. मो: ९८२२५८०७८९

शिंयेली जतनाय



सखाराम शेणवी बोरकार

# कोंकणी म्हणी आनी वावप्रचारांतले दोळे

कोंकणी कवितेंत मोलाची भर घालपी **सखाराम शेणवी बोरकार** काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणीत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.

*दोळ्यांक सदांच विलासी, कामूक अशें मानतात. दोळ्यांक वायट बरें सगळेंच पळोवंचेशें दिसता. सगळ्यांत पयलीं पाप करतात ते दोळे. म्हणून जीव हो सदांच सुवार्थ पळयता. जिवाक सगळें आपल्याकच मेळचेशें दिसता अशें सांगपी ही ओपार.*

फार्टी हांव आनी म्हजो आमीग सकाळ फुडें म्हापशां कोणाक तरी मेळपाक गेल्ले. येतना वेळ जालो आनी वेल्यान 'ट्राफीक जॅम'. आमकां आगशे पावसरच्च दनपारचीं दोन जालीं. पोटाक चुरचुरून भूक लागिल्ली. म्हजो आमीग म्हणूंक लागलो, ''फुडें आनीक 'ट्राफीक जॅम' मेळळयार आमी मडगांवां कितल्यांक पावत तें सांगूक नज. हांगा एके कडेन बरी 'रायस- प्लेट' मेळटा, हांगाच जेवया.'' आमचे मुखार दुसरो आनीक उपाय नासलो. हांवें 'बरें' म्हळें. मोटार तार्णे एका ल्हानशाच हॉटेला मुखार थांबयली. हॉटेलांत भितर सरून म्हज्या आमिगान दोन 'रायस - प्लेटीं'क ऑर्डर दिली. हांव हात धुवपाक म्हण बेसिनाकडे गेलों. बेसीन किचनाक तेंकूनच आसलें. हांवें भितर किचनांत पळयलें. भितरलो तो देखाव पळोवन म्हजें आंग शिरशिरलें. हांव हात धुवन येतगीर ती गजाल म्हज्या आमिगाक सांगली. तार्णे म्हळें, ''चडशा अशा हॉटेलांच्या किचनांत अशेंच आसता. '' इतल्यांत आमच्यो 'रायस- प्लेटी' आयल्यो. हांव जेवपाक अनमनपाक लागलों. म्हजो आमीग म्हाका म्हणूंक लागलो, ''येदोळ कितें पळयलां तें विसर आनी जेवपाक लाग. जाणा मरे 'दोळ्यां आड मसण पाड'। ''

तेव परिस्थितींत म्हाका तार्णे वापरिल्ले म्हणीची लक्तुबाय दिसली. आमचे थंयचे परिस्थितीक 'मुदयेर थीक' कशी ती म्हण!

आपल्या दोळ्यां सामकार ज्यो गजाली जातात त्यो आमी पळयतात, ताचेर विचार करतात आनी बऱ्यो काय वायट तें थारयतात आनी खातात जावं वापरतात. पूण थोड्यो गजाली आमच्या दोळ्यां आड पडटात. त्यो आमकां दिसनांत आनी आमी ताचेर कसलोच विचार करिनांत. देखीक हॉटेलांतली खंयचीय खावपाची वस्त येवं येता. ती कोणें केल्या, खंयच्या आयदनांत केल्या, खंयचें तेल वापरलां आनी कसल्या वातावरणांत केल्या हाचेर आमी विचार करिनांत. ती वस्त एका बऱ्या युनिफॉर्म घाल्ल्या वेटरान सुंदर प्लेटींत घालून हाडटकच आमी ताचेर तुटून पडटात. त्या वेळार हे ओपारीचो अणभव येता. मराठींत ताका 'दृष्टी आड सृष्टी' अशें म्हणटात.

कोंकणींत दोळ्यांचेर खूब म्हणी आनी वाक्प्रचार आसात.

कोंकणींतली एक फामाद म्हण म्हळयार, *'दुसऱ्याच्या दोळ्यांतलें किसळ दिसता, आपल्या दोळ्यांतलें मुसळ दिसना'*. सोळाव्या शेंकड्यांत ही ओपार अशी मारताले, *'दुसऱ्याल्या दोळ्यांत किसळ दिसता आपल्या दोळ्यांतलें खांडणें (कांडण) दिसना'*. खांडणे (कांडण) आनी मुसळ एकच. ही ओपार जेजूच्या उतरां वेल्यान आयल्या, 'दुसऱ्याच्या दोळ्यांत कुसकूट काडूंक आनी आपल्या दोळ्यांतल्यो कामीं विसरूंक'. 'आपल्या दोळ्यांत पाटी आसा ती दिसना, दुसऱ्याच्या दोळ्यांत कुसकूट आसा तें दिसता'. दुसऱ्याचे बारीक सारीक दोश दिसतात आपले आनी आपल्या मनशांचे व्हड दोश दिसनात, असो ह्या म्हणिंचो अर्थ.

'दोळ्यांचें तें खरें, कानाचें तें फटकिरें', आपल्या दोळ्यांनी पळयल्या शिवाय दुसऱ्याचें आयकुंचें न्हय. जण एकल्यान सत तपासून पळोवंक जाय. अशें आमकां ही ओपार सांगता. ही ओपार सगळ्या भासांनी मेळटा.

'दोन दोळे शेजरा, भेट जायना संवसारा', जशे दोन दोळे एकामेकांक लागीं आसूनय ते केन्नाच एकामेकांक मेळनांत, तशेंच शेजारा आसून लेगीत शेजारी एकामेकांक मेळनांत, एकामेकांक मोग दाखयनांत तेन्ना ही ओपार मारतात. हीच म्हण 'दोळ्या दोळ्याक भेट ना, शेजरा आसून गुर्तू ना' अशी कर्नाटक वाठारांत चलता.

'दोळे आसतना, दिश्ट ना', मनशा कडेन सगळें आसतना तो कांयच करूंक सोदी ना ताका ही ओपार मारतात.

'दोळे पापी, जीव सुवार्थी' म्हळ्यार लोभ अनावर जावप. दोळ्यांक सदांच विलासी, कामूक अशें मानतात. दोळ्यांक वायट बरें सगळेंच पळोवचेंशें दिसता. सगळ्यांत पयलीं पाप करतात ते दोळे. म्हणून जीव हो सदांच सुवार्थ पळयता. जिवाक सगळें आपल्याकच मेळचेंशें दिसता अशें सांगपी ही ओपार .

'दोळे आसून दिसना, कान आसून आयकना', कोणय कसलेंय काम वा अरिश्ट चुकोवंक सोदता तेन्ना तो आपणें पळोवंक ना वा आयकूंक ना अशें करता ताका लेखून ही ओपार मारतात.

'दोळे फुटल्यार हिशेब बुडटा?', दोळ्यांनी दिसना जालें तरी हिशेब फट जायना. खरें तें खरेंच हें सांगपी ही म्हण. कोणा कडल्यान घेतिल्लें रीण आपल्याचेर कसलेंय अरिश्ट आयलें तरीय तें पावोवंकच जाय असो हे म्हणीचो अर्थ.

'दोळ्यांत रगत नाशिल्ल्याक सूख दुःख सांगचें वे?', दोळ्यांत रगत नाशिल्लो म्हळ्यार एकदम अलिप्त मनीस जाका दुसऱ्याच्या बरें वायटाचें कांयच पडिल्लें नासता, अशा मनशाक आपलें सुख-दुख सांगून कांयच उपेग नासता हें सांगपी कर्नाटक वाठारांतली ही कोंकणी म्हण.

'दोळ्यांत कोयर पडल्यार कानांत फूंक मारता', रोग एके कडेन आनी उपाय भलतेच कडेन करपी मनशाक ही ओपार मारतात. हीच म्हण 'दोळ्यांत कोयर, गांडीत फूंक' अशीय घोळटा.

'दोळ्यांतलें काजळ चोरपी', दोळ्यांतलें काजळ चोरप ही भोव कठीण गजाल. खांप्या चोराक लेखून ही ओपार मारतात.

'दोळ्यांत खवळां आयिल्ल्या भशेन करप', एकदम श्रीमंती आयिल्लो मनीस गर्वान दुसऱ्या कडेन लक्ष दिना असल्या मनशाक ही ओपार मारतात. हीच म्हण 'पाटलेंत नुस्तें आसतकच नुस्तेंकान्नीच्या दोळ्यार खवळां येतात', अशीय घोळटा. अर्थ वयर सांगला तोच.

'दोळ्यांक उदक लावन फटी सांगता', वायट कर्म करतगीर शुध्दी खातीर दोळ्यांक उदक लायतात. फट सांगप आनी दोळ्यांक उदक लावन मेकळो जावप. हाचे वेल्यान दोळ्यांक उदक लावप म्हळ्यारूच फट सांगप असो ताचो अर्थ जालो. दोळ्यांक उदक लावप हाचो अर्थ दुसऱ्याक दाखोवपा खातीर कामां, असोय अर्थ लायतात. पुजे पयलीं दोळ्यांक उदक लायतात. तितलेंच करून पुजा सोंपोवप असो ताचो भावार्थ.

'दोळे धांपल्यार रात जाता?', थोडे खंयचीय गजाल घडटा तेन्ना ती आडनदर करतात, ती जांवूकच ना म्हण भासयतात. पूण ती गजाल घडटाच. कसलेंय वायट येता तें दोळे धांपले म्हण पयस वचना अशें ही म्हण आमकां सांगता.

'दोळ्यांक लागपाचें भोंवयेक लागून गेलें'. व्हड नुकसान जावपाचें तें जेन्ना ल्हान नुकसानान निभावता तेन्ना ही ओपार मारतात. दोळो गेल्यार परतो मेळना वा दोळ्याक दुखापत जाल्यार ती सारकी जावपाक खूब वेळ आनी पयसो लागता. पूण भोंवयी गेली जाल्यार परती येवंक शकता. 'दोळ्यांर आयलें फाटीर गेलें', हिवूय ह्याच अर्थाची दुसरी एक म्हण.

'कावळ्याचो दोळो तवश्यार, मांजराचो दोळो भोपश्यार', कावळ्याक तवशें आनी माजराक भोपशें (बारीक नुस्तें) आवडटा. जण एकलो आपल्याक आवडटा ते वस्तुचेर दोळो दवरून आसता

तें सांगपाक हो म्हण वापरतात. सोळाव्या शेंकड्यातली हो म्हण.

ह्या दोळ्याचेर साबार वाक्प्रचार आमका मेळटात.

१ दोळो आसप: एकाद्री वरत आपल्याक मेळची अशी आरत बाळगप

२. दोळे उगडना: अती गर्व जाल्ल्या मनशाक फुडलें-फाटलें कांयच दिसना.

३.दोळो चुकोवप: नदर चुकोवप, नदरेक पडप ना.

४. दोळो दवरप: नदर दवरप.

५. दोळो लागप: लकणी येवप.

६. दोळे उगडप: सावचीत जावप.

७. दोळे मोठे करप: रागान पळोवप.

८. दोळे भरून पळोवप: आस सोंप मेरेन पळोवप.

९. दोळ्यांच्यो वाती करप: खूब कश्ट करप.

१०. दोळे मोडप: खुणो करप.

११. दोळ्यांत तेल घालप: जागरूक आसप.

१२. दोळ्यांतल्यान देंवप: मनांतल्यान देंवप.

१३. दोळ्यार कातर्डे ओडप: पळोवनाशिल्ले भशेन करप.

१४. दोळ्यांत माती पडप: दुस्वास करप.

१५. दोळो उगडना जावप- बेशुध्द वा गाढ न्हिदांत आसप, गर्व जावप.

१६. दोळे धांकप- मरप; दुर्लक्ष करप.

१७.दोळे निवळप- दोळे स्वच्छ जावप, तकलेचो भ्रम उतरप.

१८. दोळे फिरप- चड अजापान मनाक धक्को बसप.

१९. दोळे फुटप- दुसऱ्याचें बरें जाल्लें सहन ना जावप, मत्सर जावप, आंधळो जावप

२०. दोळे फोंडात गेल्याती- दोळे खोल गेल्यात (१५५६ वर्सांतलो कोंकणी वाक्प्रचार)

२१. दोळे फुटको- आंधळो, दुसऱ्याचें बरें जाल्लें सोसना असो.

२२. दोळे भर वा दोळे भरून पळोवप- व्हड मायेन वा चड कौतुकान पळोवप.

२३. दोळे भेट- खिणभर पळोवप.

२४. दोळ्यार हात काडप; हातार दोळे काडप- हातचलाखी करप, फसवप.

२५. दोळे येवप- उष्णतेन दोळे सुजप, दोळे तांबडे जावन दुखप.

२६. दोळे वरश करप- बेशुध्द पडप

२७. दोळे वाटारप- रागार जावप.

२८. दोळ्यां आड- अफकी, नदरे आड

२९. दोळ्यां मुखार काळोख येवप- अशक्ततायेन काय दिसना जावप.

३०.दोळ्यांत प्राण हाडप- जीव वचपाचो प्रसंग येवप.

३१.दोळ्यांत फूल पडप - दोळ्यांत मोती बिंदू जावप.

३२.दोळ्यार येवप- गर्व जावप.

३३. कावळ्या दोळो कसो - नितळ वस्त

अशे दोळ्यांचेर आदारिल्ले साबार वाक्प्रचार आसात.

ह्यो आसल्यो दोळ्यांचेर आदारिल्ल्यो म्हणी आनी वाक्प्रचार.

पाजीफोंड-मडगांव, मो.: ९९२३३०६७५१

बिम्ब मासिक

ललित

काश्मिरी पावसकार



**काश्मिरी पावसकार** पेशान शिक्षिका जाल्ल्यान तांचो सातत्यान संपर्क येता तो विद्यार्थ्यांलागीं आनी नवनव्या कल्पना विश्वा कडेन. हाकाच लागून तांचे विचार एके वेगळेच गतीन साहित्यरुपांत परावर्तीत जातात. कांय वर्सां फाटीं त्यो बिम्बांत सातत्यान सदर बरयताल्यो. तांचें एक पुस्तक्य उजवाडाक आयलां. बऱ्याच काळान तांचे साहित्य वाचप्यां मुखार येता ही वाचप्यां पासत खोशयेची गजाल.



# होळी

***खरें म्हळ्यार होळये निमतान मनांतली कोडसाण विसरून एकामेकाक पर्थून मेळप. दुस्मानकाय सोडून इश्टागत जोडप. वायटाचेर बरेपणान जैत मेळोवप. तशेंच जिणेंतले स्राप-ताप, पिडा-नही होळये उज्यांत लासून नव्यान सुरवात करची आसता.***

दिवाळेची परब म्हळ्यार दिव्यांची आनी उजवाडाची. संक्रांत तिळगूळ खावन गोड उलोवपाची. दसरो शस्त्र पुजा करपाची. अशा ह्या सणां-परबांची परंपरा आनी हेतू हांचो विचार केल्यार आमकां आमचे संस्कृताये विशीं एक वेगळी वळख मेळटा. ह्या सगळ्यां मदीं होळी मात्शी विशेश.

होळी ही भारतांतली खूब आदली परब. 'धोलार पडटा बडी आनी शिगमो दारांत येता रेऽऽ' अशीं शिगम्या गितां गायत मेळ दारांत येतात. खरेंच! अशी ही खोशयेची आनी मोगाची परब कोणाक आवडची ना? वसंत ऋतूंत मनोवपी ही परब फाल्गून म्हयन्याचे पुनवेक येता. देखून ह्या उत्सवाक वसंत उत्सव वा काम महोत्सव ह्या नांवानूय वळखतात. नव्या जिविताचो संकेत दिवपी हो उत्सव देखुनूच आयज पुराय संवसारभर मनयल्लो पळोवंक मेळटा.

रुतुराज वसंताच्या येवकारान सैमान आपली कूस बदलिल्ल्यान सैमाचें मनभुलयणें रूप आमकां पिशें लायता. शिगम्याची पयली जाग येता ती हुस्केक. उपरांत पळस, पंगारो, माट्टी, चांफो फुलतात. सांगातान आंबो, काजू चंवरतात. हाका लागून सैमा भितर पळोवंक मेळपी एकोड्या रंगाची सुवात तरेकवार रंग घेवंक लागतात आनी ह्या रंगांचो सांकेतीक अर्थ म्हळ्यार होळी. उत्तर भारतांत ही परब 'फागुआ', 'छंरडी', 'धुलेंडी', 'रंगवाली होली', राजस्थानांत 'दोल' तर महाराष्ट्रांत 'धुली वंदन' आनी आमच्या गोंयांत 'धुळवड' ह्या नांवान मनयतात. प्रदेशा प्रमाण होळी मनोवचेली पद्दत बदलता. कांय कडेन लोक 'थंडाई', 'भांग', 'भांग पकोडा', 'मालपुआ', 'रसमलाई', 'फिरणी', 'पुरण पोळी' अशीं गोडशीं मुजरत करून खातात.

पुराय भारतांत पयल्या दिसा होलीकेक जळयतात. हाकाच 'होलिका दहन' म्हणटात. दुसरे दिसा येता ती रंगवाली होली. हे परबे फाटल्यान भक्त प्रल्हाद आनी कृष्णाची रासलिला हे सारक्यो आख्यायिका आयकूंक मेळटात. गोंयांत नमनान शिगम्याची बेस बरी सुरवात जाता. दिवचल, म्हज्या कुळारा मांडार बारा जणांक नाल्ल, फळां दिवन तांचो मान करतात. आदले दिसा रवळनाथाच्या देवळांत तरगां न्हेसयतात. तेच रातीर होळी

हाडूक गावकार मया गांवात वतात. हागा दोन देवळांनी दोन होळयो पुजिल्ल्यान एक आंब्याची आनी दुसरी माडयेची हाडटात. भटान होळयेचो पुजा करतकीच गांवचे लोक होळये भोंवतणी बोबो घालीत पुराय रात नाचत गायत बरे तरेन सोबयतात. उपरांत नाल्ल फोडून, साकर वांटून आंगवणी फारीक करतात. कांय गांवांनी होळयेचे अमकेच अशे कुणगे वा भाटलें थारिल्लें आसता. थंयच ते पुजेक लायतात.

शिगम्या दिसांनी वाड्या वाड्यांनी संवगड्यांचे रोमटा मेळ आनी तालगड्यांचे खेळ चलतात. शारां परस गांवचो शिगमो पळोवपा सारको. खंय रणमालें, खंय घोडे मोडणी, विरभद्र, मुसळ, गोफ नाच अशे गोंयचे निजाचे लोकनाच नेटान चलतात. तर दुसरे वटेन तरगां, अबदागिरां नाचयत 'ओस्सय, ओस्सय'च्या तालार जाण्टे-नेण्टे भार आयिल्लेवरीं नाचतात. गांवांनी शिगम्या नाटकांय चलतात. गांवभाव उमेदीन हीं नाटकां फुलयतात. सातव्या दिसा धुळवट. गोंयां भायर शिपडिल्ले सगळे दिवचलकार मुजरत गांवघरा येवन धुळवट फुलयतात. जायती मजा-मस्ती करतात.

खरें म्हळ्यार होळये जिमताना मनांतली कोडसाण विसरून एकामेकाक पथून मेळप. दुस्मानकाय सोडून इश्टागत जोडप. वायटाचेर बरेपणान जैत मेळोवप. तशेंच जिणेंतले स्त्राप-ताप, पिडा-नडी होळये उज्यांत लासून नव्यान सुरवात करची आसता पूण आयज वचत थंय होळये नांवान सोरो पिवप, मिलावटी-रासायनीक रंगांचो वापर, उदका बोमाडे, वाटेर चलपी चलयांची फकांडां मारप, कशाय कशीं वाहनां चलोवप, अपघातांक आमंत्रणां दिवप. हाका लागून होळयेचें खरें स्पिरीटूच गेलां. देखून अंदू आमी आमच्या मनांतल्या नकारात्मक विचारांक लासुया. प्राणवायू दिवपी झाडांक नश्ट करचे बदला नकारात्मकतायेची विखाळी वालूच भस्म करुया.

तशेंच जिणेंतल्या अमंगल, अनिश्ट रानांचो नायनाट करून नवी उर्बा मेळोवया आनी उगत्या मनान नव्या वर्साक वाट मेकळी करून दिवन येवकार दिवया.

मुंबय. मो.: ९८१९३१५३०७

पिपिरमीट



पुजा लक्ष्मीकांत भांडारे

महाविद्यालयांत शिक्षण घेता आसतनाच साहित्याची गोडी लागून साहित्य निर्मिती कडेन वचपी जी पिळगी आसा ताची एक प्रतिनिधी म्हळ्यार **पुजा भांडारे** भक्तीकाव्यांतल्यान आपली साहित्य निर्मणी आरंभ करीत ताणें आतां खुसखुशीत निबंध आनी आपउलोवपांक हात घाला ताचें हें मोस्र.

*म्हजे धुवेक एक बरो जोडीदार दिल्ले पासत तुजे मना काळजा सावन उपकार आटयतां. आतां म्हजे चलयेचें लग्न फकत कांय दिसांचेर पावलां. आतां म्हज्या भुरग्याच्या जिविताचें एक सोबीत चित्र तूं काडल्लो, जातूंत म्हज्या भुरग्याक सगलें सूख मेळल्लें.*

# पतंगा वरवीं चीट

तांबडे दशणीचो रंग मळबांतले अस्तंत दिकेन अचळय चोरिल्लो. चंद्राची सुलूस लागिल्ल्यान सूर्या आपुण्य कुशीक सरूंक लागिल्लो. सूर्य अस्ताक वतना धर्तीन ताका पुताक आपले हांडीर धरचो तसो धरिल्लो आनी तार्चे वजन पेलपाक तिका पालव दिवपाक वाऱ्याचीं ल्हारांय आपले परीन वावुरतालीं. शितळ वाऱ्यान पुराय वाठार भरिल्लो. अशे वेळार एक पंदरा-सोळा वर्सा पिरायेचो भुरगो, आपल्या घराचे गच्चेर आशिल्लो. तो आपल्या हातांनी,आपल्या जिविताची दोरी सांबाळिल्ले वरीं आपल्या हातांतली पतंगाची दोरी सांबाळपाचो यत्न करतालो. पतंग पयस पयस नदर लेगीत पावना, इतले उंचायेर उडटालो. तो भुरगो एकलोच आपलो पतंग सांबाळटालो. ताच्या सांगाताक सर्त करपाक थंय दुसरो कोणूच नाशिल्लो. तरी लेगीत ताची उमेद तितलीच उंचेल्या पांवड्यार आशिल्ली. ताचो पतंग उंच मळबाच्या मैदानांत वाऱ्या सांगातान खेळ खेळटालो. ताचो खेळ मळबांत उडपी सवणी लक्तु बायेन तोखेतालीं.

इतल्यांत वरुणाची आवय आपल्या हातांत एक पतंग घेवन आयली. आवय गच्चेच्या दारा लागीं रावन वरुणाची खोशी पळयत मुमुरख्यांनी हांसताली. आपली आवय फाटल्यान उबी रावून आपणांक पळयता म्हणपाची सुलूस लेगीत वरुणाक लागूंक नासली. तार्चे पुराय लक्ष ताच्या पतंगाचेर आसलें. इतल्यांत ताची आवय ताच्या लागी आयली, तेन्ना वरुणार्चे लक्ष आपले आवयचेर गेलें. त्या बराबर तार्णे उचांबळीत जावन आवयक म्हणलें,

''मम्मी, मम्मी पळय, म्हजो पतंग कितलो उंचायेर पावला. मर्दी मर्दी सवणी म्हज्या पतंगांत अड्खळटात. पूण हांव तांकां आनी पतंगाक दोगांयकूय वाट्यतां''.

आवय पुताची गोड उतरां आयकताली. तिणें पुताक सांगलें, ''हय वरुण, तू करता तें बरोबर करता. एक मुखेल गजाल



सदांच लक्षांत दवर. हो पतंग म्हळ्यार आमच्या जिवितावरी आसता. आमचें जिवीत सुद्धां दर एका पांवड्यार वेसाच्या मळबांत उंचायेर उडटा. पूण पतंगाची दोरी जशी आपल्या हातांत आसता न्हय, तशीच आमच्या जिविताच्या पतंगाची दोरी म्हळ्यार आमच्या काळजांतली कश्ट करपा पासत उमेद बाळगुवप आपल्याच हातांत आसता. आनी ती उमेद जर बळगें आसत न्हय, जाल्यार आमच्या वेसाक आडोवपी कितल्योय अडचणी, सवणी जावन आयली तरीय ती आमच्या पतंगाक आडावंक पावची नात. पुता, पतंगाचो तोल कसो सांबाळप, जशें आपल्या हातांत आसता न्हय, तशेंच आपल्या जिविताचो तोल सांबाळपाची जापसालदारकी लेगीत आपल्याच हातांत आसता. तो तोल आपणें सदांच सांबाळपाक जाय''.

इतल्यांत आवयचें लक्ष पुताच्या हाताचेर गेलें. ताच्या हातांक हय न्हयशे याव पडिल्ले. आवय ते पळोवन खासावीस जाली. पयलीच तिच्या खातीर तो वेळ सामको नाजूक आशिल्लो आनी वयल्यान पुताच्या हातांचे याव पळोवन ती थर्त भियेली.

पूत म्हणपाक लागलो, ''मम्मी, भियेवं नाका. म्हज्या हाताक पतंगाची दोरी लागली, देखून हे याव जालें''.

हें आयकून आवयचे दोळे दुकांनी भरले, आवय म्हणपाक लागली, ''वरुण, जिवितांत दर एका खिणाक आमकां संघर्श हो करचोच पडटा. दुसरो कांयच ताका पर्याय ना, जिवितांतल्या संघर्शाक फुडो करता आसतना अशेच एक एकदां आपल्या काळजाक याव जातात, जे कांय वेळां रोखडेच भरून येतात. पूण एकएकदां चड खोलायेंत गेल्लो याव भरपाक वेळ लागता. केन्ना केन्ना तो याव काळ लेगीत भरूंक शकना. पूण अशा खिणांक स्वताक सांबाळपाचो यत्न करपाक जाय. हो पळय, हांवें एक पतंग तयार केला. तो म्हाकाय बी आयज मळबांत उडटना पळोवपाक जाय. चल, आयज तुज्या पतंगाक हांव म्हज्या पतंगाचो सांगात दितां''.

पूत आवयची उतरां आयकून एकदम खोशी जालो. खिणांत मळबांत दोन पतंग एकमेकांचे इश्ट जाले. पतंगाची दोरी सांबाळटना, आवय पुताक विचारपाक लागली, ''वरुण तुका खबर आसा, मळबाच्या वयर कोण आसता?'',

''आई, वयर देव आसता. सारकें न्हय?''

''हय म्हज्या पुता, देखुनूच ह्या पतंगा वरवीं, हांवें जशें म्हजे काळीज देवा लागी धाडपाचो यत्न केला, ज्याचेर हांवें कांय शब्द बरयल्यात ते देव वाचतलो अशें म्हाका दिसता''.

पूत आवयच्या उतरांचेर गोंदळांत पडिल्लो आसतनाच वरुणाची दोरी, आईच्या पतंगा लागी गुस्पली. तातूंत वरुणाचो पतंग वाटावलो, पूण आईचो पतंग दोरये पासून वेगळो जावन उंच मळबांत वचूंक लागलो. आवय आनी पूत तो पतंग खंयचे दिकेन वता तें पळोवपाक लागलीं. अखेरीक पतंग नदरेआड जालो. आवय विचारांचे धुंवरेंत खंय तरी शेणली. चिंतपाक लागली, मनांतल्या मनांत पतंगाक सांगपाक लागली, ''हे पतंगा, तूं म्हज्यो भावना, तुज्या सांगातान हांवें धाडिल्ली चीट देवा कडेन पेवन वच''.

तो पतंग पयली वयर वयर उंच गेलो आनी उपरांत आदार तुटिल्ल्या कारणान सकयल देवंक लागलो. तो ल्हव ल्हव एका भुरग्याच्या हाताक लागलो. ताका तो पतंग खूबूच सोबीत दिसलो. तो पतंग निळायटना आवयच्या काळजान देवाक बरयल्ली एक चीट ताका मेळ्ळी. तातूंत बरयल्लें,

''देवा, आयज म्हज्या काळजांतली उतरां इतली फातरा वरी जड जाल्यांत, तांकां तोंडांतल्यान भायर सरपाक वाट मेळना. कारण तांकां खंयच्या शब्दांचो आदार दिवं तेंच कळना. म्हजे धुवेक एक बरो जोडीदार दिल्ले पासत तुजे मना काळजा सावन उपकार आटयतां. आतां म्हजे चलयेचें लग्न फकत कांय दिसांचेर पावलां. आतां म्हज्या भुरग्याच्या जिवितांचें एक सोबीत चित्र तूं काडटलो, जातूंत म्हज्या भुरग्याक सगलें सूख मेळटलें. म्हज्या काळजाच्या दर्यांत भरती सुकती एकाच वेळार आयल्या. म्हज्या भुरग्याचो स्वताचो संवसार आसतलो, ही सुखाची भरती, पूण म्हजे चली म्हजे पासून पयस वतलें ही सुकती. खबर आसा म्हाका, ही जगाची रितूच जिका सगल्यांक पाळो दिवचोच पडटा, पूण तरी आसतना देवा, तुज्या नेमांनी तू कांयच बदल करूंक शकना. दर एका नेमांत काळा प्रमाण बदल हे जाताच जाल्यार सदांच चलयेक कित्याक आपल्या घरा पासून, आपल्या आवय बापाय पासून पयस वचचें पडटा? ताच्या लग्नाची तयारी करतना घराचे दर एके दिकेंत ताच्या ल्हानपणांच्यो यादी रिगल्यात. तांचें ल्हानपणा सावन घरांत संगीताच्या रुपान खेळपी हांशें,

दिमकुऱ्यांनी चलतना, ताका सांबाळून येवपी ते हात, तें धावतना ताच्या पांयांतली वाजपी पांयजणां, ताचें हांसप, ताचें रडप, ताचें खेळप ह्यो सगल्यो यादी काजुल्यावरी दोळ्यां मुखार येतात. आमकां आवय बापायक हें सगलें दुख्ख आपल्या काळजाचे कोटयेकुडींत लिपोवन सगली तयारी करची पडटा. आपलो आत्मो काडून दुसऱ्या मनशाच्या हातांत दितना सोडिल्लें तें उदक आमचे खातीर विखाचे कोडू घोट आसतात, जे आमी पियेतात. देवा, तुजे कडेन हांव कांयच मागना, फकत इतलेंच मागतां, जशें आमी आवय बापायन ह्या फुलाक सांबाळ्ळां, तशेंच ताच्या वांगड्यानूय बी आमच्या काळजाच्या कुडक्याक सांबाळचें''.

आवय आनी वरुण गच्चे वेल्यान सकयल आयलीं. वरुण आपले कुडींत वतालो, इतल्यांत तार्णे दाराकडे पळोवन अजापान म्हणलें,''आई, भावोजी आयलो, तो पळय''. जांवय आयला तें पळोवन आवय खुशालभरीत जाली. ती दाराकडे येवन किर्ते उलोवचे पयलींच तार्णे आवयक सांगलें, ''मम्मा हांव जाणां, वीणा भयणीं बराबर खरेदी करपाक गेलां म्हूण. म्हाका दिशिल्लें तें घरा पावलां आसतलें, म्हूण हांव आयिल्लों. वाटेर तुमच्या पोरसांत पावूंक आनी म्हाका हो पतंग मेळ्ळो''.

तें आयकून आवयक किर्ते उलोवं कांयच कळना जालें. इतल्यांत जांवयानच तिका गोंदळिल्ली पळोवन सोफ्यार बसयली. तिच्या पांयां लागीं तो रवता बसलो आनी तिका तार्णे सांगलें, ''मम्मी, हांव समजूंक शकतां, एके चलयेचें लग्न म्हळ्यार आवय बापाय खातीर अग्नी परिक्षाच आसता. लग्न जातकच एके चलयेक घोवाच्या घरा येवचें पडटा. ही रीत हांव जरी बदलूंक शकलोंना, तरूय तुमकां एक उतर मात दितां, तुमी जशें विणांक फुलावरी जपलां, त्या फुलाक सदांच हांव टवटवीत दवरतलों. त्या फुलाक केन्नाच बावूंक दिवचों ना.''

जांवयाचीं हीं उतरां आयकून आवयचें काळीज उपाट भरून आयलें. मळब चान्न्यान भरील्ले वरी....

❖

अरन्नोर्डे-गोंय. मो: ९८२३१९३११७

# 'क्वनांतुरो' सर्वरस संपूर्ण...

मोलावणी

ग्वादालूप डायस



जल्म १९७२.
कवयित्री, निबंदकार, लिपयांतरकार, रोमी तशेंच देवनागरी लिपींत लेखन, भुंयफोड, मळबगंगा, जलस्थल [कविता].ज्वालामुखी [निबंध], मामाचो गांव हीं प्रकाशीत पुस्तकां.

*असो णव रसांत बुडिल्लो हो क्वनांतुरो 'मंत्र्यांचें नाक' तशेंच 'आवयच्यो नाक्शो' सारकेल्या कवितेंतल्यान वास्तवा कडेन गांव-भेट घालून दिता. ह्या पुस्तकांत हाताळिल्ले सगळे विशय एकदम सरळ तितलीच शैली निर्मळ आशिल्ल्यान कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय आमच्या दोळ्यांत भरता.*





पुस्तकाचें नांव: क्वनांतुरो
कवी: सर्गेस सोतेर बाब बार्रेट
प्रकाशक: गोवा कोंकणी अकादेमी

फुलांचो तुरो आसता. हें आमकां सगळ्यांक खबर आसा. पूण येवजियात...! केन्नाय, कोणेंय तुमच्या हातांत क्वनांतुरो दिलो जाल्यार?

हय! क्वनांतुरो...! मायेमोगान आनी अपुरबायेन जेश्ठ कोंकणी कवी, सर्गेस्त सोतेरबाब बार्रेट हांणी कोंकणी मायेचे व्होटयेंत घातिल्लें कवितांचें पुस्तक!

जसो फुलांक वेग-वेगळो रंग, आकार आनी परमळ आसता तशेंच काव्याचे तरेकवार अलंकार आसतात. हे अलंकार एके कवितेक केंसांक धरून पावला मेरेन व्हंकल कशी नटयतात. म्हणटकच ताचो आस्वाद घेतना सगळे तरेचो रस तशेंच आनंद मेळटा. *क्वनांतुरो* ह्या पुस्तकांत बेचाळीस कविता मेळून एक तुरो जाला. अशें आसलें तरी दर एके कवितेक आपलें अशें खाशेलेपण आसा. ह्यो कविता एका तुऱ्या रुपान बांदल्यात देखून तांची सोबीतकाय वाडल्या. अशें आसलें तरी एकोडी रावनूय दर एके कवितेक वाचकांच्या संवेदनशील मनांक जागृत करपाचीय तितलीच तांक आसा.

तशें पळोवंक गेल्यार कविता केन्ना सुचता? पावसाळ्यांत, हिसपा भायर पावस पडटकच धर्तरेक जशी उमळ येता तशेंच बरेच पावटी मनशाच्यो भावनांय उमळून येतात. अशा वेळार कविता सुचता! भावनां म्हणल्यारूच जिणेंचो रस! आमची जीण म्हणल्यार णव रसांचो संगम! वेग-वेगळ्या प्रसंगा वेळार तो-तो रस वो भावनां आमच्या हावभावांतल्यान प्रकट जाता. अशा वेळार अति-संवेदनशील मनशाचें रुपांतर आमकां एका कवी रुपान अणभवूंक मेळटा.

*क्वनांतुरो* पुस्तकांतल्यो सगळ्यो कविता वाचतकच हांव इतलेंच म्हणपाक शकता, सर्गेस्त सोतेरबाब जावन आसात सर्व-रस कवी! तांचे कवितेंत मोगाचो पावस आसा. हांशाची रास आसा. तांचे कवितेंत केन्नाय रागाचो पारो चडटा. केन्नाय दया-मायेच्या सागरांत बुडटा. अन्यायाक कवी उबगता. केन्नाय होच कवी आपल्या आत्मविस्वासान आनी काळजीदारपणान फांतोडेचें सपन साकार करता. जायते पावट *क्वनांतुरो* पुस्तकांतल्यो कविता अनपेक्षीत व चमत्कारी मोडनार हाडून सोडटा. आनी काळजांतली

उचांबळाय शांत करपाचीय कापस्ताद दाखयता! अशा ह्या सर्व-रस कविच्या कवितांचो आस्वाद घेवप म्हणल्यार वाळवंटांतल्या मरुस्थळाचो सोद लागप अशें म्हणले बगर म्हजें समाधान जावचें ना.

श्रृंगार रस वो मोग! सर्गेस्त सोतेर बाब बार्रेट हांच्यो कविता सर्व-रस संपूर्ण अशें हांवें म्हणलां तरी मोग हो तांचे कवितेचो मुखेल विशय! म्हणटकच श्रृंगार रसाचीं संयोग आनी वियोग हीं दोनूय आंगां तांच्या कवितांनी झळखतात. अशें म्हणपा फाटल्यो कितल्योशोच देखी हांव दिवंक शकतां! *कवनांतुरो* पुस्तकांतली पयली कविता म्हणल्यार 'तुजें रूप'. हे कवितेंत कवी म्हणटा, तुजें रूप/परजळीत/ पयसुल्ल्यान अशें पळोवचें हांवें...! आनी मागीर शेवटाच्या कडव्यांत तो म्हणटा 'पूण सगळें पयसुल्ल्यानूच/ तूं लागीं आयल्यार/हांव म्हजो/ विरगळून वचत म्हूण/ भंय दिसता!

मोग विशयाचेर बरयल्ली आनीक एक कविता म्हणल्यार 'म्हाका खरेंच लज दिसता.' हांगा कवी आपले मोगिकेक 'मोगान भरिल्ली राक्षीण' म्हणटा. हो सर्व ज्यादू मोग्याचे वेंगेचो म्हणपाचोय दिश्टावो कवी ना चुकतां स्पश्ट करता. 'अप्सरा' हे कवितेंत कितल्या आकर्शीत शब्दांनी कवी म्हणटा, 'मनीस कितलेय जाल्यार शाणे/ मोगा विरेत कशें जिणें?' ह्या पुस्तकांत बरेंच कितें 'मोग' ह्या शब्दाक केंद्रबिंदू करून जीण जगापाचें आव्हान सामकार दवरता.

ह्या मोगाचीं मागीर कितलींशींच रूपां! पुस्तकाचे सुरवातेक काळ्जा कुरकुटांत कोंबरेल्लो मोग, निसर्गाचे मांड्येर खेळटा. गुलाबाच्या फुलाक भुल्लुसता. 'कवासो' कवितेंत सैम पिसो कवी व्हेंवळां पुंजायता. चांफो पळोवन जायां जुयांनी परमळटा. मोगरे कळ्यांनी दिपकवता. रात-राणयेचो सांवार झेलता. मात, इतल्या तेखवार फुलांच्या परमळान घमघमलो तरी आपले मोगिकेन माळिल्ल्या कवाशाचे यादीन तो अस्वस्थ जाता!

*कवनांतुरो* पुस्तकांतल्यो कविता ज्या प्रमाणांत श्रृंगार रसाची नशा करतात, त्याच प्रमाणांत हास्य रसांत लोळ्ळून ल्हव चिमटेय काडटात. देख दिवंचीच जाल्यार 'कापशिणीचे केंस' ही कविता घेवंया. 'कापशिणीच्या/ धव्या केंसांक/ पळोवन/ तिणें हळूच / म्हणलें/ कापशीणींच्या रूखा/ तुज्या धव्या केंसांक पळोवन/ काकुळ्ट दिसता म्हाका/ कापशीणीन म्हणलें/ हय? जाल्यार तुज्या बेगांतलो काळो रंग आनी पिशोल/ मात्शे दी पळोवंया म्हाका.

रौद्र तशेंच कारूण्य रसाची झालर आशिल्ल्योय कविता ह्या तुज्याची सोबीतकाय वाडयतात. गरीब - गिरेस्तां मदलें अंतर पळोवन कवी तिडकता. फॅशन म्हूण कात्रे घालपी अस्तुरी आनी फातरीर घांसून कितलेच कडेन पिंजिल्लें कापड न्हेसून आपलें शरीर धांपूंक धडपडपी अस्तुरे मदलें अंतर दाखयतना कवी म्हणटा, 'एकटी गांधीजींच्या/ चादराक रावता जाल्यार दुसरी एअर कंडीशनाक! ह्याच रसाचो आदार घेवन कवी 'म्हजी काश्टी' सारकेले कवितेंत आदिवासी समाजाची व्यथा उक्ताडार हाडटा. तांचे काश्टे खुस्तार मिरोवप्यांक धारेर धरतात.

*कवनांतुरो* बिबत्स रसूय आपणायता. म्हणल्यारूच समाजीक तशेंच राजकीय मळार जावपी हळशिकावण्यो घडामोडी नियाळून कवी उबगता. बेजारता! आपल्याक आयिल्लो कंटाळो 'माकड मामा' हे कवितेंत एका माकडाच्या तोंडांतल्यान व्यक्त करता. हे कवितेंत माकड जातीच्यो उड्यो मारपाचे वृत्तीचो आडोस घेवन कवी, वाचकांक पुराय गोंय भोंवडावन हाडटा. तारवां चलोवप्यांक गोरवां राखूंक दिल्ल्यान गोंयचेर कसो परिणाम जाला हें कवी भोव काळजीदारपणान सांगता. 'भाटकाराक दोतोर केला/ भलायकेचो हुस्को' अशा सुत्राक धरून कविता सुरू जाता. फुडें, सांवड्डें वचून मिनाचो धूळ खाता. बेरपाटे (बेतालबाटीं) वचून रेड्यांचे भकीक पडटा. बांबोळे वचून जळारींचें

खाण जाता. म्हादय न्हंयच्या कांटार वचून उदकाक वळवळटा. त्या प्रमाण ही कविता पाणी, धनगर, वेळीपांची हुस्को प्रकट करता. दुर्गीण धवन मुरगाव तालुक्यात गोयकार सोडता. कुस्मणाच्या पुरिल्ल्या उदका पायपाचें दुख वळखता. निमाणें, दादाय ना आनी पुडवेंय ना अशें म्हणत गांधीजींची याद करीत एकेभाशेन उपहासांनी गोयचें निसतण करप्याक तांचीं वायट कर्तुपां तोंडार मारता!

'भाड्याची जीण' तशेंच 'पात्रांवांचो शीण' कविता वाचतना आपसूक 'पुडें किदें?' म्हणपाचो हुस्को वाडटा आनी शेवटच्यो ओळी 'अजापीत करून सोडटात. म्हणटकच अद्भूत रसाचेंय दर्शन ह्या कवितांनी आमकां मेळटा.

असो णव रसांत बुडिल्लो हो *कवनांतुरो* 'मंत्र्यांचें नाक' तशेंच 'आवयच्यो नाक्शो' सारकेल्या कवितेंतल्यान वास्तवा कडेन गांठ-भेट घालून दिता. ह्या पुस्तकांत हाताळिल्ले सगळे विशय एकदम सरळ तितलीच शैली निमळ आशिल्ल्यान कोंकणी भाशेची गिरिस्तकाय आमच्या दोळ्यांत भरता.

पुराय पुस्तकांत जें किदें कवीन आपले कवितेंत व्यक्त केलां तें जशें किदें आपल्याच मनातलें उलोवन दाखयलां अशें दिसले बगर रावना. जे वरवीं शांत रसाचोय अणभव घेतिल्याची थाकाय वाचकाच्या आत्म्यांक मेळपाची तांक हो *कवनांतुरो* दवरता.

कवनांतुरो! जितलो सोबीत तितलोच परमळीत! हातांत धरून मिरोवपा इतलो आकर्शीत! आयज जरी सोतेरखाब बारेंट आमचे मदीं नांत तरी तांचो *कवनांतुरो* म्हणल्यार व्हाळा देगेर वणवेंक फुलिल्लो अप्रतीम कवासो! तो सदांच कोंकणी आवयच्या केसांत परमळटलो म्हणपाची आस्त बाळगितां! ह्या कवनांतुऱ्याक दर एका कोंकणी काव्य मोगयाच्या काळजांत जागो फावो जातलो अशें समजतां!

नुवें-गोंय. मो: ८६०५९९४२१५७

कवनां म्हयन्याळीं

स्मिता तिंबले



शास्त्रीय संगिताची रुची आशिल्ल्यान स्मिता तिंबले हांणी संगिताचें शिक्षण गेतलां. सद्या स्मिता शाळेंत शिकयतात. तांचें ' यादे माई ' हें आपले आवयच्यो पुंजायल्ल्या यादींचें पुस्तक खूब लोकप्रिय थारलां. तांकां कवितांचीय आवड आसा. तांचें 'आपालिपा', ' गोंयच्या फेस्ताक ' हीं ल्हान भुरग्यां खातीरचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.भुरग्यांचीं शिक्षणीक पुस्तकांय तांणी तयार केल्यांत समाजांतलीं विंगड विंगड व्यक्तीचित्रां रंगोवप होय तांचो एकछंद

## कवच विज्ञानाचें

विज्ञानाक लागून मनीस तगला
अज्ञानाक लागून मनीस विझला

भुयांरांतलो मनीस सृजनशील
सतत जागृत आनी कार्यशील

उज्याचो सोद, चाकांचें गणीत
शेती,इंजीन,वखदां आनी मनसंगीत

आपली वाट आपुणूच सोदीत
क्षितिजा मेरेन पावला

विज्ञानाक लागून मनीस तगला
अज्ञानाक लागून मनीस विझला

नक्षेत्रां आनी प्रकाशाची गती
चंद्र-सूर्य-पृथ्वी हांचीं नातीं

रात- दिसाची भोंवडी
धूमकेतूचें आगमन
गिराणाचें सरळ गिन्यान

पृथ्वीच्या अंतरंगांतलो
गुरुत्वाकर्शणाचो सोद

चंद्राच्या पृष्ठभागा वयलो
तरंगतो बोध..

एक-एक दालन उगडीत
उजवाडा मेरेन तर पावला

गरज ही शोधाची जननी
म्हणून गरजोय वाडयत रावला

विज्ञानाक लागून मनीस तगला
अज्ञानाक लागून मनीस विझला

हतबल जाल्ल्या मानवान
विज्ञानाचीच कास धरल्या

विज्ञानाचेर आसनस्थ म्हणूनच
मनीस आयज टिकला

विचित्र जैविक संकटाचेर
मात करूंक शकला

कालचें संकट आयचें जैत
आयचें संकट फालचें जैत

तोंड धांपून न्हीं तर कवच पांगरून
आविल्लें वादळ रोखूंक शकला

विज्ञानाक लागून मनीस तगला
अज्ञानाक लागून मनीस विझला



## वाट उर्देतेची

धर्म म्हजो विज्ञान
देव म्हजो संविधान

बुद्धीक जाण हो म्हजो हावेस
तथ्य तोच म्हजो यास
मोग होच म्हजो श्वास

देव म्हजो मागी ना नाणीं
मागी ना दूद-तूप वा लाकूड चंदनी
ना पणटी,ना मेणवाती
ना मंत्र ना शेरमावाचें तंत्र

विज्ञानाचे साणीर यांसता तें सत्य
अज्ञानाचे कुशींत कुढटा तें भंयसत्य

सत्याची वाट प्रखर उर्देतेची
चौफेर फुलिल्ल्या साळकांच्या तळ्यांची

*उतरां कागदार देंवयली म्हणटकच कविता जाली असो खूब जाणांचो समज आसा. तो आतां पयस करूंक जाय. बिम्ब आतां दर म्हयन्याक एका कवीक ह्या पाबार येतलें. तेंच पान बिम्ब परीवार ग्रुपार वतलें. रसिकांचें मत अजमावतलें. जांकां व्यक्त जावप दिसता तांणीं पांच वाक्यांत व्यक्त जावचें. फुडले अंकांत तें प्रतिबिम्बांत उजवाडाक येतलें.*



## क्षितीज

मानवजातीले प्रगतीक सीमा ना,सरहद ना
कितलेय मुखार गेल्यार
क्षितीज फुडें फुडें सरता
विज्ञाना सहायान ब्रह्मांडच मेकळें जालें
मनशान लेखलें सर्वसमर्थ हांवच
जीवन निर्माण आनी नाश करतलो हांवच
उत्पत्ती आनी उध्वंस करतलो हांवच
सैमाचेर जैत गाजयतलो
जग जिखतलो
विसर पडलो ताका
ते महान विश्वव्यापक शक्तीचो
विसरलो तो आपलें ध्येय निश्चय
हावेसा मुखार विसरलो तो आपली मर्यादा
सृश्टीच्या एकाच झटक्यान
आकांताचें अरिश्ट घडटा
एका सान जंतून संपूर्ण जग हालयलें
शिखरा वयर चडटना मनशाक जाण जाली
आपूण सखल घसरतां
अंधबुद्धीक क्षितिजच दिसना
मनशा,तोल सावरून घे
धुंसर दृष्टी निवळावन घे
दिसतलो पसयात पर्जळ
भव्य दिव्य दिगंत
नवी मोर,नवी धार
नवो मार्ग,नवी मोख
नवें क्षितीज..नवें क्षितीज



- इंदू गेरसप्पे
बंगळूरू
मो.: 9822982448

## हावेस

सळसळटें रगत
तरनाटो हावेस
तरणें पिरायेचो
तरणो आवेग

मनांत तुफान
नदर बेभान
सळसळटें ल्हार
कुडभर सांवार

तानेलां हांव
भुकेलां हांव
तान भूक म्हजी
तुजे कुडभर जांव

मोगाचो शिसो
तोंडार फाकयत हांसो
तुज्या म्हज्या काळ्जांतल्यान
आरपार दिसों



-महेश गांवकार
मोलें-गोंय
मो.: 9763773157

## तिब्या धनी

हांव
फक्त
तुजो
**तिब्या धनी...**
तूं मात
म्हजी
संपूर्ण
**अ**
**र्धा**
**गि**
**नी...**



- आर. रामनाथ
कुर्टी,फोंडें-गोंय.
मो. : 985045876

## हय दिलें

तांणी मागलें
हांवेंन दिलें...
हात मागलो
हात दिलो
काळीज मागलें
काळीज दिलें
परत तागें कांय दिवंक ना...
सूख मागलें
सूख दिलें
मोग मागलो
मोग दिलो
आस कसलीच दवरूंक ना...
वेळ मागलो
वेळ दिलो
वचन मागलें
वचन दिलें
ताची कदर तेणी करूंक ना...
आधार मागलो
आधार दिलो,
हक्क मागलो
तोवूय दिलो
पूण मोल तेका कळूंक ना...
हांव मागता तें सगळें
दीत गेलों
ह्या वेव्हाराचो हिशोब
कोणेच केन्ना दवरूंक ना...
आतां उरला तो म्हजे कडेन
फक्त म्हजो आत्मो,
तोवूय आतां आस लावन
बसला
दिल्ल्या वस्तूंच्या बदलान
कोणूय तेका
मुक्ती दित काय
म्हणून...

– साईश भिमसेन खोलकार
केपें–गोंय मो.: 7709640244

## अस्तुरी

जिवाक नव्या जल्म दिवंक
भोगल्यो कितल्यो यातना तिणें
वोता वाऱ्या पावस गर्मीची
पर्वा तिका नाशिल्ली

रुखां फांदयेर झोपाळ बांदून
सान भुरग्याक धोलोवन-धोलोवन
पोटा-फाटी एक करून
दिसुवभर कश्ट करी

दैवताली शेतां-भाटांत
तापसाणी खायत धनयाची
हूम गळयत झिजताली
वजें माथ्यार धरी

सांज वेळार परतताना
कापट्यो, सोण्णा वेंचून हाडी
बुडकुलो चुलीर चडोवन
धुंवरान बाबडी घुस्मटताली

मानलें कश्टाक सूख तिणें
पदरान पुसलें दोळ्यांतलें दूक
चित्त मुखार उजळ फुडाराचें
तोंडार हांसतें हांशें

पुराय करूंक जिणे राटी
सोडयल्यो तिणें हजार गांठी
कोणायच्च्या उल्याक पावपा खातीर
जिवाच्या आंकांतान धांवो फुडें
शिक्षणांत तिका दिली उबारी
समेस्त क्षेत्रांत वावरूंक राजी
कुळाराची याद काडीत
सासुरवाडी ती लाडली लक्ष्मी



– एच.मनोज
चिखले – गोंय
मो.: 9822441417



## होळी

नाका लावं रंग म्हाका
हांव करना तुजो शीण
मोगान तुज्या रंगोवन उड्य
सगली म्हजी जीण
रंग रंग फासोवन आंगाक
नाचचें कांय खीण
जग सगलें भासता म्हाका
बेरंग तुजे वीण
भूंय तुजी वाट देखता
पावय तिचें रीण
केसरी धवो पाचवो रंगूच
भोवमानाची जीण

– रेखा प्रभू
फोंडें–गोंय

## काव्यचंवर



### भश्टोवपी कावळो

उमेदीन हांव उठलें
आनी आववचे कुशींत धांवलें
आववन पवसुल्यानच शिटकावलें
आजयेन खरखरीत उतरांनी
सांगलें
तुजे आववक कावळ्यान भश्टवलां
हांवेन तिडकीन जमनीर पांय
आपटिले
आनी सोमर्तेच मनांत थारायलें
हांव हो कावळो धरतलें
आवज तरी ताका जितोच
मारतलें....

बापायक सांगलें, काकाक सांगलें
आज्याक सांगलें, भावाक सांगलें
मामाकय सांगलें....
कदाचीत रक्षण करपाचें
वचन तार्ण तरी पाळ्यार पुरो
पूण ना.....
सगळ्यांनी म्हजें म्हणणें न्हयकारलें

दीस सरले
हांवेन व्हिराचे बाण लेगीत
कावळ्यार मोखून मारले
आवयचें दूख म्हाका दिसलें
पांच दिसांचो वनवास तिर्णे
म्हयन्यान म्हयने भोगलो..
हांवेन कितले प्रस्न केले
तेन्ना तेन्ना आजयेन गुपीत
शास्त्रांचें
पुस्तक उगडलें....

तें वेगळ्याच उतरांनी बरयल्लें
मनाच्या विरुध्द आसलें
म्हण हार्वेन तें तकलेंत भरलें
मन म्हजें तिडकतालें...
कावळ्याचे किरिकिरीक तें झूज दितालें
तें शास्त्रांचें पुस्तक त्या कावळ्याचें
रक्षण करतालें
आनी म्हज्या आशेचे सगळे यन्त
निराशेची वाट धरताले....

पूण तरीय हांव रावतालें
म्हज्या मनाक हांव सांगतालें
हांव हो कावळो धरतलें
आयज तरी ताका जितोच मारतलें
पूण दर एका वेळार हांव हारलें
आनी अचकीत एकदीस
त्या कावळ्यान म्हाकाय धरलें
त्या दिसा त्या कावळ्यान म्हाकाय
भश्टयलें..।

- प्रतिक्षा देसाय

### माकडचाळे

एक दीस जालें किर्ते
आयलो एक माकड
घरा घराचेर नाचता
पुराय वाड्यार गडबड
धडम धडम करता आवाज
आमचें पुराय घर बडयता
हेवटेन तेवटेन मारीत हुडक्यो
सगळ्याक ढामढूम करता
सोडता ताका आमी सगळीं
तरी तो तोंड लिपयता
कल्ल कल्ल जाता काळीज
कित्याक रे बाबा धोडायता
तेर्रासार पावलो माकड
कुरकूर आवाज करता
किर्ते चल्लां तें पळयल्यार
आमचे पापड चाबडायता
चल्यान म्हज्या मारली फुगेट
धांवडावंक माकडाक धंवच्यान
शेपडी तुटयत मारली धांव
आमच्या घरा वयल्या माकडान



- शिल्पा लाड
सावर्डे-गोंय.
मो :9604743101




# जंगल शाळा

(आधुनीक काळार्चे हितोपदेश)

## विश्वासू टायसन !



एक दीस सगळ्या भुरग्यांक कसलोय खेळ खेळपाची सामकी उबगण आयली. ताच्या बदलाक तांकां एल्मोच्यो काणयो आयकुपाक जाय आसल्यो. पूण तो ऑफिसांत गेल्लो. तेन्ना गांवांत रावपी टायसन नांवाच्या आपल्या एका इश्टाची काणी सांगपाक बिंगो मुखार आयलो.

बिंगो वरीच टायसनय एक सोबीत देखणो लॅब्रेडोर जातीचो सुणो आशिल्लो. तो सामको आज्ञाधारक आनी हुशार आशिल्लो. ताच्या मालकाचें एक ल्हानशें शेत आशिल्लें.

टायसन सदांच आपल्या मालका वांगडा शेतार वचून पीक राखतालो. तशेंच थंय्या मक्यांक शेवणी खावचीं नात म्हणपाचेर लक्ष दवरतालो.

तो शेतकार खूब गरीब आशिल्लो. शेतकाम चलचें देखून तार्णे गांवच्या सावकारा कडल्यान रीण घेतिल्लें.

त्या वर्सा पावस सामकोच उणो पडिल्ल्यान शेतांत फावो तशें पीक पिकलें ना. हाका लागून त्या बाबड्या शेतकाराक सावकारा कडल्यान घेतिल्ल्या रिणाचो हप्तोय फारीक करप जमलें ना आनी जुरूय. सावकाराक आपले पयशे मेळूंक नाशिल्ल्यान तो शेतकराच्या घरा गेलो आनी ताका म्हणले,"जर म्हाका म्हजे पयशे मेळळे नात जाल्यार हांव तुजी जमीन ताब्यांत घेतलों."

"नाका सायबा नाका , तशे करूं नाकात. म्हाका मातसो आनीक दोन वर्सांचो वेळ दियात." गरीब शेतकारान विनवणी केली.

त्या दिसा सावकार आपले ल्हान धुवेक, झायराक घेवन शेतकरागेर आयिल्लो. ताका थंय आशिल्लो टायसन खूब आवडिल्लो. तार्णे म्हणलें, "पापा, म्हाका हो सुणो खूब आवडलो. म्हाका असोच एक सुणो आमच्या घरा जाय."

"झायरा, तुका असलो सुणो आवडलो जाल्यार तुवें म्हज्या सुण्याक थोड्या वेळा पासत तुमगेर व्हरूं येता." शेतकारान म्हणलें.

"ह्या सुण्याचें नांव किर्ते?" सावकारान शेतकाराक विचारलें.

"टायसन धनया." शेतकरान जाप दिली.

"हो सुणो झायराक आवडिल्ल्यान हांव ताका ताचे खातीर व्हरतां. पूण तुवें तो पोसपा खातीर म्हाका विकचो पडटलो.

तुवें जर हो सुणो म्हाका विकल्यार हांव तुजे ह्या वर्साचे सगळे हप्ते आनी जूर माफ करीन.'' सावकारान कडकसाणेन म्हणलें.

''ना धनयां, हो सुणो म्हजो खूब अपुरबायेचो.'' शेतकारान सांगलें.

''पापा, म्हाका होच सुणो जाय !'' झायरा रडपाक लागलें.

''तू जर हो सुणो आमकां दिना जाल्यार तुजी जमीन हांव आत्तां म्हज्या ताब्यांत घेतां.'' सावकार आतां कसलीच दयामाया नासतना सौदो करूंक लागलो.

शेतकऱ्या मुखार टायसनाक विकचे बदला आनीक कसलोच पर्याय नाशिल्लो. त्या गरीब शेतकारान मायेन टायसनाक पोशेलो. टायसनान शेतकाराचें नाक ल्हेवलें आनी घर सोडून सावकार आनी ताचे चलये वांगडा गेलो.

फुडलो दीस आयतार जाल्ल्यान झायरा आनी ताच्यो इश्टीणी ताच्या पप्पाच्या फार्मार पिकनिकेक गेल्लीं. तांचे बराबर टायसनय आशिल्लो.

फार्माच्या मदीं एक व्हडलें तळें आशिल्लें. झायरा आनी ताच्यो इश्टीणी त्या तळ्यांत पेंवपाक गेलीं. त्या तळ्यांतलें उदक खूब खोल आशिल्लें. तीं सगळीं पेंवपाक सामकीं फिशाल नाशिल्ल्यान रोखडीच तीं बुडपाक लागलीं.

तीं बुडटात म्हणपाचें टायसनान जेन्ना पळयलें तेन्ना तार्णे मात्शेय वेळ वगडायलो ना. तार्णे रोखडीच त्या खोल तळ्यांत उडी घालून झायराक आपल्या तोंडांत धरून ओढीत वयर सुकेसुवातीर हाडलें. झायराक पावयल्या उपरांत तार्णे एका फाटल्यान एक सगळ्या चलयांक वाटायलीं.



घरा परततगीर टायसनान कशे तरेन तांचो सगळ्यांचो जीव वाटायलो ती पुराय गजाल आपल्या बापायक सांगली.

''टायसन तुका कसले बक्षीस जाय?'' हे यडणुकेंतल्यान सावकाराचे दोळे उकते जावन तार्णे भोव कृतज्ञतायेन टायसानाक विचारलें.

''म्हाका म्हज्या मालका कडेन परतो धाडात.'' टायसनान जाप दिली.

''तुजी इत्सा नक्कीच पुराय जातली.'' सावकारन म्हणलें.

''टायसन, तुका आनीक दुसरी खंयची गजाल जाय?'' सावकारान विचारलें.

''हय, म्हज्या मालकाची पुराय जमीन सगळ्या रिणांतल्यान सासणाची मुक्त करात.''

''जालीच म्हूण समज टायसन. तुवें म्हजे एकले एकसुरे धुवेचो, झायराचो जीव वाचयला. हांव तुज्या धनयाची सगळी रिणां माफ करून ताका हांव आनीक धा हजार रुपया दिवन मजत करतलों'' सावकारान नमळायेन म्हणलें.

टायसन हिसपा भायर खूश जाल्लो. ताका केन्ना एकदां आपल्या मालका लागीं परत वचून ताका ही खोशयेची बातमी सांगता अशें जाल्लें. शेतकराक टायसन घरा येता तेंपळोवन अजाप जाल्लें. उपरांत पळयत जाल्यार ताचे फाटोफाट सावकार आनी ताची धूव लेगीत येताली.

सावकारान कशे तरेन टायसनान आपल्या जिवार खेळून आपले धुवेक तळ्यांत बुडपाक दिवंक ना ही गजाल त्या गरीब शेतकराक सांगली. तशेंच तार्णे ताची जमीन रीण मुक्त कशी करपाक लायली ह्यो सगळ्यो यडणुको शेतकाराक सांगल्यो. त्या भायर कौतूक म्हण तशेंच शेतकाराक ह्या अडचणीच्या काळांत शेतकाम करपाक कसलीच अडचण येवची न्हय म्हूण तार्णे ताका धा हजार रुपयांची मजत करपाचें थारायलां हेंय सांगलें.

हें आयकून शेतकाराचे खोशयेक शीम मेर उरली ना. पूण ताका चडांत चड खोस भोगली ती ताचो मोगाचो टायसन घरा परत आयलो ताची! उपरांत तार्णे फुडाराक टायसनाचो पेटो झायराक भेट दिवपाचें उतर दिलें.

हें आयकून झायरान शेतकार आनी टायसन दोगांकूय घट्ट वेंग मारली. घरा परतुचे आदी तार्णे परत एकदां तांकां दिनवासले आनी नवो पेटो जल्मांक येवपाची वाट पळयत तीं घरा परतलीं.

मूळ इंग्लीश - **दत्ता दामोदर नायक**
(द जंगल स्कूल-ए मॉडर्न डे हितोपदेशा)
कोंकणी अणकार-**मानसी धाऊसकार**

# शाणीची काणी (१०)



– डॉ. हनुमंत चोपडेकार

## शाणीच्या झाडांची काणी (दोन)

दिखाळे घोटीच्या निमतान शाणीची झाडांची इश्टाग्रत सगळ्या गांवाक कळपाक तसो कळाव लागलो ना. शाणीचें इश्ट 'किचिमिपि'क 'झिडी'चो वांगड मेळिल्ल्यान तांचे सगळ्यांचे दीस आतां मजेंत मुखार सरपाक लागिल्ले. शाणीची झाडांची इश्टागत तशी नवी आसली तरी बरीच पक्कमपक्का आसली हें कांय दिसांनीच सगळ्यांक कळून चुकलें. शाणीक झाडां झुडपांच्या सांगातान भोव बरें दिसपाक लागतालें. कारण पोरसांत आनी घरा फाटल्या झाडां पोंदा तो वरांचीं वरां सारपाक लागिल्लो. केन्नाय आई आनी काकी शेणी थापपाक फाटल्या काजींतल्या खडपांनी वयता तेन्ना तो मुजरत तांचे वांगडा वचून थंयसरल्या काजींची, काण्णींची, हांसाळ्यांची, जांबळींची बी चौकशी करून येतालो. थंय झाडांच्या मुळांत तो घुटमळटा तें पळोवन काकी हळूच आईच्या कानांत फुतफुतताली –

''आगे आतेबाय, शाणीक झाडांची भाशा बी कळटा कितें गे?''– काकी.

''अशें गे कितें?'' – आई.

''पळय मगे, पिशेपणा कशीं करता मगे तो.'' – काकी.

''वोगी बस थंय. भुरगो आसा तो.'' – आई

''ना गे, तो तसोच कितें शे करता बाये.'' – काकी.

''थुमेकाल!''

''शी बाये! हें आनी कसल्यांनी?''

अशें म्हणून आई बाबडी विशय बदलताली. तशें शाणीन आपल्या वांगडा जायत्या जाणांक झाडांचें पिशें लायिल्लें म्हटल्यार कामा येता. तातूंत दामू, वास्को, पेमलो, सुनील, मंता आनी नानीक ह्या ताच्या लागींच्या इश्टांक आमी हिसपांत घेवं येतात. 'शाणीन आमकां झाडांचेर प्रेम करपाक शिकयले' अशें ते आयजूय म्हणटात. आंब्याच्या दिसांनी गांवकाराल्या फेर्नांद आनी माणकुराद आंब्याचें रेंद करतात तशें शाणी, दामू आनी वास्को एरंडाच्या बोंड्यांक आंबे मानून दर वर्सा ल्हानशें कोंबलें करून गांवभरचे 'एरंड-आंबे' काडटाले. जमता तेन्ना त्या एरंडाची जतनायूय घेताले. 'भुरग्यांचे मळणेक बीं ना भात' अशें मानून जाणटेय तांचेर दुर्लक्ष करताले.

शाणी मात त्या भुरग्यां परस वेगळो आसलो. ताच्या ह्या झाड-प्रेमाक लागून शाळेंत ताका 'झाड-प्रेमी शाणी' हें नांव

दिवन चाळोवपाचो प्रयत्नूय जालो पूण तो असल्या गजालींनी बेजार जावचे बदला खूश जाता म्हूण भुरग्यांनीय ताका चाळोवपाचें सोडून दिलें. खंयचेंय बरें झाड दिसलें म्हणटकच ताचो रोपो हातासून तो आपल्या पोरसांत हाडून लायले बगर ताका सूख जायनासलें. अजाप म्हणजे झाड लावपाक घरांतलीं सगळीं ताका मजत करतालीं. पूण झाडाचेर हक्क शाणीचोच आसताले. केन्ना केन्ना आजी मुद्दाम ताका तुकलायताली आनी मागीर सगळीं जाणा खोऽऽ करून हांसतालीं.

“वा रे वा! हो झाडाचो पात्रांव कमरार हात दवरून बरो फर्मायता भाटकार कसो. ‘आज्या खड्डो खण, बाबा खोरें घे, काकी उदीक हाड, आई माती घाल.’ हेणी फक्त मम् म्हणपाचें... बरो शाणो भाटकार हो... असलो भाटकार आमकांच पचपाचो हां...!

गांवचीं झाडां आनी शाणीची इश्टागत तशी गांवांत आयजूय फामाद आसा. शाणीचे तकलेर एकदम ताळूचेर एक व्हड माव आसली ती वास्क्यान ताका अळणी आंब्याचेर मारिल्ल्या गुंड्यान दिल्ली. वास्को म्हणजेच वासुदेव. ताका गांवांत सगळे मोगान वास्कोच म्हणटाले. तो शाणीचो बरो इश्ट. ते दोगूय शेतां भाटांनी रातदीस भोंवताले. ही खबर दिखाळे घोटीच्या प्रसंगा पयलींची.

ते सुटयेंचे दीस आसले. एक दीस अळणी आंबे खावपाचे आशेन शाणी आनी वास्को दोगूय भर दनपारां अळणी आंब्या कडेन पावले. वास्क्याचो नेम बरो आसलो. गुणे मारपाचें काम तोच करतालो. शाणी गुणे हाडटालो. शाणीन सदचे वरी कांय गुणे हाडून वास्क्याक दिले. वास्क्यान नेम धरलो. ताच्या पयल्याच नेमान घात केलो. पयल्याच गुण्याक एक आंबो पडलो खरो पूण तो गुणो परत शेवटून जुस्त शाणीचे ताळूचेर पडलो. पळय जाल्यार घेऽऽ रगताचे व्हाळ. वास्को भियेलो. हें शाणीचें अपशरण आपल्याचेर येतलें म्हूण तो रडपाक लागलो. शाणीन ताका समजायलो. तो कसोच थांबना जालो. निमणें शाणीन तकली लडयली. ताणें वास्क्याक विचारलें –

“म्हाका सांग, तुका गुणो कोणें हाडून दिल्लो?”

“तुयें.” वास्क्यान रडतूच जाप दिली.

“मागीर म्हाजेर खंयचो गुणो पडलो?”

“तुयें दिल्लो तो.”

“मागीर म्हाजी तकली कोणाच्या गुण्यान फुटली?”

“तुज्या.”

“मागीर थरलें तर म्हाजो गुणो म्हाजेर येवन म्हाजीच तकली फुटली. कळ्ळें?”

आपलोच गुणो आपले तकलेर पडलो अशें घरा कडेन सांगून शाणीन वास्क्याक वाटायलो. तो प्रसंग त्या वेळार निबावलो. घावोय पेकलो पूण शाणीचे तकलेवेली मांव मात तांचे इश्टागतीची आयजूय गवाय दिता. आतां जायतीं वर्सां जालीं ते गजालीक, वास्क्याक घरचीं दुशण दितलीं म्हूण शाणीनूच वास्क्याचें नांव केन्ना कोणाक सांगलें ना. तेन्ना सावन एक गजाल घडली. वास्क्यान परत केन्नाच गुणो म्हणटा तो झाडार शेंवटीलो ना. अळणी आंब्याक तेन्ना सावन शाणी आनी वास्क्याचे इश्टागतीची गोड रूच येवन गेल्या.

झाडां विशींची गांवांत घडिल्ली दुसरी एक म्हत्वाची आनी इतिहासीक गजाल शेतांतल्या मोडक्या आंब्या पोंदा घडली. ताचोय साक्षिदार आनी राखणदार जावपाचें भाग्य शाणीकूच मेळ्ळें. गांवच्या पाठ्यार वतना उजवे वटेन शेतांक गांवकारापी मालकीचो केन्ना तरी पावसांत लंवडल्लो एक व्हड आंबो आसलो. तो आंबो उबो आसतना कोण केन्ना ताचेर चडूंक शकलो ना इतलो तो महाकाय आसलो. पूण आडवो पडटकच सगळेच येरेगबाळे ताचेर सांज सकाळीं घिरट्यो घालपाक लागले. भुरग्यांक जाल्यार त्या आंब्यान एक खेळपाची आनी मजा करपाची नवी सुवात दिली. वयर वयर आशिल्ले आंब्याचे कांय खांदे आतां बरेऽऽ शेतांत लंवडल्ले अवस्थेंत मेळटाले त्या भुरग्यांक. ताचेर चडून भुरगे झोपाळो घेताले. खंयचोय भुरगो गांवांत खंयच मेळना जाल्यार समजुचें तो शेतांतल्या आंब्याचेर झोपाळो घेता आसतलो! इतलो तो आंबो भुरग्यांक प्रीय जाल्लो. आंबो मुळांतल्यान थोडो हुमटिल्ल्यान ताका आंबे चडशे जायच नासले. ते खातीर कोण कोणांक हडकी नासले. ते

भायर शेताची लुवणी जाल्ल्यान शेतकारूय बोवाळ घाली नासले. म्हणटकच भुरग्यांचें बरेंच फाविल्लें.

ते दीस मे म्हयन्याचे सुटयेचे आसले. शेताची लुवणी जाल्ली आनी झोपाळ्याक नेट आयिल्लो. ल्हान भुरगे उडकी मारल्यार पांय शेतांत लागता अश्या खांदयांचेरूच झोपाळो घेताले. जाल्यार मात्शे व्हड भुरगे हेरां मुखार झेत मारपा खातीर उंचायेर आशिल्ल्या खांदयांचेर जाता तितली ताकद लावन झेल काडटाले. ल्हान भुरग्यांक ते मुद्दाम भिवयताले. शाणी आनी ताचे वांगडचे भुरगे त्या व्हड भुरग्यांच्या भंयान रावताले.

त्या दिसा शाणीन पळयलें. देऊळ वाड्या वयलो धाकू, शेतको, पंढरी आनी ताचो धोल्लेचो इश्ट चंदू वयले खांदयेर बरेच मोठे झोप काडटात. ते जे वयले खांदयेर झोप घेतात ताचे सकयले वटेन दामू, मंत, पेमलो, बबलू, रतन, राजू आनी बाबू बसून झेलतात. हिही हुहू हिही हुहू करून धाकू आनी चंदू ल्हान भुरग्याक चाळयतात. तांचो झोप बरोच वयर सकयल येता तें पळोवपाक भिरांकूळ दिसता. ती सगळी परिस्थिती पळोवन शाणीचे तकलेंत वोगीच विचार आयलो.

हो वयलो खांदो व्हडल्या भुरग्यांचे मस्तीन आनी वजनान मोडलो जाल्यार...?

हो विचार तकलेंत येता थंयच आसा शाणीन पळयलें, धाकू बी बशिल्लो वयलो खांदो मुळांतल्यान इल्लो इल्लो पेंचून येयला. कांय खिणातच तो सकयले मंता बी बशिल्ले खांदयेर पडटलो. ल्हान भुरगे चिड्डतले.

"देंवात देंवात सकयल देंवात.... खांदी मोडटा. देंवात."

ताणें आड्डून आनी खुणेन सगळ्यांक देंवपाक सांगलें. भुरग्यांक कितें जालें कळ्ळें ना पूण आकांतान तांच्यांनी बेगीन कुशीक उडकी मारली म्हूण ते सालवार जाले. घडाऽऽयंच करून वयलो व्हडलो खांदो सकयल्या खांद्यार पडलो. शाणीच्या आकांतान वयल्या भुरग्यांनी त्याच वेळार खांदो सकयल देंवता देंवतांच कमी उंचायेर शिटुकसाणेन कुशीक घालून घेतलें. खांद्या कुशीक शेताचे मोव जमनीर पडिल्ल्यान तेवूय वाटावले. दोनूय खांदे शेतांत घोऽऽ करून पडले. पूण देवाचे कृपेन कोणांक इजा जाली ना. शेतांत मळणी करपी गांवचे



लोक थंय धांवत पावले. जायतो वगत जालो ते भुग्ग्यांच्या आवाजान थंय लक्ष दवरून आसले. खांदये पोंदा कोण ना हाची तांच्यांनी खात्री करून घेतली. तांकां घडिल्ली गजाल कळ्ळी. सगळ्यांक शाणीचे नदरेची तोखणाय दिसली. खरें म्हणजे शाणी म्हूण त्या दिसा गांवच्या त्या भुग्ग्यांचो जीव वाटावलो.

एक दीस कितें जालें म्हूण कोण जाणा, शाणीन सकाळीं सकाळीं घरांतल्या सगळ्यांक उठोवन घातलीं. फांतोडेर आईक घेवन ताणें पोरसांतल्या झाडांक उदक घालपाची कार्यावळ शी केली. खरें म्हणजे तो आदले दिसा शाळेंत वनमहोत्सवा निमतान जाल्ले कार्यावळींतल्यान तसो भायरूच सरूंक नासलो हें सगळ्यांक उपरांत कळ्ळें. काल थंय जाल्ल्या लताबाईच्या उलोवपांतल्यान ताका बरोच नेट आयिल्लो. 'झाडां आनी मनीस हांचो संबंद खूब पोरनो जावन आसा. झाडां मनशा बगर रावत पूण मनीस झाडां बगर रावूंच शकना... आमी झाडांची जतनाय घेवंक जाय.' अशें कितेंशें तिणें म्हणिल्लें. तीं उतरां शाणीच्या कानांत रुंवरुंवतालीं. रातभर तो तळमळटालो. झेम पडना म्हूण पाशियेंस सोंपून निमणें ताणें आईक उठोवन झाडांक उदक घालपाची आपली सुप्त इत्सा पुराय केलीच.

नळ? नळ खंयचे! आतांचे बशेन तेन्ना नळ बी कांय नासलेच म्हटल्यार जाता. ताणें पयलीं आई कडच्यान उदक बालदेंत घालून आंगणांत हाडून घेतलें आनी उपरांत इल्लेश्या तांबयान तो झाडांक उदक घालपाक लागलो. आपूण कितें तरी वेगळें करतां असो भाव ताच्या मुखामळार पसरिल्लो. घरांतल्या सगळ्यांनी आपली तोखणाय बी करची अशें ताका तशें केन्ना दिसऽनासलें पूण भुग्ग्याक म्हूण तोखणाय नाका जाता? सगळीं ल्हान व्हड आतां आपल्याची न चुकता अपुरबाय करतलीं हाचो ताका विश्वास आसलो. खरें म्हणजे दर फावटीं आपल्याक मेळपी शाब्बासकेची आतां ताका संवयूच जाल्ली.

किकी ताच्या वांगडा फाटीं फुडें नाचतालो तितलेंच पूण आयज सगळेंच कितेशें परतें जाल्ले वरी जाल्लें. बरोच वगत उदक घालून जातकच कोण आपल्याक तोखणायेन पळयना वा आपले सरीं उलयना हाचें ताका अजाप दिसलें. ताणें तांबड्या चाफ्याक उदक घालतना हळूच वसऱ्या वटेन पळयलें, थंय ताचो बाबा शेतांतली कुदळ सारकी करतालो. ताचें लक्ष शाणीचेर नासलें. ताणें तशीच मान वाकडी करून काकाक पळयलो. तो खळ्यांत नांगर सारको करतालो. ताचेंय लक्ष शाणीचे करामतीचेर नासलें. निमणें व्हडा आशेन आपल्याक उदक हाडून मजत केल्ले आई वटेन ताणें पळयलें. तर ती उदक दिवन बरीच आदीं भितर गेल्ली. ताणें मुखेल दारांतल्यान घरांत नदर मारली. थंय आई वा काकी बी दिसता काय म्हूण अदमास घेतलो. पूण थंय सावनूय ताका कांय प्रतिसाद मेळ्ळो ना. तो साप्प निर्शेवन गेलो. किकी ताचे भोंवतणी घुटमळटा ताचेरूय तो धेंगसलो. इतल्यांत भायर पासयेक गेल्लो आजो आड्यांतल्यान भितर सरताना ताचे नदरेक पडलो. व्हडा आशेन ताणें आज्याक वेगळेच तरेन हडकिलो -

''हे आज्या..... कितें करता रे सकाळीं सकाळीं?''

''कितें करता....! हांव आनी कितें करतलों, पासयेक गेल्लो न्हुरे.'' - शाणीचो हो असलो विचित्र प्रस्न आयकून आजो अजापलो.

''तशें न्हु रे आज्या..... हें पळय... हें... म्हा.... म्हाका तुजे कडेन उलोवपाक आतां वेळ ना.''

आपणें चुकीचो प्रस्न विचारलो हांची ताका जाण जाली. रोकडीच ताणें आपली नुरा बदल्ली. मर्दीच आपूण कामांत आशिल्ल्याचें दाखोवपाक तो नेटान उदक घालपाक मुखार सरलो. तें करता आसतना मर्दीच ताणें तिडकीन आईक उलो मारलो.

''हे आई उदीक सोंपलें मगे... कितें करता गे तुमी? तुमकां झाडांचें कांय पडोंक ना.! हे आज्या पळयता खंय? पारजताचीं फुलां चिड्डिलीं तुयें. शी बाबा!''

''आरे शाणी...'' आज्यान ताका थांबोवपाचो यत्न केलो. पूण तो थांबलो ना.

''आरे बिरे कांय ना. आज्या तुवूय उदीक हाड चोल.''

आज्याक परिस्थितीची सुलूस लागली. हो शाणी आपलो आतां रंगांत आयला हें ताका होलमलें. इतले



"कितें रे आज्या, तुका म्हयनोय खबर ना? जुलय मरे!"

"जुलय.... म्हणजे गिमाळो न्हू न्हू... शिंयाळो म्हयनो म्हुरे शाणी?"

"आरे आज्यो अशें कितें करता. गीम येवन गेलो न्हू रे, आनी शीं मागीर पडटलें. हो पावसाळो मरे!" शाणी सद्भावरातान उलोवन गेलो.

"पावसाळो!!!! खरेंच....!!!"

"हय, काल पावस पड्टालो पळोवंक ना तुयें?"

"हय मरे पापया, काल पावस पडलेलो. पयरूय पडलेलो. हय मरे?"

"हय."

"जाल्यार म्हाका सांग सभाग्या, पावसान काल इतलें उदीक तुज्या ह्या सगळ्या झाडांक घातलेलें आसतना तूं आतां सकाळच्यान कितें रे करता पुता?..... हां?"

"हां...!!!! " शाणीचें तोंड उगडेंच उरलें. ताका ल्हव ल्हव आपली चूक कळपाक लागली.

"कळ्ळें शाण्या...?" आज्यान निमणो प्रस्न केलो.

"म्हणजे..??? म्हणजे न्हू वाघाचे पंजे शाणी पावलो पणजे!"

अशें म्हणून कुशीक लिपिल्ल्या ताच्या भावंडांनी मोठ्ठो बोवाळ केलो आनी त्याच वेळार सगळ्या घरांत हांसो पिकलो. शाणीक पयलेच फावट आपलेंच अजाप दिसलें आनी ताणें थारायलें, तकली वापरपाक जाय. ना जाल्यार फकाणां जातात..

म्हणसर भायर शाणीचो बोवाळ आयकून बाबडी आई आनी आजी रांदचे कुडींतल्यान भायर पावलीं. बाबा आनी काका वोग्गी रावून सगळे परिस्थितीचेर नदर दवरून आसलीं हें मात ताका कळूंक नासलें. तांकां शाणीच्यो करामती नव्यो नासल्यो. बाबडी आई शाणीक कितें तरी सांगपाक फुडें सरताली पूण आज्यान तिका हातांनच थांबयली. विनय आनी हेर भावंडां सुटयेचो दीस आशिल्ल्यान हातरुणाचेर लोळटालीं, तिवूय भायर शाणीचें कितें तरी शाणेपण चल्लां म्हूण भायर आयलीं. आज्यान आपले नदरेनूच सगळ्याक वोगी रावपाक शिटकायलीं. ताणें शांतपणान शाणीक विचारलें.

"शाणी तूं हें कितें करता?"

"कितें रे आज्या दिसना...? हांव झाडांक उदीक घालतां मरे!"

आज्याक धरून हेर सगळ्यांचे लक्ष आपल्याचेर केंद्रीत जाल्ल्यान तो आतां खूश जालो. ते धुंदींत बालदेंत उदक आसा हें ताच्या आतां मतींत आयलें. आपूण आईचेर वोगीच आवाज वाडयलो म्हूण ताका भितरल्यान थोड्या खिणाक वायट दिसलें खरें पूण दुसऱ्याच खिणाक खंय कितें जालां अशी नुरा करून आनी सादूर रावन परत उदक घालपाक लागलो. आतां जाणट्या शाणीची धडगत ना हें तांकां जाणवलें.

"हूं....! झाडांक उदीक घालता तर तूं!"

"म्हाका सांग रे शाणी, हो म्हयनो खंयचो?"

**(चलता...)**




# डाल्मू

- संगिता नायक

हांव विशुपरी. तुमच्या सारक्या ल्हानुल्या भुरग्यांच्या मनांतल्यो इत्सा म्हळ्यार विश खरी करपाचें काम आमी करतात म्हण आमका विशु परयो म्हणटात.

याद करात... केन्नाय तुमच्या आवडट्या मामाची खूब याद येवन तो आयल्यार पुरो.. अशें तुमी मागतात आनी खरेंच मामा तुमचे पासत खुबशो मजेच्यो गजाली घेवन तुमगेर रावंक येता!

एक एकदां तुमी चिंततात, आयज बीचार व्हरून पापान आयस्क्रीम खावपाक दिवपाक जाय .. आनी तशेंच जाता. केन्ना केन्ना तुमी म्हणटात, आयज पावस आयल्यार पुरो.. .आनी, खरेंच पावस येता. केन्ना विश करता तसो गणिताचो पेपर सोप्पो येता, जाल्यार केन्ना जाय जायशी दिसताली तसलीच रिमोटाची गाडी आई ऑफिसांच्यान येतना घेवन येता. अशें तुमी मागता तें खरें जाता न्ही केन्ना केन्ना? तुमच्यो इत्सा खऱ्यो करपाचें हें काम आमी विशु परयोच करतात.

मागीर सगलेच फावटी इत्सा खऱ्यो किद्याक जायना म्हणटात? बरी हुशार मगो तुमी !

तेचें किदें आसा जाणा, आमच्या परी राज्यांत एक कंप्युटर आसा. सामको ... सुपर से भी उपर ... सुपर कंप्युटर ! तुमी भुरगीं जेन्ना बऱ्यो गजाली करून, बरी वागून कोणाकूय खोशी करतात न्ही तेन्ना तुमकां आमी बरे पॉईंट दितात .... आजीक टीव्हीचेर तिका जाय तो चॅनल लावन दिलो -१० बरे पॉईंट . Sharing is loving हें याद दवरून चॉकलेटी बी सगल्यां वांगडा वाटून खाल्यो - २० पॉईंट. सगळो वेळ मोबायल घेवन बसनाका म्हणून मम्मा सांगता तें एका धपक्याक आयकलें- ५० पॉईंट . हे सगले पॉईंट आमच्या कंप्युटरांत अदीक जायत वतात. अशे १०० बरे पॉईंट एकठांय जाले काय ना, आमी विशु परयो तुमची एक इत्सा खरी करतात. खरें दिसना, जाल्यार १०० बऱ्यो गजाली करून पळयात!

आरे, तुमच्या खबरींनी ज्या कामाक आयलां तें कामच विसरत आनी हांव!

जालां किर्तें जाणा, हांगा सई म्हणून ८ वरसांचें एक बाय रावता . अचकीत तेच्या नांवार २,००० बरे पॉईंट जमा जाल्यात. दीस कोरोनाक लागून लागलेल्या लॉकडावनाचे. खंय येवप ना, वचप ना. मागीर इतले पॉईंट ह्या बायचे जालेच कशे? अशे मदींच इतले पॉईंट वाढलेच कशे?

आमच्या कंप्युटरांत व्हायरस बी जाला काय म्हणून हुसको जाला परी राणीक. पूण कंप्युटर तपासच्या पयलीं किर्ते जालां तें पळोवन यो म्हण परी राणीन म्हाका हांगा धाडला. हो कवचेचो जादूचो बॉल दिवन. खंयच्याय भुरग्याच्या घरांत वचून ह्या बॉलांत पळयले जाल्यार आमकां त्या भुरग्यान आदी केल्ल्यो सगल्यो गजाली दिश्टी पडटात. चला, पळोवया ह्या बॉलांत सईन अशें केलां तरी किर्ते तें!

आरे वा..! आरे वा !! ह्या बायक खरेंच २००० पॉईंट्स दिवपाचेच हां ... कितलें गुणाचें हें बाय.

चला बसात, सांगतांच तुमकां हांवें किर्ते पळयलें तें ह्या बॉलांत.

तर हे सई , तेच्या आई आनी बाबा बराबर तालीगांव रावता. तेच्या घराक तेंकून घर आसा पळय तें दादामालें. हय, सारकें आयकलेंतुमी . दादीमा न्हय ... दादामाच!

ओमदादाची ती माँ, म्हण ती सईची दादामा! तर तांच्या घरांत ती दोगांच रावतात. ओमदादाचो व्हडलो भाई अमेरिकेक रावता, जाल्यार व्हडलें दिदी दिल्लीक. ओमदादा कंप्युटर एक्सपर्ट ... दादामा एकटी पडटली म्हूण तो मात गोंयांतूच आयटी कंपनींत काम करता.

सुटयांनी जेन्ना सगलीं जाणां आपापल्या भुरग्यांक घेवन घरा येतात तेन्ना मात सईची मजाच मजा जाता. दादामा तर इतली खोशी आसता त्या दिसांनी... किर्ते करूं , किर्ते नाका जाता तिका.

ह्या वर्सा मात सगलें परतेंच जालां. कोरोनाच्या लॉकडावनाक लागून ह्या वर्सा तीं कोण्ण येवचीं नात. तातूंत आनी ऑफिसाच्या कामाक लागून पुण्याक गेल्लो ओम दादाय लॉकडावनाक लागून थंयच अडकून पडला. आनी दादामा बाबडी आनीकूय एकटी पडल्या.

तशी सईची आई- बाबा दादामाचे सगले जाय नाका तें पळयतात. पूण एकटी रावून ती बाबडी खुबूच उदास जाता. तिका दुख्खी पळोवन सईक खूब वायट दिसता. म्हूण ते कसलें ना कसलें निमीत करून दादामा बराबर वचून बसता. केन्ना केन्ना तर घरा टीव्ही पळोवपाचें मनांत असताना लेगीत तिका बरें दिसचें... ती हॅपी जावची .. म्हणून तें तिचे खबरीक वचून बसता . हरशींच सई दादामाचें आवडटें. तातूंत आनी ती एकटी जाल्ल्यान सकाळ सांज सई तिका फाटल्यान फुडल्यान जाय आसता. दादामाक सई आपल्या फ्रेंडांच्यो खबरी सांगता.

शाळा बंद आशिल्यान सईक आपल्या फ्रेंडांची खूब याद येताली. तें पळोवन सईचे आईन ताका व्हाटसेप ग्रुप कॉल करपाक शिकयल्लें . आतां दिसांनच्यान एकदां तरी सगळीं फ्रेंडां, वांगडा खबरी पेटयतातूच. मागीर त्यो सगल्यो खबरी दादामाक सांगप. दादामाय ल्हान जावन, दोळे लिकलिकायत सईच्यो खबरी आयकता.

दादामा कडेपोरन्या स्टायलीचो टच स्क्रीन बी नाशिल्लो मोबायल आसा. तिचे डायरींत कोंकणींत बरयल्ले फोन नंबर पळोवन सई तिका फोन लावन दिता. सईक कोंकणी वाचूंक येता हाचें तर दादामाक इतलें कौतूक.. कांय विचारूंच नाका!

एक गजाल मात सई आनी दादामा दोगांकूय वांगडाच करपाक खूब खूब आवडटा. '१०१ डाल्मेशीयन' हें पिक्चर पळोवप. लॉकडावनातूच दोगांयनी तो पिक्चर तीन फावटी तरी पळयला आसतलो. आनी प्रत्येक फावटी सईन दादामाक सांगप... कितले क्यूट न्ही गे हे डाल्मेशीयन कुतू . हांव बाबाक म्हज्या पासत असलो एक कुतू हाड म्हूण सांगतलेंच. आनी तेचें नांव किर्ते दवरतले जाणां ? डाल्मु !

तर ते दिसा सकाळचें उठल्या बराबर सईच्या नाकांत केकाचो घमघम पावलो. लॉकडावनांत बाबा आनी आई दोगांय मर्दी सामकें 'मास्टर शेफ' कंपेटिशन चललेलें . कसलीं कसलीं खाणां यु-ट्युबार पळोवन करत रावताली. आनी सई बाबडे गिनी पिग, टेस्ट करपाक.. पूण लॉकडावन म्हणजे सईची मज्जा जाल्ली इतलें मात खरें. खूब वर्सानी आई -बाबा दोगांय सईक खेळपाक, पुस्तकां वाचपाक, हेर ॲक्टीविटी करपाक आनी झगडपाकय बी मेळिल्ली.

''कसलो केक केला रे बाबा ?''... बोवाळ घालत... केकाचो वास नाकांत भरून घेत... सई किचनांत पावलें. पळयत जाल्यार बरो SS चॉकलेट केक. वयर बरयलां 'हॅपी बर्थ डे' दादामा .

''आरे , कशें विसरलें हांव दादामाचो आयज बर्थ डे तें ?''

''आगो तुकाच उठूंक रावताली आमी, चल दादामागेर वचून तिका विश करूया.'' आईन सांगलें.

सईन बेगीन बेगीन तयारी करून, ''तुमी येयात फाटल्यान हांव चल्लें फुडें,'' म्हणत दादामागेर धांव मारली.

दादामालें दार उगतेंच आशिल्लें,

दादामा फोनाचेर ओम दादाकडे उलयताली. दादा तिका विश करतालो दिसता. तिच्या दोनूय डोळ्यांनच्यान यळा यळा दुकां व्हांवताली. ''तुमकां सगळ्यांक पळोवन शें दिसलां रे पुता..'' दादामा म्हणटाली. तिका रडटा तें पळोवन सईकूय रडपाक येवपाक लागलें. एक मिनीट दारार उबे रावून , किर्ते तरी येवजून सई परत घरा वाटेन धावलें .

पळय जाल्यार आई, बाबा केक घेवन दादामागेरूच येताली. ''आई मोबायल दी गे माल्सो तुजो'' म्हणून सईन आईच्या हातांतल्यान मोबायल घेतलो.

आई-बाबान दादामाक विश करून तिचे पसत हाडिल्ली साडी गिफ्ट दिली. ''किर्ते तुमी भुरगीं... इतल्या जाण्टया मनशाचो कोण वाडदीस करता? आनी इतलो त्रास करून केक करपाची किर्ते गरज आशिल्ली?'' उलयतां उलयतां दादामाचे दोळे भरून येवन तिणें तकली सकयल केली.

''आगो सई, चल यो केक कापू या. मोबायल दी तो म्हजे कडेन , म्हाका फोटो काडूं दी ''अशें आई म्हणटा थंय आसा ... 'हॅपी बर्थडे टू यू ... हॅपी बर्थडे डियर मा' असो आपल्या तिगांय भुरग्यांचो आवाज एकदम आयकून दादामान चक्क करून वयर पळयलें .

सईन मुखार धरलेल्या मोबायलाच्या स्क्रीनाचेर आपल्या तिनूय भुरग्यांक आनी नातरांक पळोवन दादामाच्या दोळ्यांच्यान खोशयेचीं दुकां यळयळीत व्हावपाक लागलीं. ''चल माँ, केक काप आतां . बरें हुशार हां तूं सई! कशें सुचलें गो तुका



केक कापच्या वेळार आमकां सगल्यांक वांगडाच व्हाट्सॲप कॉल करपाक ?''

''गुणाचें आमचें बाय तें...!''

सगळ्यांचे अपुर्बायेन सई सामकें न्हावन गेलें. सगळ्यांनी दादामाक परबी दिली. नातरांनी दादामाचेर फ्लाइंग किसांचो पावस घातलो. दादामानूय सगल्यांक भरभरून आशिर्वाद दिले.

कॉल डिस्कनेक्ट करतकीर दादामान सईक कुशीक घेवन ताच्या माथ्या वेल्यान हात भोंवडायत म्हणलें , ''बाय तुजें बरेंऽऽ जावं!''

आनी हेवटेन इतल्या सगल्या लोकांक खोशी केलें देखून सईचे Good deed पॉईन्ट झर झर झर झर वाडून २,००० जाले .

''चला बरें जालें! आमच्या कंप्युटरांत व्हायरस ना हेंय कळळें. परी राणीक वचून रिपोर्ट करतां आतां. तितले म्हणसर तुमी ह्या जादूच्या बॉलांत फुडें किर्ते जालें ते पळयात.''

तर कांय दिसांनी लॉकडावन सोपतकीर ओम दादा घरा आयलो. दादामा खूब खोशी जाली.

ताच्या मागीर कांय दिसांनी भायर कसलो तरी कूंय कूंय आवाज येता म्हण सई पळोवंक गेलें ... पळय जाल्यार ताच्या घराच्या दारांत एक क्युटी पाय डालमेशियन कुत्रू.

'' तुजोच गो तो , दादामा आनी ओम दादान तुजे पासत गिफ्ट म्हणून हाडला . तुजी विश आशिल्ली न्ही गो डाल्मेशियन कुत्रू जाय म्हणून?'' सईची आई ताका सांगताली.

पूण सईची विश खरी कशी जाली हे फाटलें सीक्रेट मात तुमकां आनी म्हाकाच खबर आसा न्ही । कोणाक सांगनाकात हां!



ताळगांव-गोंय

# आत्मविश्वास बाळगात

-बाय आद्या वर्दे बोरकार



आमच्या गांवांत एका वाड्यार पिन्टू नांवाचो एक भुरगो आपले आजये सांगाताक रावतालो.

एक दीस गणिताचो अभ्यास घेतना आजयेन ताका विचारलें,''पिन्टू ,दोन अदीक दोन कितले ?''

''आज्जे चार शे दिसतात. पूण म्हाका खात्री ना. ''पिन्टून आजयेक म्हणलें.

तेन्ना आजयेन म्हणलें,''पुता तुजी जाप तुवें दितना ती खरी आसा हाची खात्री बाळगून भंया विरें दिवंक जाय. राव हांव तुका एक काणी सांगतां.''

'ह्याच आमच्या गांवांत एका काळार एक कावळो रावतालो. ताका एक दीस भरपूर तान लागली. तो उदक सोदपाक हांगा थंय भोंवलो. शेवटाक तो बाजारांत पावलो. थंय ताणें एका मनशाक उदक विकतना पळयलो. पूण ताका ताच्या म्हर्यांत वचपाक भंय दिसतालो. तानेन कसोच रावंक जायना जालें म्हूण तो शेवटाक ताचे लागीं गेलो.तेन्ना त्या मनशान कावळ्याक सांगले,'कावळ्या,हांवें म्हजे लागचें सगळें उदक विकून उडयलें. आतां म्हजे लागीं इल्लेंय उदक उरूंक ना.''

तानेल्लो कावळो तसोच परतलो आनी दुसरे दिसा मात मनांत भंय बाळगिनासतना त्या मनशा लागीं गेलो. हे खेपे ताचे भितर आत्मविश्वास जागवल्लो देखून तो सगळ्यांत आदीं थंय गेलो आनी ताका उदक मेळ्ळें.''

ही काणी आयकून पिन्टूक होलमलें,आपूण गरजे भायर भितालों. ताणें आपले आजयेक सांगलें, हे फुडें हांव जाप दितना मातूंय भिवपाचो ना. जाप खरी आसल्यार हांव ती अत्मविश्वासान दितलों.

आजयेन पर्थून एक खेप ताका विचारलें,दोन अदीक दोन कितले?

आनी पिन्टून पुराय आत्मविश्वासान जाप दिली,''आजये दोन अदीक दोन चार.''

## आमची टिचर

टिचर टिचर टिचर
शिकयता आमकां ती

खेळयता खेळयता खेळयता
खेळयता आमकां ती

खेळयतां खेळयतां आमचो
अभ्यास करून घेता ती

लॉकडावन आसल्यार लेगीत
शिकयता आमकां ती

शिकून आमी व्हडलीं जातलीं
पळोवन टिचर खूश जातली

टिचर टिचर टिचर
शिकयता आमकां ती

- बाय आद्या वर्दे बोरकार
बोरी गोंय.

# कांदो आनी बटाट

- अभयकुमार वेलिंगकार

कांदो आनी बटाटाचें
एकदां बरेंच पेटलें
व्हडपण आपलें सांगतना
तोंडाक तोंड लागलें.

बटाटान म्हळें, म्हजेबगर
सकाळ कशीच उदेना
च्याये वांगडा करूंक भाजी
दुसरो कोण गावना.

जेवणांतूय हांवूच जाय
केन्ना भाजी, केन्ना फोडी
रोस केन्नाय, केन्ना कुंवळ
हांव वाडयतां जेवणाची गोडी

चिकन मटण वाडोवंक
म्हजोच जाता वापर
चिवडो बी करतना
म्हाकाच लागता कातर

दर एका कामांत
हांवूच तांकां जाय
मागीर जाल्यार जाता
पोटांत तांच्या वाय

कांद्यान उगडून तोंड म्हळें,
म्हजे बगर कोणाचेंच जायना
हांव नासलों जाल्यार
जेवणाक कशीच रूच येना.

करूंक तुजी भाजी
म्हजीच गरज पडटा
हांव नासल्यार भाज्जेची
रूच सामकी इबाडटा

कापतना म्हाका जरी
दोळ्यांत येता दूक
जेवणा रुच वाडोवन
घेतात सगळीं सूख

आसूं शिवराक वा नुस्तें
सगळ्याक हांवूच लागतां
सालादांत लेगीत
म्हाकाच मान आसता

दर म्हजी वाडटा तेन्ना
सगळो संवसार रडटा
सत्तेवेलें सरकार लेगीत
घडायंच करून पडटा

वोगीच मरे बटाट्या
करूं नाका म्हजे कडेन रर
जल्मतांच दिला देवान
म्हाका तसो वर

आयकूच हें बटाट
खिणभर जालें धवें
चितूंक लागलें सांगचें किते
हाका आतां नवें?

म्हळें ताणें, खरें तुजें
मेळ्ळा तुका तो मान
पूण देवाच्या निवेद्यांत
खंय रे तुका स्थान?

आयकून हें कांदो
तांबडो तांबडोच जालो
आनी फाटल्या पावलांनी
ल्हवूच फाटीं सरलो.

# पाल

-सोनिया (सुनिता) सुभाष शाह

बाबल्यान आमच्या पळयली
वणटीचेर एक पाल
हट्ट करून लागलो मागूंक
दी म्हाका ती पाल

बाबुल्यान हट्ट धरलो
रड रड रडलो
तेन्ना मम्मान ताका सांगलें
पळय पालीचे दोळे लाल

बाबुल्याची आनी पालीची
नदरेर नदर जाली
पालीक बाबुलो भियेलो
हळूच थंयच्यान धांवलो

तेन्नाच्यान आमचो बाबुलो
पालीक कसोच पळयना
वणटीर दिसल्यार पाल
सालांत कसोच रावना...

मानाचें पान



मंजुषा सिनाय तळावलीकार

# जिणेंत आनंदाची उपाट अनुभुती मेळोवपा फाटलें विज्ञान

## - द हॅपीनेस ट्रॅक - लू एमा सेपाला

फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं

**मंजुषा तळावलीकार**

मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच,तेच वांगडा .शिक्षा,कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.

*आमी आमचेर तासमपट्टी करप्यांचें चड मनाक लावन घेवन खचून वचूंक जायना. पावला पावलार आमकां टिकाकार मेळटात. कितलेंय बरें लेगीत केल्यार तें कोणाक ना कोणाक तरी खटकताच. आनी तें लावन घेवपाकूय जें कारण आसता तेंवूंय भायलेंच आसता.*




जिणेंत आनंद मेळोवप ही दर एकल्याची मोख आसता. आनंद कशे तरेन मेळूं येता हें सोदतना तो सोद अनुवांशीक, मानसीक, वैज्ञानीक, सामाजीक, न्युरोलॉजिकल तशेंच आध्यात्मीक दिश्टीकोनांतल्यान येवंक येता. आमी मना सावन आनंदी रावपाचें थारायलें तरी जायते फावट कांय गजाली ताच्या आड येतात. तर आमच्यो कांय चुकीच्यो धारणां, दिश्टीकोन आनी गैरसमज आसात ज्यो आमकां जिवितांत आनंद मेळोवपाचे बाबतींत अडचण हाडटात. आमी जर ताची खोलायेन म्हायती घेवन ताचें फाटलें विज्ञान समजून घेतलें जाल्यार आमकां त्यो अडचणी पयस करपाक कांय प्रमाणांत यश मेळूं येता. त्याच विशयाचेर आधारीत हें पुस्तक ***द हॅपीनेस ट्रॅक*** जे एमा सेपाला हाणें बरयलां आनी तें बेस्ट सेलर वळेरींत पावलां. जिणेंत आनंद मेळोवपा फाटलें विज्ञान ह्या पुस्तकांत सोपे तरेन वाचकां मेरेन पावोवपाक लेखिका उत्कृश्ट तरेन यशस्वी जाल्या.

लेखिका एमा सेपाला हाणें स्टॅनफॉर्ड युनिवर्सीटींतल्यान पी.एच्.डी केल्या आनी ती येल स्कुल ऑफ मॅनेजमेंटांत प्राध्यापिका आसा. तशेंच वीमन्स लिडरशीप प्रॉग्रेम हातूंत फॅकल्टी डायरेक्टर म्हूण वावुरता. तिचें हें पुस्तक डझनभर भाशांनी अणकारीत जालां. सकारात्मक मानसशास्त्र, भावनीक बुदवंतकाय, सामाजीक बंध, आनी सकारात्मक नेतृत्व ह्या क्षेत्रांनी तिची कुशळटाय आसा. गुगल, फेसबुक, टेड-एक्स सारकेल्या आंतरराश्ट्रीय फॉर्च्युन ५०० संस्थे खातीर ती सल्लागार जावन आसात. *द हॅपीनेस ट्रॅक* हें आनंदाच्या अणभवा फाटलें विज्ञान सांगपी एक बेस्ट

सेलर वळखेतले पुस्तक जें सोंप सहज भाशेंत बरयला. आनंदा फाटलें विज्ञान सांगपी हें पुस्तक स मुखेल मुद्यांनी विभागलां जें तर्कशुध्द दाखो दिवन वाचकाक पटोवन दिवपाचो यत्न लेखकान केला. तर ह्याच पुस्तकांतल्या वेगवेगळ्या विशयांची वळख करून दिवपाचो हो एक यत्न.

आधुनीक तंत्रज्ञानांत खातीर आमचे जिणेची गती प्रचंड वाडल्या. आमी नोकरी, धंदो, वेवसाय करतना काम वेळार पुराय जावपा खातीर खुबच ताण तणावांत जीण घालयतात. कामा खातीर आमकां सोशल मिडीया, ईमेल, वॉट्सएप, मॅसेजीचेर नदर दवरपा खातीर सदांच सतर्क रावचें पडटा. रातचे लेगीत फोन उश्या म्हऱ्यांतच घेवन न्हिदचें पडटा. ते खातीर आमची तकली सगळो वेळ तातूंतच गुरमुन उरता आनी तकलेक सुशेग म्हणटात तो मेळूंक पावना. काम जातकच लेगीत आमी उरिल्लो वेळ इश्ट इश्टिणी कडेन लेगीत सोशल मिडीयाचेरूच संपर्कांत रावतात. अशे तरेन चडांत चड वेळ आमी वर्चुअली प्लग्ड वो कनेक्टेड उरतात. सप्तक भर हे दिनचर्येंत रावन सप्तकाच्या शेवटाक म्हणल्यार शेनवार आयतार आमी आमच्या घरच्या कामांत व्यस्त उरतात. ऑफिसांतल्यान सुटी घेतल्यार लेगीत आमकां पुराय वेळ स्वता खातीर मेळना. ऑफिसांतल्यान फोन, मेसेजी आयल्यार ते घेवचे पडटात आनी सुटयेर आसून लेगीत आमकां मनशांती मेळना. ह्या धावपळीच्या युगांत हें सगळें आमी सुटका नासून स्वीकारलां कारण नोकरी धंद्यांत लेगीत जीवघेणी सर्त आसता. आमी कितले कार्यक्षम आसात हें आमकां सदांच सिध्द करीत रावचें पडटा. ना जाल्यार आमचो जागो दुसरो कोणूय घेतलो हाची भिरांत आसता. आमकां सक्षम कर्मचारी जावचें आसता म्हूण आमी खूब कश्ट घेतात. आमकां बरे पालक जावपाचें आसता म्हूण आमी चडांत चड वेळ भुरग्यांक दितात. आमकां बरे जोडीदार जावपाचें आसता म्हूण आमी जेवण करप, शॉपिंग करप, भोवपाक व्हरप ह्यो सगळ्यो गजाली करून तांचें मन राखपाक वेळ दितात. आमकां बरे इश्ट जावपाचें आसता म्हूण आमी वेळांत वेळ काडून तांकांय वेळ दितात. आनी ह्या सगळ्या प्रयत्नांत मात आमी ताणाचे भकीक पडून थकतात आनी आमची सगळी उर्जा घालोवन बसतात. दीस भर इतलें सगळें करून आमी सगळें जाग्यार घालतात पूण तांचें मोल मात आमकां खूब दिवचें पडटा आनी सुशेग तशेंच आनंद कमीच मेळटा.

यश मेळोवन आमकां आनंद मेळटलोच अशें ना. आमच्यो यशा बद्दल कांय चुकीच्यो धारणां आसतात त्यो म्हणल्यार-

**१.नवनवें यश संपादन करीत रावप** - सतत नवनव्या गजालीचेर लक्ष केंद्रीत करून त्यो मेळयत रावप. चड चड यश संपादीत करपा खातीर चडाओढ करीत रावप. हातांत आशिल्लें काम बेगीन सोंपोवन नवें कसलें काम आपूण करूंक शकता हाचेर दोळो दवरून रावप.

**२.ताणतणाव घेनासतना यश मेळोवपाक शक्य नासता-**
जीण सदांच धावपळींत जगले शिवाय यश मेळोवप शक्य नासता. तशेंच कश्ट घेतले शिवाय आनी त्रास भोगले शिवाय यश मेळना.

**३.पिकाटीखातीर कितलेंय मोल दिवप-**
यश मेळोवपाक जाय जाल्यार जाम जाय मेरेन काम करीत रावचें पडटा तशेंच मानसीक उर्जा काबार जाय मेरेन चिकाटेन काम करचें पडटा.

४.**तुमी ज्या क्षेत्रांत फिशाल आसात ताचेरूच लक्ष केंद्रीत करप** -

फक्त एकाच क्षेत्रांत तुमची सगली उर्जा घालून तातूंतच कुशळताय मेळयता.

**५.तुमी जंय सामर्थ्यवान आसात ताचेरूच तुमची उर्जा केंद्रीत करात** - तुमी जे कडेन कमजोर आसात ताचे वाटेक वचूं नाकात.

**६.सदाच पयले नंबराचेर रावपाखातीर धडपडात** -
स्वता पुरतें चिंतप आनी चडाओड करून पयलो नंबर मेळयले शिवाय यश मेळना.

पूण आमी लक्षांत घेवपाक जाय की वयर दिल्यात ते सगळे गैरसमज वो चुकीच्यो धारणा ज्यो परंपरेन आमच्या विचारांत झिरपल्यात आनी शाळेंत शिक्षण घेतना त्यो आनीकूय घट्ट जाल्यात. हे सगळे अनुसरून जायत्या जाणांक यश मेळ्ळांय आसतले! पूण त्या बदलाक तांकां चडूच मोल दिवचें पडलां. पूण संशोधना प्रमाण अशें दिसलां, ह्या सगळ्या धारणांक लागून जायतें न्हयकारी परिणाम तयार जाता आशिल्ल्यान त्यो गजाली आमच्या यश आनी आनंदाच्या आड येतात. तशेंच आमचे उत्पादन क्षमतेक, सर्जनशीलतायेक, मानसीक उर्जेक मारक आसात. आव्हाना आनी अपेसाच्या काळांत तातूंतल्यान भायर सरपाक अडसर हाडटात. आमची शारिरीक तशेंच मानसीक चड झीज जाता

हें पुस्तक तिर्णे स मुखेल मुद्यानी विभागलां. ते म्हणल्यार-

१. वर्तमान खिणांत जगात

२. मानसीक लवचिकता वाडयात
३. उर्जेचें वेवस्थीत वेवस्थापन करात
४. केन्ना केन्नाय कांयच कर नाकात
५. स्वता कडेन बरे वागात
६. दुसऱ्यां कडेन अनुकंपेन वागात

आतां दर एक मुद्दो मात्सो विस्तारान पळोवया-

**१. वर्तमान खिणांत जगात.**

भविश्यकाळा फाटल्यान धावपाचें थांबात कारण आनंद आनी यश हें वर्तमानकाळांत आसता. ज्या मनशाक वर्तमानांत जियेवपाची तांक नासता ताचे कडेन भविश्यकाळाची वेवजण जावप कुस्तारच आसता.

संशोधनांत दिसून आयलां, फुडें वचून व्हडलें इनाम मेळप शक्य आसल्यार भुरगीं आपलें समाधान लांबणेर उडोवपाची तयारी दाखयतात. त्याच संदर्भांत केल्ल्या एका प्रयोगांत, भुरग्यांक खावपाक बिस्कुट आनी चॉक्लेटी दिल्ल्यो. भुरग्यांक दोन पर्याय दिले. पयलो पर्याय तांणी तें खाण रोकडेंच तांकां जाय तेन्ना खावपाचें आनी दुसरो पर्याय म्हणल्यार तांकां खावपाची परवानगी मेळटकच खावपाचें. जर दुसरो पर्याय तांणी वेंचिल्लो जाल्यार तांकां खाण दोबराद मेळपाचें. ताचेर चडश्या भुरग्यांनी दुसरो पर्याय वेंचलो.

आमकां अशी सवंय भुरगेपणा सावन जाल्ली आसता आनी फुडें वचून चड मेळटलें हे आशेर आमी सदांच खोशयेचे खीण लांबणेर उडयतात. पूण हें लांबणेर उडवपाचें प्रकरण इतलें चडटा की आमी यश आनी आनंदाचो अणभव केन्नाच मेळोवपाक पावनांत.

***ऑथेंटीक हॅप्पीनेस*** ह्या पुस्तकांत लेखक मार्टीन सेल्गिमन एक प्रसंग सांगता.एका मनशान एक पाल पोशिल्ली. तिका तो बरें बरें खाण खावपाक दितालो. पूण कांय दिसांनी ताच्या लक्षांत आयलें आपली पाल किर्तेंय खावपाक तयार ना आनी ल्हवल्हव ती सुकत चल्ल्या आनी अशेंच चल्लें जाल्यार ती रोकडीच मरतली. तो चिंतेंत पडलो. एक दीस तो सँडवीच खातना पालीन आशिल्ली नाशिल्ली शक्ती एकठांवन ताच्या हातांतल्या सँडविचाचेर उडी घेतली आनी तो सँडवीच खावपाक लागली. ते पालीची खावपाक नासतना उपासमार जावंक नाशिल्ली. तर तिका 'शिकार' करपाची संद मेळनाशिल्ली म्हूण ती उपाशी रावन मरपाक लेगीत तयार जाल्ली. ही दर एकल्या प्राण्याची अंतरप्रेरणा. मनीस लेगीत हे अंतप्रेरणेंतल्यान सुटलो ना. शिकार करपाची उर्मी आमकां सगळ्यांक जल्मजात आसता म्हूण आमी कसले ना कसले गजाली फाटल्यान धांवत आसतात. ही पाठलाग करपाची उमेद जी आमकां संभावीत वो काल्पनीक इनाम मेळोवन दिवपाची शक्यता आसता ताका आमी अपेक्षीत आनंद(Anticipatory joy) अशें म्हणटात. होच अपेक्षीत आनंद जो प्राण्यां मदीं तशेंच मनशां मदीं प्रकर्शान सापडटा तोच तांकां जगपाक आनी तगपाक मजत करता. मनीस चड-चड कामांत गुंतून रावन वर्कोहॉलिक त्याच कारणा खातीर जाता.

वैज्ञानीक मिकायल ट्रेडवे हाणें केल्ल्या संशोधनांत अशें दिसून आयलां की जे मनीस वर्कोहॉलिक आसतात तांच्या मेंदवांत चड प्रमाणांत डॉपामीन तयार जाता. डॉपामीन हो आनंदाचो संप्रेरक (pleasure hormone) जो आमकां आनंदाचो अणभव दिता. हार्वर्ड बिझनेस स्कुलाचे प्राध्यापक लेस्ली पर्लोव हांच्या मतान जे मनीस यशाच्या फाटल्यान धांवत आसतात ते काम करपाचें कशेंच सोडनात आनी तांकां यश मेळोवपाचें व्यसन लागता. ते फोमोफॉबिक जातात. फोमो (FOMO) हो आधुनीक म्हायती आनी तंत्रज्ञान युगांतलो नवो शब्द जो Fear Of Missing Out हाचो एक्रोनिम. ताचोच परिणाम म्हणल्यार जायते लोक आपलो मोबायल नासतना एक मिनीट लेगीत रावपाक शकनात. आपल्याक नवी कसली म्हायती, ब्रेकिंग न्यूज, मीम, ट्वीट वो हेर कसलेंय सोशल मिडिया वेर्ले अपडेट चुकत म्हूण ताका निरंतर हुस्को आसता. म्हूण ते लोक सदांच मोबायलाक गोळोव मारून रावतात. रातीं लेगीत मोबायल उश्या लागीं दवरून मेसेज, ईमेल आनी कसलीय अपडेट तपासत रावतात. फक्त मोबायलच न्ही तर संवसारांत जें किर्तें घडटा तें आपल्याक चुकत, वो आपूण ते गजाली पासून वंचीत उरत म्हूण तांकां सदांच हुस्को आसता. ते खातीर ते सदांच डिजीटली कनेक्टेड वो प्लग्ड राविल्ल्यान एक खीण लेगीत मनशांती मेळोवपाक पावनात आनी ताणतणाव आपशींच वाडटा. हे अशे वागपा फाटलें कारण म्हणल्यार संवसारांत सगळ्यांत फुडें रावपाची मनशाची इत्सा. आपल्याक भविश्यांत तार्चे चडांतचड इनाम वो फळ मेळटलें हो भरवंसो तांकां तशें करपाचें हांयस दाखयता.

सकारात्मक मानसिकतायेचो अभ्यासक डॅन गिलबर्ट हांच्या म्हणण्या प्रमाण खंयची गजाल आमकां आनंदीत करतली आनी खंयची गजाल करची ना हे समजुवपाक आमी सामकी चूक करतात. जायते फावट कसलीय गजाल जितलो आनंद आमकां दिवपाक शकता ते परस तो जायते पटीन चड आसतलो असो आमी चुकीचो

अंदाज लायतात. जशें माजर खंयच्याच खेळण्या फाटल्यान धावता पूण तें धरतकच मात ताचो तातूतलो रस शेणटा तशीच गत आमची सगळ्यांची जाता.

तशे पळोवपाक गेल्यार एन्टिसिपेटरी जॉय हाचे जायते फायदेय आसतात. ताका लागून आमी उमेदीन, चिकाटेन, दृढनिश्चेवान काम करतात पूण कसलीय गजाल अती जाता तेन्ना मात ताचे दुश्परिणाम आसतातच. भलायकेच्या नदरेंतल्यान आमी शारिरीक आनी मानसीक रित्या थकतात, झिजतात, बर्न आउट जातात ते खातीर एकंदरीत आमका उणें समाधान मेळटा. कामाचे नदरेंतल्यान पळयल्यार आमचो ताणतणाव वाडटा आनी उत्पादन क्षमता देंवता. सदांच सर्तात्मक चढाओढींत राविल्ल्यान सहकाऱ्यां वांगडचे नाते इबाडटा आनी कामाच्या बोवाळांत घरच्यांकूय वेळ दिवपाक जमनाशिल्ल्यान वैयक्तीक नातेसंबदूय इबाडटात. हाचे उरफाटें म्हणल्यार जेन्ना आमी वर्तमान काळांत जगतात तेन्ना आमी जें किते करतात तातूंत पुरायपणान आनंद घेवपाक पावतात.

आमचें मन जेन्ना भूतकाळांत वो भविश्यकाळांत भटकता तेन्ना आमी नकारात्मक भावना चड प्रमाणांत अणभवतात. भूतकाळांत शेणटात तेन्ना आमी राग, नैराश्य हातूंत पुरसून वैफल्यग्रस्त जातात आनी भविश्यकाळांत पुरपतात तेन्ना फुडें जावपी गजालीं बद्दल चिंता, हुरहूर, हुरको, भिरांतीचो अणभव आमकां येता.

आकर्शक व्यक्तिमत्वाचेर केल्ल्या अभ्यासांत अशें दिसून आयलां,ज्यो व्यक्ती वर्तमानकाळांत जगतात त्यो सदांच आकर्शक वो करिश्माई आसतात. ह्या अभ्यासांत ते व्यक्तीं भितर स घटक दिसून आयल्यात ते म्हणल्यार-

**१.सहानुभूती (Empathy)**- सहानुभूती म्हणल्यार दुसरे व्यक्तीचे नदरेंतल्यान पळोवप आनी ताका कशें दिसता ताचो अणभव करून घेवप. दुसरे उतरांनी सांगप म्हणल्यार दुसऱ्याच्या जोत्यांत आपले पांय घालून पळोवप. आमी पुरायपणान लक्ष दिले बगर आमकां दुसऱ्यांच्यो भावना समजप वो त्यो अणभव करप शक्य नासता आनी ते खातीर वर्तमानकाळांत आसप गरजेचें.

**२.शाब्दीक आनी अशाब्दीक संपर्क** - दुसरो किते उलयता तेंच आयकूं क फावना तर उतरां वांगडा ताची शरिराची भाशाय समजुवची पडटा. ते खातीरूय ते व्यक्तीची हालचाल, हावभावांचेर बारीकसाणेन लक्ष दिवचें पडटा.

**३.दोळ्यांनी संपर्क सादप** - जेन्ना आमी दुसरे व्यक्तीच्या दोळ्यांत पळोवन उलयतात तेन्ना ताका आपल्या कडेन लक्ष दिवन आयकल्ल्याची भावना जाता. जेन्ना आमी आपल्या चिंतनांनी शेणिल्ली आसतात तेन्ना आमी नदर आपोआप दुसरे कडेन धुंवडायतात आनी संभाशणातलो प्रभाव कमी जाता.

**४.उमेद वो उत्साह** - उमेद ही एक उत्स्फूर्त भावना आशिल्ल्यान फटीची उमेद दाखोवप खूब कुस्तार गजाल. स्वताक जेन्ना आमी ती भावना अणभवतात तेन्नाच दुसऱ्याक लेगीत ताची अनुभूती आमी करपाक शकतात. जेन्ना दुसरे व्यक्ती वांगडा मना सावन आनी लक्ष दिवन आमी उलयतात तेन्नाच ताचीय बी उमेद आमी वाडोवंक शकतात.

**५.आत्मविश्वास**- दुसरे किते म्हणत हाचो कांयच हुरको करनास्तना बिनधास्त आमी नीज स्वभावान वागल्यार आमच्या वागण्यांतलो आत्मविश्वास झळकता. आमी जेन्ना दुसरे आपल्याक किते म्हणटात, आपले बद्दल कसलो ग्रह करतात हाचोच हुरको करीत रावतात तेन्ना दुसऱ्या कडेन उलयतना त्या संभाशणाचेर लक्ष केंद्रीत करपाक शकनात. आनी तशें घडल्यार ते व्यक्तीक आमचे कडेन उलोवपाचो रस उरचो ना.

**६.संभाशणांत कुशळताय** - दुसऱ्या कडेन उलयतना आमी ते खंयचे विशयांत रुची घेतात तें जाणां जावन घेतल्यारच आमची ते व्यक्ती कडल्या संभाशणाची तार जुळपाक शकता. आनी ते खातीरूय वर्तमानांत रावप खूब गरजेचें जावन आसता.

वर्तमानकाळांत कशें रावप हाचेरूय लेखकान कांय सुचना दिल्यात -

**१. जाणीवपूर्वक वर्तमानकाळांत रावपाचो यत्न करप** - कसलीय गजाल करतना जर आमी ती जाणीवपूर्वक केली जाल्यार आमी तो वेळ वर्तमानकाळांत पालयतात आनी ते खातीर आमकां ताचो आनंद घेवप शक्य जाता.

**२.ध्यान करप**- जे वेळार आमी ध्यान करपाक बसतात त्या वेळार आमचें चित्त जाग्यार येता. आमच्या मनांत जो विचारांचो कल्लोळ चलिल्लो आसता तो त्या वेळार कमी जाता आनी ल्हव ल्हव करून बंद जाता.

**३.श्वसनक्रियेचेर लक्ष केंद्रीत करप** - वर्तमान खिणांत मन हाडपाक वो दवरपाक बेस बरो उपाय म्हणल्यार श्वासोश्वासाचेर लक्ष केंद्रीत करप आनी श्वास घेतना ते मेजप. संशोधना प्रमाण अशें दिसून आयलां, अशें केल्यार आमचें मन वर्तमान खिणांत

उरता आनी कसलेय गजालीचेर आमचें लक्ष बरे तरेन केंद्रीत जाता.

**४.मना सावन आनंदाचे खीण अणभवप** - ज्या ज्या खिणाक आमकां आनंद जाता त्या त्या वेळार दोळे बंद करून तो अणभव काळजांत साठोवन दवरात. जेवण लेगीत जेवतना वाचन वो टीवी पळोवपा सारखी बी दुसरी गजाल कर नाकात. लक्ष ताटाचेर केंद्रीत करून जेवता त्या पदार्थाची रूच येवन ताचो आनंद घेवपाचो यत्न करात.

**५.तंत्रज्ञाना सावन कांय वेळ पयस रावप** - कामा खातीर वो मनोरंजना खातीर आमी तंत्रज्ञानाक प्लग्ड रावतात. तशें केल्ल्यान आमी सत्य जगांत रावचे वाट्यार्चे वर्चुअल जगांत वावुरतात. मनाक सुशेग मेळपाक पावना आनी वर्चुअल जगांत आसतना आनी वर्तमान काळांत किर्ते यडटा थंय आमचें लक्ष उरना.

अशे पद्धतीन आमी जर वर्तमान खिणांत जगलीं जाल्यार आमच्या जिवितांतलो आनंद निश्चितूच वाडू येता.

**२.धकाधकीच्या खिणांतल्यान मात्शे भायर सरात** - वयर उल्लेख आयिल्ले प्रमाण, चड दगदग केल्यार चड यश मेळटा असो संवसारांत सगळ्यांचो एक गैरसमज आसा. दीस रात पळय नासतना आमी जीव झरयतात आनी निमर्णे जेन्ना तार्चे फळ मेळपाचो वेळ येता तेन्ना मेरेन एकाद्री आमी आमची भलायकी पिड्ह्यार करून दवरिल्ली आसता.

दुसरें म्हणल्यार लोक यशाचो संबंध आक्रमकताये कडेन जोडटात. अस्तमे कडल्या देशांत तर दुसऱ्यांक प्रभावीत करपाक उच्च तिव्रतेच्या उत्तेजना सारख्या भावनांचो वापर करतात. नेतृत्व करतलो जाल्यार तसल्याच तिव्र भावनांची गरज आसता असो गैरसमज थंय प्रचलीत आसा. पूण तसल्यो भावना सकारात्मक जरी आसल्यो तरी आमचे भलायकेचेर ताण हाडून वायट परिणाम करतात. त्यो भावना आमच्या शरिराचो Fight or flight प्रतिसाद उत्तेजीत करतात जे खातीर आमचे कुडीक ताण जाता.

संशोधना प्रमाण कमी प्रमाणांतलो ताण हो आमकां लाबदायक आसता. पूण जेन्ना तो खूब प्रमाणांत जाता तेन्ना आमचे भलायकेचेर सामको वायट परिणाम करता. आमचे कुडींत सूज हाडूंक शकता तशेंच आमकां बेगीन जाण्टी करता. आमची उत्पादन क्षमता तशेंच वैचारीक क्षमता उणी करता.

ताणाक ल्हारां भशेन प्रभाव आसता जो आपले आशिकुशींक आशिल्ल्या व्यक्तींचेर परिणाम करता. वैज्ञानीक अभ्यासा प्रमाण अशें दिसून आयलां, जेन्ना खंयचीय व्यक्ती अस्वस्थ वो चिंताग्रस्त आसता तेन्ना ती आपल्या घामांतल्यान एक रसायनीक द्रव्य सोडटा जाका फिअर फेरोमोन्स म्हणटात. (शरिरांत भितरल्यान पाझरपी रसायनाक हॉर्मोन्स आनी भायल्यान पाझरपी द्रव्याक फेरोमोन्स म्हणटात). ते व्यक्तीच्या संपर्कांत येवपी मनशांच्या मेंदवांतलो एमिग्डेला (जो चिंता आनी भिरांत नियंत्रीत करता) तो उत्तेजीत जाता. हाचोच अर्थ आमी जेन्ना ताणशेल्ल्या वो चिंताग्रस्त व्यक्तींच्या संपर्कात येतात तेन्ना आमच्याय मेंदवांत तो ताण प्रवाहीत जाता आनी साहजीकच आमीय बी अस्वस्थ जावंक लागतात.

संवसारांतलीं जनावरां तशेंच मनीस हांकां सैमीक लवचिकताय आसता जे वरवी दिसपट्टे जिर्णेतल्या कसल्याय ताणाचेर आमी रोकडीच मात करतात आनी मन तणावमुक्त करूंक शकतात. जेन्ना एक शींव एका हरणाची शिकार करपाक लागून ताच्या फाटल्यान लागता तेन्ना त्या हरणाची सिम्पॅथेटीक मज्जासंस्था आपोआपूच ताचो फाईट ऑर फ्लाईट प्रतिसाद उत्तेजीत करता जे वरवी रगतांत एड्रनालीन सारके हॉर्मोन्स स्रवतात जे ताका थंयच्यान नेटान पळपाक मजत करतात. शिंवान ताका धरलें जाल्यार ताका जीव गमोवचो पडटा, पूण तें पळपाक यशस्वी जालें जाल्यार जेन्ना तें त्या धोक्यांतल्यान भायर येवन सुरक्षीत जाग्यार पावता तेन्ना तें त्या ताणांतल्या त्याच खिणाक भायर सरता. ताची पॅरासिम्पेथेटीक मज्जासंस्था जी सुशेग आनी पचन ( Resting and digesting) जी हे प्रक्रियेक कारणीभूत आसता ती सक्रीय जाता आनी तें हरण शांतपणान तण खावपाक लागता. हें जालें



जजावराचे बाबतीत जी अंतरप्रेरणेन (instinct) जगतात जेन्ना मजीस सैमाक लागी आशिल्लो आनी सैमीक जीण जगतालो तेन्ना मजशाकूय बी हे लागू आशिल्लें भूरग्या मदी हे आमका अजून दिसून येता. कसलोय ताण- तणाव आयल्यार तीं रोकडीच ताचेर मात करतात (resilience) आनी तो प्रसग विसरूनय वतात. पूण वयरक मनशाचे बाबतीत चड करून अशें घडना. ती सैमीक लवचिकताय आमी जसजशीं व्हड जातात, तसतशी शणावन बसतात. म्हूण ताणतणावातल्यान भायर पडपाक आमका चड वेळ लागता वो केन्ना केन्ना तर ताण सोपलो तरीय आमची मज्जासंस्था फाईट ओर फ्लाईट रिस्पॉन्स चालूच दवरता आनी एड्रनलिन, कॉर्टिसोल सारके हॉर्मोन्स आमच्या रगतांत पाझरत उरतात आनी आमी तणावांत उरतात.

ताणांतल्यान बेगीन भायर न पडपाचें दुसरें कारण आमच्या उत्क्रांत जाल्ल्या मेंदवाचे रचनेंत आसा. आमच्या मेंदवाचे जायते भाग बाकी जनावरांच्या मेंदवां सारकेच आसात. पूण उत्क्रांतीच्या प्रवासांत आमच्या मेंदवांत एक नव्या प्रगत अश्या भागाचो विकास जालो जाका बुदवंतकाय आनी चिंतन करपाची तांक आसा. तो नवो भाग म्हणल्यार न्युओकॉर्टेक्स (neo-cortex) जो फकत मनशांकूच आसता आनी तेच बुदवंतकायेचो वापर करून आमी भास, गिन्यान, संपर्क, वेव्हार शिकूंक पावलीं तशेंच चिंतन, कल्पनाशक्ती करप शक्य जालें, भावना अणभवपाक पावलीं. पूण ताचे दुश्परिणामूय आमकां भोगचे पडले. ते म्हणल्यार आमचो मेंदू सकारात्मक गजाली परस नकारात्मक गजाली चिंतपाचेर चड भर दिवंक लागलो. अशें नकारात्मक चिंतपाचें कारणूय उत्क्रांतीच्याच प्रवासांत मेळटा. पुर्विल्लो मनीस बाकीच्या हिंस्त्र प्राण्यांच्या वांगडा रानांत राविल्ल्यान ताका रानवटी जनावरां पासून जिवाक धोको आशिल्ल्यान पावला पावलार शिटूक रावचें पडटालें.देखून ताचो मेंदू सतत आशिकुशींक नदर मारीत रावतालो आनी मात लेगीत दुबाव आयल्यार रोकडीच ताचेर कारवाय करतालो. देखून ताका हुस्को, चिंता, दुबाव अशीं नकारात्मक चिंतनां करपाची संवय लागली. फाटलीं कांय हजार वर्सां मनीस वसाहती करून परांनी सुरक्षीत रावपाक लागलो तरीय जें सगळें ताच्या उत्क्रांतीच्या फाटल्या अब्जांनी वर्सांच्या इतिहासांत (९९% काळांत) घडत आयलें तें हालींच म्हणल्यार कांय हजार वर्सांनी तो कशें विसरूंक शकतलो? आतां खरें म्हणल्यार आमी खूब सुरक्षीत अशी जीण जगतात जे खातीर नकारात्मक विचारांची गरज ना. तरीय लेगीत मनीस आदत से मजबूर!

मेंदवातल्या निओकॉर्टेक्सा खातीर आमी नकारात्मक चिंततात आनी आमचे जिणेंत घडिल्ले वायट प्रसंग याद करून ते आमी परत-परत (relive) जियेतात. मनशाचें मन आनी कूड एकमेकाक सलंग्न आशिल्ल्यान मेंदवान तयार केल्ल्या नकारात्मक विचाराचो प्रभाव आमच्या शरिराचेर रोकडोच दिसून येता जो आमचे कुडी भितरल्या म्हत्वाच्या अवयवाचेर वायट परिणाम करता.

एकंदरीत दर दिसा आमचे नकारात्मक विचार, भायली दगदगीची परिस्थिती हाचो वायट परिणाम आमचे सैमीक लवचिकतायेर करता जे वरवी आमी दीस सोपता तसतशीं आमची सगळी उर्जा शणोवन बसतात.

लेखकाच्या मतान ताणतणावाचें वेवस्थापन करप मात्शें कुरतारच आसता. जायते वेळार स्ट्रॅस मॅनेजमेंट तज्ञ तणावाचें नियंत्रण दवरपाक स्व-आदेश (Auto-suggestion), आपउलप अशे तरेचे उपाय सुचयतात. पूण जे वेळार आमच्या मनाचेर राग, व्देश, हुस्को, भिरांत असल्या नकारात्मक विचारांचो ताबो आसता तेन्ना स्वताक आदेश दिवन वो आपउलप करून तातूंतल्यान भायर सरप शक्य जायना. मन किर्तेच आयकुवपाचे मनस्थितींत आसना. देखीक आमची चूक नासतना बॉस आमचेर तापलो म्हूण आमकां राग आयल्यार लेगीत आमी ताका परत जाप दिवंक शकनात. मन शांत करपाक पळयल्यार ते कशेंच आयकूंक तयार नासता. मागीर राग चिड्डून दवरचो पडटा जे वरवी जिवाची फडफड जाता. अशें सदांच घडत रावल्यार आमी सकारात्मक भावने परस नकारात्मक भावना चड अणभवपाक लागतात. संशोधना प्रमाण अशें दिसून आयलां, जी व्यक्ती चडवेळा नकारात्मक भावना चिड्डून दवरतात तांकां उणो आत्मविश्वास आनी आशावाद, वायट आत्म-मत आनी भलायकी, चड निर्शेवणी आनी दुबळी स्मृती आसता तशेंच तांचे नातेसंबंध आनी सामाजीक जिणूय बिगडटा. कांय वेळार तर आमी मनाक सुशेग दिवपा खातीर आमकां आवडटा तसलें खावप पिंवप करतात. सोरो पिंवप, सिगरेट ओडप, जंक खाण खावप हो तातूंतलोच प्रकार. कांय वेळार मन दुसरे कडेन भरकटावपाक आमी टिवी पळयतात, विडिओ गेम खेळटात वो आनीक चड कामात गुरपावन येतात.

सैमीक लवचिकताय आमी शणोवन बशिल्ल्यान आमी मनाची संतुलीत स्थिती दवरपाक आनी वयर उल्लेख केल्ल्या हरणा भशेन सभावीक स्थितींत येवपाक आमकां शक्य जायना वो खूब कुरतार जाता. जर आमचें मन आनी विचार आमकां सभावीक लवचिकते कडेन व्हचपाचे वाटेर पावयनात जाल्यार कोण पावोवंक शकता ?

तर लेखक म्हणटा आमची कूड. आमी जेन्ना खूब जाम जाल्यार बरी गरम कॉफी पिलीं ना जाल्यार बरो बॉडी मसाज घेतलो जाल्यार रोकडीच आमकां तरतरी येता. पूण हें सदांच वो सगळ्याच जाग्यांचेर शक्य नासता. आनी ते खातीर सगळ्यांत सोपो आनी त्वरीत उपाय म्हणल्यार आमचो स्वास.

स्वासोस्वास हो आमचे जिणेंतलो म्हत्वाचो आनी अविभाज्य घटक. श्वसनक्रियेचो आमचे भावनेचेर स्पश्ट संबंध आसता. स्वासोस्वासाचे प्रकार वो तरा बदलतात तसतश्यो आमी वेगवेगळे तरेच्यो भावना अणभवतात. हाचे उरफाटें जश्यो आमच्यो भावना बदलतात तसतशी आमची स्वासोस्वासाची तरा बदलता. देखीक आमकां राग येता तेन्ना आमचो स्वास जलद गतीन आनी उथळ जाता. उदेंते कडल्या देशांनी पयलीं सावन योग, झेन सारकेल्यो योगक्रिया आपणायल्यात. ताचें म्हत्व समजून आयिल्ल्यान आतां अस्तंते कडलेय लोक हें सगळें आपणावपाक लागल्यात. खोल आनी लांब स्वासोस्वास आमची उर्जा वाडयता आनी ताण कमी करता. योग आपणावन आमी जिणेंतली उर्जा आनी लवचिकता वाडोवंक शकतात.

**३.तुमचे जिणेंतले उर्जेचें योग्य वेवस्थापन करात**

दीस सोंपता तसतशीं आमी सामकीं जाम जातात. आमची उर्जा उणी उणी जायत वता. जर आमी दीस भर चड तिव्रतायेच्यो तशेंच नकारात्मक भावना अणभवल्यो जाल्यार आमची उर्जा चड बेगीन काबार जाता.

आमची उर्जा काबार करपी आनीक एक गजाल म्हणल्यार आत्म-नियंत्रण. कसलीय गजाल करपाचो आमकां मोह जाता पूण जेन्ना ताचेर आमकां ताबो दवरचो पडटा तेन्ना आमची जायते प्रमाणांत उर्जा खलास जाता. देखीक ऑफिसांत आपली चूक नासतना बॉस तापलो जाल्यार ताचेर एक थापट फुलोवपाक हाताक खाज येता. ना जाल्यार कमीतकमी ताकाय परत जाप दिवचीशी दिसता. पूण नोकरी वतली हे भिरांतेन मनाचेर ताबो दवरचो पडटा. इश्टांनी बऱ्यो गरमागरम जिलेब्यो हाडल्यात पूण डायबेटीस आशिल्ल्यान खावपाचेर ताबो दवरचो पडटा. आत्मनियंत्रण हें एका स्नायु भशेन जो दीस वतात तसो घट जाता. पूण तेच वांगडा ताची झिजूय जाता, जी ताका अशक्त करता.

संशोधनांत अशें दिसून आयलां, जे मनीस चड आत्मनियंत्रण दवरतात तांकां कांय तेंपान आत्मनियंत्रण -थकवो (Self-control fatigue) येता. एका प्रयोगांत संशोधकांनी चॉकलेट चीप्स कुकीज बेक केल्यो ज्याचो घमघम तांचे प्रयोगशाळा भर पसरलो. मागीर तांणी दोन पंगडांक आपयले आनी तातूंतल्या पयल्या पंगडाक कुकीज खावपाक दिल्यो आनी दुसऱ्या पंगडाक मात मुळो खावपाक दिलो. त्या उपरांत दोनूय पंगडांक कठीणशें कुवाडें सोडोवपाक दिलें. दुसऱ्या पंगडांतल्या वांगड्यांनी रोकडेंच बेजार जावन तें सोडोवपाचो यत्न सोडलो. पयलो पंगड मात बेजारनासतना जायतो वेळ यत्न करीत रावलो. आनीक एक वेगळ्या प्रयोगांत दोन पंगडां मदीं भासाभास दवरली. आनी एका पंगडाक तांच्या मनाक पटनाशिल्लो विशय दिलो आनी त्या विशयाच्या फावराद उलोवपाक लायलें. दुसऱ्या पंगडाक मात तांच्या मना सारखो विशयाच्या फावराद उलोवपाक लायलें. कांय वेळ भासाभास जातकच दोनूय पंगडाक कठीण कुवाडें सोडोवपाक दिलें. पयल्या पंगडान रोकडीच हार मानली.

जेन्ना आमकां इंद्रियाच्या सुखाचेर वो वैयक्तीक श्रध्देचेर जेन्ना आत्म नियंत्रण दवरचें पडटा तेन्ना तें नियंत्रण उणें जावपाचें वो सुटपाची चड शक्यताय आसता. तशेंच दीस फुडें वता तसतशें तें उणें जायत वता. सकाळीं आमी जितले उमेदीन ताबो दवरूंक शकतात तितलो तो दीस सोंपता मेरेन उरना. एका अभ्यासांत अशेंय दिसून आयलां, दीस फुडें वता तसतशें आमी अनैतीक वर्तनात घुरमुपाची शक्यताय चडत वता. तशेंच एकादी व्यक्ती जितलें चड आत्मनियंत्रण दवरता तितली चड ताची फटींगपणा करपाची शक्यताय वाडटा.

जेन्ना कामाचो ताण चड आनी तीव्र आसता आनी मनाचेर खुबच ताबो दवरचो पडटा तेन्ना तांची निर्णय क्षमता खूब प्रमाणांत देंवता.

ह्या सगळ्या फाटलें वैज्ञानीक कारण म्हणल्यार आत्म नियंत्रण दवरतना आमच्या रक्तांतलें साकरेचें प्रमाण देंवता आनी ते खातीर आमकां खूब तकालस जाता. तशेंच आमची निर्णयक्षमताय देंवता.

तकालस जावपा फाटलें आनीक एक कारण म्हणल्यार त्या बद्दलची आमची धारणा वो आप उलप. संशोधना नुसार आमच्या शरिराचे उर्जेचें प्रमाण आमच्या विचारांचेर अवलंबून आसता. खंयच्याय कामा बद्दल आमचे विचार, आमचो विस्वास वो भावार्थ किर्ते आसा हाचेर तें करपाक आमकां कितली तकालस पडटली वो आमकां कितलें पुरो जातले हें थारता. आमकां पुरो जावपाचें कारण हें चड करून शारिरीक श्रमा खातीर आसना तर तें आमच्या मानसीक दिश्टीकोनाचेर अवलंबून आसता.

**४.केन्ना केन्ना कांयच करनासतना शांत रावात.**

भायर घडपी गजाली परस मनशाज मजा भितर चलिल्ल्या गजालीचेर, जाणवाक्चर लक्ष केंद्रीत करपाक जाय. जेन्ना आमी शांत आसतात तेन्ना आमचें मन वर्तमानकाळांत आसता आनी ते खातीर मना भितरल्ये घडामोडींचो आमका सभावीक तरेन जाणीव जाता. आमी जेन्ना शांत रावतात, आमचे विचार आनी भावना आमी बरे तरेन नियंत्रीत करूंक शकतात. शांततायं ही मनाची एक अशी स्थिती जेदवळार आमका आत्म-नियंत्रणांत रावचो गरज पडना. धंद आनी आपसुकच नियंत्रणांत आसतात.

ध्यान धारणा करप जमनासलें जाल्यार शांत एका जाग्याचेर लेगीत बसून रावलीं तरी लेगीत आमकां शांततायं अणभवपाक मेळटा. अशें कितेंय करात जातूंतल्यान तुमकां सकारात्मकतायं अणभवपाक मेळटली.

बेकार वो आंग्गी बसून रावप हें वायट म्हूण आमी किर्ते ना किर्ते तरी करीत रावपाक जाय ही धारणा आशिल्ल्यान आमकां मात लेगीत कांयच करनासतना थंड बसल्यार गुन्यावकारी दिसता. पूण व्हड व्हड कल्पना तांकां मन शांत आसतनाच सुचल्यात अशें म्हान व्यक्तीचें म्हणणे आसा.

**सर्जनशीलतायेची ताकद-**

आयजकालच्या वेवसाय धंद्यांत चड गरज आसता ती सर्जशीलतायेची. संशोधना नुसार दोन तरेच्या विचारांचे प्रकार आसतात. एक म्हणल्यार खोल गहन विचार आनी दुसरी तरा म्हणल्यार मनाक मुक्त सोडप. तेन्ना नवनव्यो कल्पना मनांत येतात. दुसरी तरा आमका सर्जनशील करता. ह्या दोनूय तरेच्या विचारांचें संतुलन आमी सांबाळ्ळें जाल्यार आमचें मन वेवस्थीत चिंतूंक शकता.

**५.स्वता कडेन बरे तरेन वागात आनी स्वता कडलें नातें जोपासात.**

तुमचें स्वता कडचें नातें कशें भशेनचें आसा ताचोय तुमचे क्षमतेचेर परिणाम जाता. चड करून आमी स्वता कडेन बरी वागनांत. फकत आमी ज्या गजालींत फिशाल आसतात त्याच गजालींचेर लक्ष केंद्रीत करतात आनी आमची कमजोरी दामून दवरतात. पूण अशें केल्ल्यान ज्या गजाली आमी जाणात त्याच गजाली पुरतीच आमी मर्यादीत उरतात आनी आमची कितलीशीच क्षमता उकती जाय नासतनाच उरता. जायते वेळार स्वताची चडूच टिका करतात. आमकां दिसता असल्यांनी आमी सुदारतले. पूण संशोधना नुसार आपटिकेचें प्रमाण चड जालें काय आमची मानसीक भलायकी बिगडटा तशेंच जैतिवंत जावपाची आमची शक्यताय उणावता. आपटिकेन चिंता आनी औदासिन्य वाडटा आनी स्वताचे नदरेंत स्वताची प्रतिमा बिघडटा जे खातीर आमच्या यशाचेर आनी आनंदाचेर नकारात्मक प्रभाव पडटा

न्यूरोवैज्ञानिकाच्या मतान आमचो मेंदू सतत वाडत आसता आनी जल्मभर नवनव्या मज्जातंतूंचें जाळें विणत आसता. नवनव्या गजाली आत्मसात करून विकसीत जावपाकच ताची जडणघडण जाल्ली आसता.

**६.दुसऱ्यां कडेन अनुकंपेन वागात**

आत्म-केंद्रीत रावल्यार मानसीक रित्या मनीस आत्मपूजक (Narcissist) जाता. आत्मप्रीतीवाद (Narcissism) म्हणल्यार मनाची वो व्यक्तीमत्वाची एक अशी स्थिती जातूंत ते व्यक्तीक फक्त स्वता पुरतेंच येवजता. तो स्वताच्याच मोगांत पडटा आनी स्वताक कोणतरी व्हड समजुवपाची भावना ताचे मर्दी बळावता. तो आत्मकेंद्रीत जाल्ल्यान ताचें दुसऱ्या वांगडचें नातें बिगडटा. लोक ताचे पासून पयसावतात. लोकां कडलें ताचें वागणें तुटक आनी कुचित्र्याचें जाता. आपल्याक मान दिवना अशें ताका दिसता आनी तो तिडकीन आनी आक्रमकपणान वागता. अनुकंपा हें ताच्या उरफाटें. अनुकंपा आशिल्लो मनीस दुसऱ्याचें चड चित्ता. दुसऱ्याची ताका पर्वा आसता आनी दुसऱ्याच्यो भावना समजून घेवन ताच्या दुख्खांतूय तो वांटेकार जाता आनी मजत करपाक सदांच तयार आसता. सहानुभुती म्हणल्यार दुसऱ्यांच्यो भावना समजून घेवन तांचे खातीर सहभावना आसप. अनुकंपेन वागल्यार आमचे कुडींत ऑक्सिटोसीन नांवाच्या हॉर्मोनाचो स्त्राव जाता जो आमचें दुसऱ्या वांगडा नातें जोडटा. तशेंच आशिल्लें नातें घट्ट करता. मनीस हो सामाजीक प्राणी आशिल्ल्यान, लोकां कडेन लागसार जोडून आमकां मनाक आनंद अणभवता, काळजांत मोग उद्भवता आनी आमका सकारात्मक दिसता.

अशे तरेन वयर दिल्ल्या ६ मुद्यांचेर जर आमी समजून घेतले, ताचेर चिंतन आनी त्यो जिणेंत आपणायल्यो, जाल्यार आमच्या जिणेंतल्या आनंदाचो अणभव कितलेश्याच पटींनी वाडूंक शकता. पूण ते खातीर हो नवो दिश्टीकोन आपणावन आमच्यो आदल्यो कांय चुकीच्यो धारणा, गैरसमज पयस करून नवे तरेन चिंतचें पडटलें. लेखिका एमा सेपालान आपले परीन जाता तितलो हो मार्ग सोपो केला. आता फक्त गरज आसा ती आमच्या संकल्पाची. हो नवो आनंदाचो मार्ग आपणावन यश आनी आनंदाची तेंगशी गाठपाक आसात व्हय तुमी तयार ?

फातोर्डा-गोंय. मो.: ९८२२९८१५०

उमळ

श्यामला भट

# गजाली पोटसऱ्यांच्यो - सर्पमोगीचे अणभव

*गजाली पोटसऱ्यांच्यो-सर्पमोगीचे अणभव* उडुपी गांवांतलो प्रसिद्ध सर्पप्रेमी गुरुराज सनिल हांणे कन्नड भाशेंत बरयलेल्या ह्या पुस्तकाचो कोंकणी अणकार केला डॉ. सुषमा अरूर हांणी. विवीध भाशेंत लेखन करपाचो अणभव तांकां आसा, पूण हें कोंकणी भाशेंतलें तांचें पयलें पुस्तक. अतिशय उत्तम रितीन तांणी ताचो अणकार करून एका वेगळ्या विशयाची म्हायती तांणी दिल्या. हो अणकार वाचतनाचो आयल्लो अणभव मुंबयच्यो **श्रीमती श्यामला भट** आमकां सांगता.

*मनाक स्पर्श करता असली आनीक घडणूक घडली। सनिलाक ध्यान करपाची आस लागली, म्हूण ताणें योगाभ्यास सुरू केल्लो, पूण कांय उपेग जालो ना। एका म्हालगड्याक विचारलें तेन्ना तो म्हणलो की 'वेळ येतकच तेन्ना सांगतां'।*




सानपणांत सनिल हांचें जिवीत एक चमत्करीक काणी म्हणयेत। अत्यंत गरिबी आनी भटकें जिवित , आवय-बापायले दुर्लक्षाक लागून चेरडूवांचेर कांय संस्कार नाशिल्ले। उपाशी पोट्टार कोणकोणाले बागेतलें फळ , काकडी चोरून खावप आनी तांगेलो मार आनी सोवे बी खावप सदांच्चेंच आशिल्लें. शाळेंत बी ताचे वांगडी ताचे वर्तणुकेवीं फकांडां मारताले आनी तो चिडून मारामारी करतालो. प्रती दीस मारत्तरा कडून मार बी खावप. एक दीस हेडमास्तर गुरुराजांन ताका आफोवन म्हणलें, ''कित्याक रे! म्हजेच नांवाचो तूं पाड काम कित्याक करता? अशीच तुजी वागणूक जाल्यार तूं सगळ्यांक नाका जात्तलो। तूं विचार कर बाबा। तुका बुदवंत जावन बरें नाव बी कमवपाक जाय, अशें दिसना किर्ते तुका ? हाजे उपरांत तुका कोणय शिक्षा करपाचो ना. तुगेले जिवीत तुगेलेच हातांत आसा''. हीं मायेचीं उत्रां आयकून सनीलाल्या दोळ्यांतल्यान उदक व्हांवलें. आनी ताज्यांत ल्हव ल्हव बदल जालो। तो मस्तिखोर आशिल्लो तसोच धैर्यवान बी आशिल्लो.ताचें शिक्षण चार वर्णटींतलें न्हय, सैम ताचो गुरु. ताका पर्यावरणान खूब काय शिकयलें आनी स्वतः वाचून म्हायती काडन आत्ता वरेक आट पुस्तकां तांणी बरेयलेलीं आसून, तांच्या दोन पुस्तकांक प्रशस्ती बी मेळल्या। तांच्या चार पुस्तकांतल्यान १८ काणयो वेंचून ह्या पुस्तकांत अणकारीत केल्यात..

ह्या पुस्तकांत सोरपा सांगाता सनिलाले जाल्लेली मैत्रीची सुरुवात, तांचो तो प्रथम स्पर्शाचो अणभव, पोटसऱ्यांचो वेग-वेगळे जाती, विखारी बिनविखारी सोरोप, तांचे सैमाचे चक्रांतलें महत्व, सर्पडंखा उप्रांत कसली उप्चार घेवप, ही सगळी म्हायती हातून आरसा। तशेच सर्प डंखाचे विविध उपेग बी सांगिल्ले आसात. सोरोपा विषयांत विनाकारण लोकांक दिसपाचे भंय, तांच्या अज्ञानाचो फायदो घेवन अंधश्रद्धेन करपाची उपाय, थोडे-भोव ज्योतिशी आनी पुरोहित लोकांक पैसो करपाची वृत्ती ह्या विशयार कळवळोन बरेयलें आरसा.

सोरोपा धरन ताजे संरक्षण करपाक कितलो त्रासाचो आसा ह्या संबंदी सनिल

सांगतात की एकेक दीस वेग-वेगळे गावांतल्यान तांका आपवप येता सर्पाचे रक्षणे खातिर तीनफावटी बांयत देवप-वयर चडप, आनी दुसरे गांवात छज्यार बशिल्ले सोरोपाचे रक्षणेक वयर चडप आनी त्याच दीस शेतांतले आनी घरांतल्यान सोरोप धरून सुरक्षीत रानांत सोडप ह्या सगळ्यांत तार्णे कितले तरी फावटी चाबूनय येतिल्लें आस्सा.

एक फावटी तांकां एक अतिविखारी काळनागालो डंख जालो। मरणाचे दरवट्या वरेक वचून तो परतो आयलो ! एकी कडेन शारिरीक वेदना, आनी दुसरे दिकान हॅास्पिटालाच्या खर्चाची काळजी। तांचो जीव वांचलो, पूण बिलां भरपाचे चिंतेन मानसीक त्रास जायत आसतना, दुसरे दीस तांचे हितचिंतकानी पयशांच्यो राशी हाडून दिल्यो. तो ऑटोचालक आशिल्लो आनी ताका तीन म्हयने ऑटो चलोवपाक जार्ल्लें ना, तेन्ना ते पयशे ताच्या उपेगाक पडले.

मनाक स्पर्श करता असली आनीक घडणूक घडली। सनिलाक ध्यान करपाची आस लागली, म्हूण तार्णे योगाभ्यास सुरू केल्लो, पूण कांय उपेग जालो ना। एका म्हालगड्याक विचारलें तेन्ना तो म्हणलो की 'वेळ येतकच तेन्ना सांगतां'। सुमार दिसान तो येवन सनिलाक दर्या देगेर घेवन गेलो। हांगचे - थंयच्यो गजाल्यो करीत आसतना, मळब केशरी रंगान पातळिल्लें आनी सूर्य ल्हवू ल्हवू अस्ताक वत्तालो। दोग्गय तें रम्य दृश्य पळोवपांत मग्न. थोड्या वेळान म्हालगड्यान विचारलें, "कशें दिसलें?" म्हूण। त्या वेळाक मन, शरीर आपणाले अस्तित्व विसरून एक नितळ प्रितीची भावना मनांत घर केल्ली असो भास जाल्लो अशें तार्णे जाप दिली। तेन्ना हे स्थितीक ध्यान वा समाधी म्हणतात अशें म्हालगड्यान समजायलें. सोरपाक धरतना आपणाक हिची अनुभूती जात्ता अशें सनिलान म्हालगड्याक सांगलें. हें वाचतना आमचे मनाक बी निर्मळ आनंदाचो अणभव जाता।

बायम्माली काणी तरी खूब काळजाक तेंकपी आसा। सानपणांत तिजे बार्गेत फळ वा काकडी चोरूंक सनिल वत्तालो आनी मार खात्तालो. एक फावटी बायम्मा आनी तिच्या चेरड्वांन ताका चोरी करतना धरलें, हात-पांय बांदले आनी बांयंत उडयलो। वयर हाडून परती उदकांत बुचकाळयत दवरलो. सनिल एक बरो पेंवपी आसून बी ताचो जीव हैराण जाल्लेलो. तें पळोवन, ताका वयर हाडून, जीव आसा की ना हाचो तपास करून बांदिले सोडोवन तेच स्थितीत ताका थंय मरपाक सोडलें. सनिल सुमार वेळान कशें -बशें उटावन घरा गेलो. पूण ताका भयानक राग येवन तो सुडाचे भावनेन तपतपलो. ताचे उप्रांत तो मुंबय गेलो आनी बायम्माचो विचार पयस गेले. तीस वर्सान ताका योगायोगान तेच घरा सावन, सोरोप धरपाक बेगीन यो म्हण। फोन आयलो . बायम्माली माफी मागपाक जाय अशें सनिलाक खूब दिसां पसून दिसतालें आनी ताका एक संद आपोआप आयली. म्हण तो धांवलो बायम्माक मेळपाक. आत्ता ती जाणटी , तिज्या पुताची भलायकी बी बरी दिसली ना.तांणी हाका वळखलें ना. सर्पाक धरून पोतयेंत घालून तांणे आपणाली वळख सांगली. तेन्ना बायम्मां ताका मोगान लागी घेवन ताच्या कामाची प्रशंसा केली. तिर्णे मोग आनी माया दाखयलिलें पळोवन सनिलाले दोळे भरून आयले आनी तार्णे बायम्माले पांय धरून माफी मागली. तिर्णे सनिलाली तकली पोस्सून, देव बरें करूं म्हूण आशिर्वाद दिलो. सगळ्यांलें मन निर्मळ जाल्लें। तिर्णे दिल्ली शिक्षा लेगीत आपणाक मुखार जिवीतांत आयिल्ले कष्टांक मात करपाक मदत जाल्ली अशें सनिल म्हणटा.

एक मस्तिखोर , गरिबींत वाडिल्लो भुरगो आतां समाजांत लेखक, विचारवंत , पर्यावरण प्रेमी, आत्तांचे युवा पिळगेक प्रेरणादायक जाला .

हें पुस्तक गोंयचें कोंकणींत बरयलां। वेग-वेगळे पोटभाशेचे वाचप्यांक कळपाक जाय ह्या उद्देशान थोड्या शब्दांचे अर्थ तळटीपेंत दिल्ले आसा. आमची कोंकणी भास मधुर आसून गोंयची कोंकणी वाचपाक गम्मत येत्तली। कोंकणी साहित्यांतलें हें एक उल्लेखनीय पुस्तक आस्सा। जरूर सगळ्यांनी वाचपाक जाय अशें म्हाका दिसता.



सी/६ गुरुप्रसाद सोसायटी,
हनुमान रोड, विलेपार्ले पूर्व, मुंबय

उश्णीं वाचणां

सुविद्य
धारवाडकार

**सुविद्य धारवाडकार** हो विद्यार्थी, पार्वतीबाई चौगुले कला आनी विज्ञान महाविद्यालय [स्वायत्त] मडगांव गोंय हांगा हिन्दी विभागांत शिक्षण घेता. हिन्दीं साहित्य कोंकणींत हाडपाचो हो ताचो एक प्रयत्न.

*तेजेन्द्र शर्मा हे नामनेचे प्रवासी लेखक, कवी आनी नाटककार जावन आसा.*

*'काला सागर,' 'ढिबरी टाईट', 'देह की कीमत', 'ये क्या हो गया', 'पासपोर्ट के रंग', 'बेघर आंखें', 'सीधी रेखा की परतें', 'कब्र का मुनाफा', प्रतिनिधि कहानियां, मेरी प्रिय कथाएं, दीवार में रास्ता, आदि हांचे कांय काणयांचे-संग्रह. तांच्या काणयांचे अणकार प्रकाशीत जाल्यात.*

*कुमार सुविद्य धारवाडकर हाणें तांचे कथेच्या अणकाराचो केल्लो हो प्रयास..*

# अभिशाप्त

**आ**यचो दीस हेर दिसां सारखो काय खास ना. आजय रजनीकांत सकाळीं सवाय संक उठलो.दिसपट्ट्याचीं कामां करून, चा बराबर रातीच्योउरिल्ल्यो रोटयो खाल्यो. रजनीकांताक रातच्यो उरिल्ल्यो रोटयो खावपाची सक्ती ना. तो विचार करता - कोण गरम करतलो! भितर बेडरूमांत विजेर चलपी कांबळेंत निशा आनी हैरी सुशेगाद न्हिदल्यांत.

दर दिसा हीच गजाल. सगळ्यांत पयलीं रजनीकांत उठून तयार जाता. नाष्टा करता आनी कामार वच्च्या पयलीं निशाक उठयता. निशा सुस्तपणान अर्दे जागेत आपलीं कामां पुराय करता. हैरीक उठोवपाकूच अर्दें वर लागता तो नखरे करून, रडून,आकांत करून आपले शाळेक वचपाची तयारी करता. हैरी म्हळ्यार हर्षद गोरो-पिट्ट. गुबगुबीत! निशा आनी रजनीकांताचो पूत. निशा आपल्या चल्याक गाडयेन शाळेक सोडून कामार वता. रजनीकांत बशींतल्यान आपल्या वेयर हाउसकडे पावता.

दर दिसा बशेन आज लेगीत तेंच जालें रजनीकांत 'हैरो-वील्ड' कडल्यान बशीर बसलो. मागीर 'हैरो ऑन द हिल' कडल्यान बस बदलून आपल्या वेयर हाउस कडे पावलो. थंय दीस आनी रातचो ओवरटायम करून रातच्या णवांक आपल्या घरा पावलो. घरा येवन न्हालो.

सुरवातीक रजनीकांतान लंडनाक, रातचे न्हावपाचे प्रथेची फकांडां करप. मागीर हळू-हळू ताका होलमलें सकाळीं-सकाळीं ओल्या केंसान भायर सरप म्हणल्यार दुर्येसाक आमंत्रण दिल्या बशेन! ह्या कारणाक लागून तो रातचो न्हाता. न्हातकच देवाची पूजा करता. आयजूय



तार्णेतर्शेच केलें आनी सदां बशेन बियरीचो डबो उगडून थंड बियर पिवपाक लागलो. पूण आज चक्क दोन बियरी पिन ताका तक्तकीत दिसले ना. जशें काय कसलेंय तरी वजें ताका जड करता. ह्या वज्यान रजनीकांताक मनांतल्यान इतलो वाज हाडलो, त्या मानसीक ताणान धड रातची न्हिद पडना. ताका ही रात आनी आपली बायल निशा वांगडा आसून सुद्दां न्हिद पडना.

पूण जेन्नाच्यान लंडनच्या झी चैनल पळोवपाची मेक्ळीक मेळ्ळ्या, रजनीकांत किमान थोडो वेळ तरी हिंदीच्यो कार्यावळी पळयता. आज लेगीत टेलिविजनाचेर हिंदीचीं फिल्मां चल्ल्यां. रजनीकांत मदल्यानूच फिल्म पळोवंक लागता. फिल्म पळयतां-पळयतां तो कलाकार आनी कतारां वयल्यान फिल्माचें नांव समजुपाचो यत्न करता. हरशी म्हणून फिल्माचें नांव समजून कसलो उपेग? निमाणें सगळीं हिंदी फिल्मां एकेच माळेचे मणी. तातूंत कसलोच काय बदल दिसना. रजनीकांताचें जिणें बशेन !

रजनीकांतान बियर सोंपोवन खाली डबो कचऱ्यांत उडयलो. टेलीविजनार चलिल्ल्या शोकगीतां बराबर सुराक सूर लायले. मागीर एका झटक्यांत उठून आपली स्कॉच बाटली काडली. ग्लासांत झेलाचे कुडके घालून व्हिस्की घाली. ताका 'ग्लेन फीडीश', 'ऑन द रॉक्स' सामकी आवडप! गांवांत खंय म्हण सोरो पिल्लो? थंय तर 'आई' आनी 'बाबा' आशिल्लें. थंय सोऱ्याचो विचार करप लेगीत 'पाप! थंय एक तर चा वा छाछ पितालो. ते म्हणटाच न्हय, वेळ आनी जागो बदलतकच पिवप आनी पिणारे बदलतात!

उदकांत विरगळपी तो झेल, कुमांतल्यान पडपी झेल,आनी झेला बशेन थंड पडिल्लें (पयसालल्लें) रजनी आनी निशा मदलें नातें! स्कॉचाक लागून रजनीकांताच्या आंगांत गरमी येता. भरतांतल्यान आयिल्ल्या आपले आवयच्या पत्रांक तो परत एकदां पळयता... विचार ताची फाट सोडी ना. जणू स्कॉच आनी बियरीन ताचे तकलेंत गोंदोळ घाला काय किर्तें! परत-परत एकूच प्रश्न ताचे तकलेंत घुवता- हांव हांगा हा देशांत किर्तें करतां? ... हांव कित्या खातीर म्हणून आयलां? सगळ्यां कडल्यान पयस, खूब पयस हांव किर्तें म्हण करूंक हांगा आयिल्लों? अशे खूबशे प्रश्न ताका स्वस्थ बसूंक दिनात.

फाटलीं सात वरसां संकश्टांनी ताची फाट सोडूंक ना. आतां अशी स्थिती जाल्या , कसलेंय प्रकारचें आडमेळें नासल्यार ताका प्रश्न पडटा, आडमेळीं कित्याक ना काय? आतां तो आपल्या पयलींच्या यादींनी शेणलो..

... बाबान तर भलायकेच्या दिसांनी सुद्दां हमाली केली. आपल्या रजनीच्या भलायकी खातीर, तर्शेंच ताका कॉलेजींत भरती करपाचो खूब यत्न केलो. गुजराती माध्यमांतल्यान रजनीकांत बी ए पास जालो. इतिहास आनी राजनीतीशास्त्रान बी ए करून किर्तें म्हणून करतलो? बापायची सपनां तर आपल्या पुताच्या शिक्षणांत आशिल्लीं. पूण रजनीकांताक नोकरी मेळ्ळी ना. असो खंयचो बापूय आसतलो जो आपल्या पुताक इतलो शिकोवन हमाली करपाक दितलो!

आतां रजनीकांत विचार करपाक लागलो, गांव सोडून खंय पयस वचचें. इतले पयस,जंय कोणूच ताका वळखुपा ना आनी कांय ना जाल्यार आपले आजीविके खातीर ताका हमाली करपाक पडटली!

गावांत ताची लंडनांत रावपी पयसूल्ली भयण आयल्या...बाबा आपली चिंता तिच्या मुखार मांडटा, 'बाय! म्हाका रजनीची चिंता सतायता. ताची बी ए ची डीग्री गळ्याचो फास जायत वता. किर्तें करूं येत समजच ना.'

''अरे मावश्या, तातूंत चिंतपाचें किर्तें, ताका आमचे बराबर लंडनाक धाड, बाकीचें सगळें म्हजेर सोड. थंयच ताचें लग्न लावन दितां. मागीर पळयात तुमी एकदां थंय जम बसलो काय फाटी पळोवपा ना.''

हें आयकून बाबाचेर ताण आयलो . पुताक गमोवन बसप काय असोच जगार भोंवपाक धाडप! थंय रजनीकांत पयसच्यानूच सगळी घडामोडी आयकतालो.

लंडनाक लग्न! जाल्यार स्नेहाचें किर्तें जातलें ? स्नेहा लेगीत रजनी बराबर संवसार मांडपाची गोड सपनां पळयता ! ..... रजनीक नोकरी लागतकच स्नेहाची आवय आईकडे उलोवपाक येतली.

पूण आतां लंडनांत रावपी रजनीकांताच्या मनांत स्नेहा बद्दल किर्तें आसा ?

अजून वेळ गेली ना. पासपोर्ट करपाचो आसा,विजा तयार करपा खातीर मुंबय वचपाक जाय. म्हाका स्नेहाक विसरचें पडटलें? लग्न दुसरे कडे जावपाचें आसा जाल्यार स्नेहाचेर मोग करप सारखें? मोग सिद्द करपाक लग्न होच एक माध्यम आसा काय? मोग फकत शारिरीक संबंध

आनी कामवासना मेरेन सीमित आसा?

पूण रजनीकांतान स्नेहाक केन्नाच ते नदरेन पळोवंक ना. ताचो मोग फकत एक वर बसून उलवपा मेरेन सीमित आशिल्लो. तार्णे आज लेगीत स्नेहाचे भेटेक वेळ थारयिल्लो.

दुबळे-किडकिडीत आनी गोरें अशें स्नेहा! आवय-बापायची एकुलती एक धुव. कॉलेजींत शिकतां-शिकतां घरच्या कामांत फिशाल. पासपोर्ट, विजा आनी लंडनाचें वर्जे ताच्या स्नेहाक सोसपाक जातलें ?

तितल्यांत कुडींतल्यान निशा भायर आयलें.

'' किर्ते करता रे? आनी हें किर्ते? आजून खावंक सुद्दां ना तुवें ?''

''हांवें आजून गरमूच केलें ना.''

''मागीर किर्ते केलें इतलो वेळ? आजून ड्रिंक लेगीत सोपुना?''

''कांय ना गो अशेंच, बेश्टो फिल्म पळोवपाक बसलों.''

''आसूं,बस तूं, हांव जेवण गरम करून हाडटा.''

''नाका, तुका कित्याक त्रास ! हांव स्वता गरम करून खातां. तूं चल आनी आड पड.''

''तूं तर जाणाच.. तूं नासल्यार म्हाका न्हिद पडना.. राव हांव गरम करून हाडटां.''

रजनीकांत आनी निशाचे नातें मात्शें विचित्रूच! दीस भर एकामेकांकडे उलयना आसत! पूण राती जो मेरेन निशाक आपलो हक्क मेळना तो मेरेन ताका समाधान जायना. निशालें उलोवणें आयकून रजनीची भुकूच गेली. आपली धवी नायटी घालून निशा रजनीकांताक जेवण घेवन आयलें. रजनीकांताक जेवणार उदक पिवपा शिवाय थंड दूद पिवपाचीय एक वेगळीच संवय आसा... भारतांत लेगीत दुदाच्याच वाठारांत ल्हानाचो व्हड जाला.

निशाली नायटी तार्चे मांसाळ अंग धांपूक पावनाशिल्लें. हैरी जल्माक आयल्ल्या वेळा वयल्यो खुणो ताच्या अंगार सारख्यो दिसून येतात. पूण ह्या सगळ्यांचेर लक्ष दी नासतना रजनीकांत जेवण जेवपाक सुरू करता.

ताका दुदाच्या पेल्यांत स्नेहा दिसता तर फुडेंनिशा. निशाक जाय, रजनीकांत बेगीच्या बेगीन जेवण सोपोवन आपणांक गोपांत घेतलो. पूण रजनीच्या चिंतेन बुडिल्ल्या मनाक जेवणांतूय आनी निशांतूय कांय रूच ना. तो जाणां, ताका आपली कामां करचीच पडटली. नाजाल्यार फुडले दोन दीस फक्त वाद-विवाद ताचया पदरांत पडटलो.

निशाचे नदरेन जशें सकाळचो नाश्टा, दनपार, रातचें जेवण आनी न्हिद मोलादीक आसता तशेंच खाटीर मेळिल्लो आनंद तितलोच म्हत्त्वाचो. आनी हें सगळें आपल्या घोवाकडे मागतां तातूंत कसलो व्यभिचार आयलो? बरें जालें फाल्यां आयतार, फाल्यां रजनीकांत खूब वेळान उठलो .. आनी नाश्ता सुद्दां ताजो-गरम करतलो!

न्हिदेंत सपनाच्या माध्यमांतल्यान रजनीकांत आपल्या देशांत परत आयलो. थंय तो सगळें पळोवंक शकता,अणभवूंक शकता.

ताची ल्हान भयण शालिनी आपले आवय मुखार आपलें दुखणें सांगता. शलिनीचो घोव ताच्या पदरांत दोन भुरगीं बांदून संवसाराचे कठीण परिस्थितीचेर मात करपा खातीर एकटोच सोडून गेलो. आज आवयच्या पत्रांत ह्योच सगळ्यो गजाली ताका ताणयताल्यो.

आपल्या पत्राची जाप मेळपाची आवयची अस्वस्थताय रजनीकांत अणभवता...

''आगो शालिनी, बाय कार्तेर आयल्लो काय?''



''हय आई, तो पाचांकूच पासय मारून गेलो.''

''रजनी कडल्यान कसलेंय पत्र आयलां? हांवें ताका सांगिल्लें तुज्या भुरग्यांचे ख्रिस्तीद आनी त्या भायर नळे सुद्दां सारखे करपाक जाय. फाटल्या पावसांत खूब उदक गळटालें.

''आगे आई, दादाक थंय किर्ते कमी अपसरणां आसतली! जितलो व्हड वाठार तितलीच मोठीं संकटां.''

''बाय तें हांवूय जाणां, पूण ताचेशिवाय आनी कोणाचेर मजतीची आरत्त बाळगूं शकतां? आतां ताका भायर वचून खूब काळ जावन गेलो. आतां मेरेन तो थंय जमलो आसतलो!''

''... आई काल हांव दुदा;ी सोसायटींत गेल्लें, थंय एखादें म्हाका काम मेळत!''

''बरें ! हांव तर म्हणटां तो खंयी रावूं सुखी रावूं! कसल्याच प्रकारच्या संकटान ताका स्पर्श लेगीत करचो न्हय.''

पूण संकश्टां तर रजनीकांताक न्हिंवूंक सुद्दां दिनात.. निशा तर आपल्या वाट्याचें सूख मेळोवन सुशेगाद न्हिदलां. आतां रजनीकांत खाटी वयल्यान उठून दुसरे कुडींत न्हिदल्यारय निशाक कांय कळपा ना.

हें सगळें फकत रजनीकांता बराबर कित्याक जाता ? महेश, नयन, प्रफुल्ल आनी महेंद्र सगळी हेंच जगणे जियेतात. तरी ते दुखी कित्याक काय जायनात? आपुणूच कित्याक संकश्टां आनी दुखांच्या सुतांनी पुसपलां? काय तांच्या बायलांचो स्वभाव वेगळो? पूण तशेंय काय ना. थोडक्यांत ताका समाधान तरी आसा, तोच निशालो पयलो योग. दीपकाचे बायलेले तर तिसरें लग्न. दीपक सांगतालो, ''रजनीबाब, तुका म्हजें दुख्ख कळपा ना. म्हजी स्थिती सेकंड-हॅंड पारट जाल्या. आनी म्हजे कडे आसा थर्ड हॅंड बायल ... लंडनांत रावपाचो प्रश्न नाशिल्लो जाल्यार इतले त्वरीत लग्न करचोंच नाशिल्लों. मनाक इतले याव भरल्या की आनीक सोसपा नजो.''

दीपक सामको पिसो. ताका इतलेंय समजना, मनीस पांचवे माळये वयल्यान पडलो किर्ते आनी सातवे माळये वयल्यान पडलो किर्ते... जखम तशीच जाता आनी आमच्या सारख्या अभाग्यांची अशी स्थिती, जखम कोणाक दाखवंक शकनात. आमी फक्त सोसप आनी जीण जगप.

महेश सुद्दां सारखें म्हणटा, ही जीण काय आमचेर कोणें मोखून मारुना. आमीच सगळ्यांनी विचार करून ही जीण आपणायल्या. ताचेर कसली तक्रार? आमच्या देशांत ग्रेजुएट आसून लेगीत नोकरीची व्यवस्था करपाक जमनाशिल्लें. हांगा लोकांचे सामान उखलून आनी ओवर टायम करून दोन हजार पाउंड म्हयनो जोडटा... एका म्हयन्याक एक लाख वीस हजार ... आमच्या देशांत इतलो पयसो कोण एका वर्सान कमवपाक पावना. आतां सार्दें गणीत सांगप म्हणल्यार परिस्थितीकडे तडजोड तर करचीच पडटली. परच्यान इतले पयस काय दुखी जावपाक लागून आयलेनात.

भयण आनी भावोजी दोनूय पयसुल्ले. पयलीजेन्ना लंडनाच्या 'हीथ्रो' विमानतळाचेर देंवलो तेन्ना सामको अजाब जालों. इतले भव्य-दिव्य विमानतळ, मुंबयचे विमानतळ हाचे फुडें ल्हान भासतले. रजनीकांताक हाडपाक भयण आजी भावोजी एके व्हडले गाडयेन आयिल्लीं. मन भुरकुटलें, फुडें आपलीय अशीच एक गाडी आसतली... भावोजी वेंम्बले रावता.

लंडनाचे मनभुलोवपी अशे रस्ते, अस्तुरयो आनी एकेच बशेन बांदिल्लीं घरां पळयता-पळयतां रजनीकांत वेंम्बले पावलो. वेंम्बले चे वाटेर तर खूबशे भारतीय ना जाल्यार अफ्रिकी लोक दिसताले.. ये लंडन!

दोन दीस मेरेन आदरसत्कार चल्लो. मागीर भावोजीन आपलें दुकान दाखयलें,जंय सिगरेट, चॉकलेट, कार्डां, पेपर, जूस, तातयां, बिस्कीटां आनी खूबशें सामान मेळटालें. एक जागो फकत भाज्यांचो. गांवांत तर भाज्येकार रस्त्याच्या काठार पाटल्यांत बरें सजोवन विकताले. ना जाल्यार चडांत चड एक धाकटो मांड बसयताले. पूण हांगा सगळें बंद कुडी भितर ..

पयली रजनीकांत फकत अभागी गौण्याच्यो काणयो आयकतालो. पडवे प्रेमचंद संसारांत आशिल्ले जाल्यार रजनीकांताचेर नवो 'गोदान' बरयता आसले! फकत चार म्हयने जाल्ले, पूण चार वर्सां जाल्ले बशेन भासताले. ह्या चार म्हयन्यानी एकूय वेळ रजनीकांताक उमेद हाडपा सारखो नाशिल्लो. रजनीकांत बी ए पास, समुद्र पार करून, सगळ्यां कडल्यान पयस वचून लेगीत आपले भयणीगेर एक गौण्या बशेन वावुरतालो !

आनी एक तणाव आशिल्लो, विजाक फकत दोन म्हयने उरिल्ले. ह्या दोन

भावना ताका जणू मानगुटीर प्रेत बशिल्ल्या प्रमाण सतायताले. तो कोणाकूच दोशी थारायना. दोशी थारायता तें फकत परिस्थितीक. केन्ना मेरेन परिस्थितीच्या पदरा फाटल्यान लिपतलो? ताणें केन्ना तरी आपली परिस्थिती सुदारपाचो यत्न केला? तो एक मध्यमवर्गीय जीव जावन उरलो.

निशाक तर ह्या लग्नांत कांयच उमेद नाशिल्ली. ताणें सरळ रितीन आपल्या आवय-बापायक सांगिल्लें. आवय-बापायक तर वेगळीच चिंता आशिल्ली. चली तिसां वयर गेल्लें. लग्नाचो वेळ वतालो. आपल्या समाजांतल्या सुवातेक बसपी सारखें भुरगीं आतां मेळटा तरी खंय? चली भ्रमिश्ट बी जावं नाका. हसु बाबालें चली एका गोऱ्या बराबर पळलें आनी धा म्हयन्या मागीर घटस्फोट जालो. केशवबाबालें चली पळलें आनी थेट पाकिस्तानांत पावलें. ह्या सगळ्या अपसरणांतल्यान वाचपाचो एकमात्र उपाय तांकां रजनीकांतांत सापडलो. तांणी आपले धुवेक समजायलें, 'निशा बाय! लग्न जातकच वेगळें घर घे. पांच वर्सां मेरेन तरी रजनीकांत ब्रिटिश पासपोर्ट खातीर अर्ज करूंक शकना. तो मेरेन तुजो दास म्हणून ताका रावपाची संवय जातली.

पूण हें जावंक पावलेंना. सेवकाची जीण जगून लेगीत रजनीकांता भितरलो स्वाभिमानी मनीस आज सुद्दां जागो आसा. ताचो भितरलो आवाज आज लेगीत ताका सतायता. गांवच्या घरा माडाच्या चुडटांनी शिविल्ल्या पाखयांतल्यान गळपी उदक जणू आज मेरेन ताच्या हड्डयार



म्हयन्या भितर लग्न जालें ना जाल्यार ताका घरा परत वच्चें पडटलें! टिकेटीचे पयशे लेगीत फुकट वतले! भयण सुद्दां भावोजी कडे लग्ना बद्दल उलयना. आज मेरेन ताका पगार मेळूं ना आनी सगळो खर्च दिल्ल्या पयश्यांचेर जातालो. ताका म्हणून पयशे मोडपाक खंय वेळ मेळटालो? आनी त्या भायर स्नेहाची याद ताका कसलो तरी अपराध केल्ले भावनेचो बोध करूंक लागली. स्नेहाच्यो यादी लेगीत ताचे बराबर आयिल्ल्यो. ताच्यो यादी जणू ताका एके वटेन पळयताली, दुकानांत दवरिल्ल्यो दरेक वस्त ताका प्रश्न करताले. केन्ना खाटेर तर केन्ना हारश्यांत पळयतकच जरी तोंड आपलें दिसलें पूण दोळे स्नेहाचे दिसताले.

कोणाच्या तेरी लग्नाक भयणीन आनी भावोजीन ताका व्हेलो. इतलीं संकश्टां पार करतां-करतां संयोगान एक दीस ताका निशाची आवय-बापूय मेळ्ळे. थंय पळयतां-पळयतां तांकां रजनीकांत आवडलो. निशाक तर तो गांवचो बोणो जाणवलो, त्या भायर रजनीकांत निशा पेक्षा वयान तीन वर्सां ल्हान. एक कडे विजाचो उरिल्लो देह म्हयनो आनी दुसरे कडे तीन वर्सां व्हड बायल.

शेवटाक लंडनांत तगपा लागून, तशेंच आपल्या आवय-बापायक बरी जीण दिवपा खातीर, एक आठवडो जावन रैजिस्ट्राराच्या कार्यालयांत वचून, लग्नाच्या प्रमाण पानाचेर ताणें सय केली. पार्टेचो सगळो खर्च निशाच्या आवय-बापायन काडलो. रजनीकांताची भयण आनी भावोजी फकत सोयरीं म्हणून आयलीं. ताचीं आवय-बापूय, भाव-भयणां कोण येवं पावलीं ना.

जेन्ना ताचो बापूय संसारांतल्यान अंतरलो तेन्ना रजनीकांत लेगीत खंय पावलो? ही

कोळश्या बशेन पडटा.

तो हे विचार करून अस्वस्थ रावता. तो आनी ताचो पूत हर्षदा मदी कसलेच नातें जुळना. ताका निशा ह्या नांवान सुद्दां आपयना. तेंतर ताका हैरी म्हणुनूच आपयता. रजनीकांताक तर हीं नांवां सुण्यांक दकरुपा सारकीं आसतात.''

कसलें ना कसलें कारण आसता. एक तर तूं म्हाका आपलें म्हणणें पटय ना जाल्यार म्हजें म्हणणें आयक. हो गोंदोळ व्हेवार चलपा ना. ''

रजनीकांत आपलें बायलेक हें समजावंक पावना, जीण ही दोन आनी दोन चार ह्या गणिता बशेन इतली सरळ-सोपी नासता. लग्नाच्या बंदनांत येतकच मनशांक खूब तडजोड करची पडटा आनी तडजोड ही केन्नाच एकतर्फी नासता. घोव आनी बायल दोगांयनी मेळून आपलो संवसार सुखाचो चलोवपाक जाय. तडजोडी शिवाय संवसार चलंकू शकना. हे बाबतींत सुद्दां रजनीकांत निशाक चुकीचें थारावंक शकलो ना. कारण तें तर्कांच्या खेळांत आपल्या आवय- बापायक लेगीत प्रामाणिक थारयता. रजनीकांत सदांच आपल्या आवय आनी भयणी विशीं मांडिल्ल्या तर्कांनी हरता आनी आतांय हारता. रजनीकांताक समजना, तो आपले आवयक कशे पयशे पावयतलो? ताचो पगार सुद्दां जॉयण्ट अकाउंटाचेर येता. थंयच्यान पयशे काडीत जाल्यार निशाक समजतलें.. मागीर आनीकूय बोवाळ!

फाल्यां हर्षदालो वाडदीस! जर तार्णे पयशे धाडपाचो विशय काडलो जाल्यार सकाळच्यान घरांत ताण जातलो. आपल्या पुतालो वाड दीस हाची ताका कित्याक खोस जायना हें समजना. ताका कित्याक म्हण हैरी विरोधी पक्षाचो सदश्या भशेन जाणवता? त्या माणकुल्या जिवान तार्चे कितें वायट केलां..

जेन्नाच्यान रजनीकांतार्चे लग्न लंडनांत जालां तेन्नाच्यान तो रिणांत जगपाक अभिशप्त जाला .... घरचें रीण, टी वी, फ्रिज, गाडी, बीमा, आनी क्रेडिट कार्ड सगळी रिणां.. इतल्या सगळ्या रिणांनी रजनीकांत शिरकला.. सगळी रिणाची जीण.

ताचे जिणेचो पेर ताच्या इश्टांचे जिणे परस काय वेगळो ना. पूण एकूच मुखेल अंतर , ते सगळे आपल्या संवसारांत खूश आसात. पूण रजनीकांत दुखी! तो जाणां, आपली बायल हर्षदाच्या वाडदीसाचे गडबडींत उरतली. अशे परिस्थितींत पयशे धाडपाचो विशय काडल्यार बेश्टो बोवाळ जातलो.

''आरे आजूय तोण फुलोवन बसला,आज हैरी लो वाडदीस, आज तुवें खूश रावपा जाय..... किर्दे जाले?''

''कांय खास ना.''

''खास ना जाल्यार सदाचेंच सांग.''

''कांय ना गो.''

''तू जाणा रजनी, हैरीचो केक क्रिकेट-बेटाच्या आकारान करपा लायला, व्हड जातकच आमचो भुरगो इंग्लंड क्रिकेट टीमी चो मेंबर जातलो.''

''आगो केकाच्या आकारान कोण खेळपी जाला?''

''तुकां तर जगपाची कांय उमेदूच ना तरनाट्यापणार जांटों जालो तू!''

''आवयचें पत्र आयलां.''

''आह! आतां कळ्ळें.. हे खेपे कसल्यो मागणी बरोवन धाडल्या?''

''निशा! रितीन उलय ''

''जीं लोकां म्हज्या पुताचे खोशेंत ख... यालतात हीं लोकूच विकृत. हांच्या खाती... खंयची रीत!''

''निशा,जेन्नाच्यान म्हजी ल्हा... भयण विधवा जाल्या, म्हजे आवयचे... ताण आनी जबाबदारी वाडल्या. आवयच... थोड्यो तरी जबाबदाऱ्यो वाटून घेवं जा... न्हय.''

''बरें, आतां पयली वाडदिसाची तया... कर, आमी मागीर हाजेर उलवया.''

रजनीकांत जाणां कीं फाल्यां मेरे... निशा ताचे तर्कमोडपा खातीर तर्काचें सै... घेवन हजर रावतले. फाल्यांय अशी... स्थिती. ताका सारखेंच कळ्ळांतो निशाच... तर्का मुखार ठिकपा ना. तो जेन्ना-जेन्न... ताका मोगाचो सोपूत दिता तेन्ना तें इंग्ला... जाप दिता, ''तुज्या मोगा वाट्याक हांवू... तुका मोग दितां...'' तें मागी... रजनीकांताक स्वास घेवंन दिना...

आनी तो आपले कुडींतल्यान भाय... येता. ताका व्हिस्की पिवंशी दिसता. पू... दुसऱ्याच खिणाक तार्णे तो विचार सोडल...

आज मेरेन खूबशे विचार निशाक... खटकतात. पूण तो तार्चे समाधान करू... पावलो ना.

'' तुजे आवयन लग्ना वेळार म्हज... केळवण सुद्दां केली ना आनी हैरी... मुजीक सुद्दां ताका कांय दिलेना. आम... एकुलतो एक भुरगो!''

निशा आपलें मांयक आपल्या घरच... मानपाक तयार ना. ताचे खातीर ता... फक्त तीग जाणांचो संवसार जेन्न...

जेन्ना रजनीकांत हैरी आनी आपले मर्दी संबंध उरना म्हणून निशाकडे कागाळ करता तेन्ना निशा आपल्या मतानी ताका वगी करून सांगता,''कसलीय जबाबदारी कोणाचेर कोण सोपयनात. ती स्वता आपणें फुडें येवन घेवंची पडटा.

अकस्मात स्नेहा ताच्या मुखार येवन हजर जाता. रजनीकांताक मुखार पळोवपा जायना. तो चित्ता... आतां जाल्यार स्नेहालो स्काद लेगीत... येना. कशें काय आसतलें तें?''

रजनीकांत मनातल्या मनांत संकल्प करता- 'हांव निशाक घटस्फोट दितलों आतां ब्रिटीश पासपोर्ट सुद्दां मेळ्ळो. आतां निशा म्हजें कितें वाट लावंक शकता? आतां म्हज्यान हें जगणें जगूंक जायना.'

पूण हो संकल्प मोडून वता. रजनीकांत आपले मध्यमवर्गीय मानसिकतायेक सारको वळखता. तो कांय करपा पावपा ना. फक्त परिस्थिती बराबर तडजोड करीत रावतलो.

आनी एकदां स्नेहा ताच्या मुखार आयलें. रजनीकांताक जणू गांवचे मातयेचो वास, सांसवाची हळडुळी फुलां आपल्या कडे आपयता. रजनीकांत बडबडटा- आतां म्हाका हांगा एक खीण सुद्दां रावपा जायना. हांव परत येतां. म्हाका क्रिकेट बेटाचो केक खावपाचो ना तर बाजऱ्याची रोटी आनी पालकाची भाजी खावपा जाय .... हांगाचें जग आनी हांगचे सगळे लोक म्हज्या खातीर अनवळखी.... म्हजो गांव म्हाका आपयता..

रजनीकांताचें बडबडून जातकच ताणें आपलें रडकुरें तोंड पळयलें. 'रजनीकांत, तू कांय करपा ना. तू आपलें बायलेकूय सोडपा ना आनी ह्या देशाक. तू आनी तुजे इश्ट ही जीण जगपाक विवश आसात .... तुमचें नशीब आतां तुमच्या बायलां बराबर जुळ्ळां.तुमकां जाय आसल्यार सुद्दां तुमी ही जीण सोडून वचूं शकनात. तुमी सांजे सोऱ्याचे धुंदींत आपल्या देशात पावतात आनी सकाळीं थंड रोटयो खावन वेयर हाउस पावतात. आपलो गांव आनी देश फक्त तुमच्या सपनानी आसपावला. तुमचें आपल्या देशांत परतप आतां शक्य ना. तुमकां हांगाच जगून एक दीस मरपा जाय...

भावनेच्या उद्रेकान रजनीकांताक कांय आयकुपाक येना...



**(सौजन्य- मिट्टी की सुगंध)**

**मूळ लेखक- तेजेंद्र शर्मा- एक वळख**

# व्यक्ती तितल्यो प्रकृती-(२५)




# अनामिक



शास्त्रीय संगिताची रुची आशिल्ल्यान स्मिता तिंबले हांणी संगितार्चे शिक्षण गेतलां. सद्या स्मिता शाळेंत शिकयतात. तांचें ' यादे माई ' हें आपले आवयच्यो पुंजायल्ल्या यादींचें पुस्तक खूब लोकप्रिय थारलां. तांकां कवितांचीय आवड आसा. तांचें 'आपालिपा', ' गोंयच्या फेस्ताक ' हीं ल्हान भुरग्यां खातीरचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.भुरग्यांचीं शिक्षणीक पुस्तकांय तांणी तयार केल्यांत समाजांतलीं विंगड विंगड व्यक्तीचित्रां रंगोवप होय तांचो एकछंद

*दयेचो पाझर फुटिल्ल्या त्या मनशाचें नांव हांव नकळों. तो कसो दिसता तें म्हाका खबर ना. पूण म्हाका खबर आसा ताचें काळीज बाबा आमटेंचें आसतलें. ताचे कान पिडेस्तांची वेदना आयकूंक येवपी मदर तेरेझाचे आसतले. ताचे हात महात्मा गांधी भशेन सेवेक तत्पर आसतले.*

महात्मा गांधी, बाबा आमटे, मदर तेरेसा......अशीं कितलीशींच नांवां आसात ज्यांचें नांव घेतकूच आमी मनांतल्या मनांत हात जोडटात. तांणी निरपेक्ष भावनेन केल्लें उत्तुंग कार्य, आपली पुराय जीण त्या कार्याक ओपपाची तांची ओढ आनी जिद्द आमकां थक्क करता.

महात्मा गांधींची जीण अशाच एका खिणान बदल्ली. तांचे जिणेचें ध्येय तांकां त्या खिणान मेळोवन दिलें. वकिली पेशा आपणावन गांधीजी आफ्रिकेक गेल्ले. थंय भारतीय आनी काळ्या लोकांक मेळपी हीन वागणूक पळोवन, तांकां ब्रिटिशां विशीं राग निर्माण जालो.

'कुत्रे आनी भारतीयांक प्रवेश ना'ह्या सारकी चत्राय रेल्वेच्या डब्यांनी लायिल्ली पळोवन महात्मा गांधींक ब्रिटिशांच्या विचारांची, तांच्या कृत्यांची घृणा आयली. आफ्रिकेक असतना काळे लोक आनी थंय स्थायीक जाल्ले भारतीय हांचे खातीर न्याय मेळोवन दिवपाक तांणी सुरुवात केली.

आपलो दक्षीण आफ्रिकेंतलो राबितो पुराय करून जेन्ना गांधी भारतांत परत आयले तेन्ना भारतीयांनी तांचें व्हड स्वागत केलें.

ब्रिटीशांक भारत सोडून वचपाक लावपाचें व्हड कार्य तांणी हातांत घेतलें. सत्याग्रह करून मिठाचेर घाल्ले कर फाटी घेवपाक लायले, आमचें स्वातंत्र्य परत मेळोवन दिवपाक गांधीजींचो मोलाचो वाटो आसा.

गांधीजींच्या साबरमती आश्रमांत समता,एकात्मता, सर्वधर्मसमभाव दिसून येतालो. महात्मा गांधी आनी कस्तुरबान गरिबांतल्या गरिबाची सेवा केली, रुग्णांची शुश्रुषा केली,कसलेंय काम करपाक लज बाळगप ना हे तांणी स्वकृतीन लोकांक पटोवन दिलें. सत्य आनी अहिंसा हीं दोन म्हत्वाचीं शस्त्रां हे तांणी आमकां दाखोवन दिलें.

दुसरें उत्तुंग व्यक्तिमत्व म्हळ्यार बाबा आमटे. तांचें मूळ नांव मुरलीधर देविदास आमटे. तांणी वर्धा हांगा वचून कायद्याचें शिक्षण घेतलें. थंय तांची महात्मा गांधी कडेन भेट जाली. ज्योतीक ज्योत मेळ्ळी... गांधीजींचो प्रभाव ताका भारतीय स्वातंत्र्य लढ्यांत घेवन गेलो. गांधीजींन सुरू केल्ल्या चरख्याचेर सूत काडपाचें काम तांणी आत्मसात केलें. तांणी खादीचो वापर सुरू केलो.

फुड लेप्रसी म्हळ्यार कुश्ठरोग-महारोग भारतांत व्हड प्रमाणांत पसरलो...हो रोग जावप म्हळ्यार फाटल्या जल्माचें पातक अशें लोक मानताले. अशा रुग्णांक वाळींत उडयताले. महारोग संपर्कान पसरता असो लोकां मदीं गैरसमज आशिल्लो.

महारोगा विशीं गिन्यान आनी म्हायती हांचो प्रसार समाजांत करपाची गरज आशिल्ली.

एक फावट एका कुश्ठरोग्याक रस्त्या कुशीक पडिल्लो बाबा आमर्टेन पळयलो. ताचे कुडीचे जाल्ले हाल पळोवन तांकां भंय दिसलो. तांणी ताच्यो जखमो बऱ्यो करपाचो यत्न केलो. फुडें तो मनीस जगूंक पावलो ना... बाबा आमर्टेन आपले जिणेची मोख थारायली. वकिलीचो पेशा सोडून तांणी आपलें जीवन कुश्ठरोग्यांची सेवा करपाक आनी तांची जीण सुसह्य आनी अर्थपूर्ण करपा खातीर महाराष्ट्रांत वरोरा हांगा 'आनंदवन' उर्बे केलें. ह्या कामा खातीर जाय तें शिक्षण घेवन तांणी स्वत: कुश्ठरोग्यांच्या जखमांचेर उपचार केले. तांकां मानसीक बळ तर दिलेंच त्या भायर स्वत:च्या पांयार उबे रावपा खातीर तांकां लघुउद्योग सुरू करून दिले. तांकां नवें जीवन दिलें. नवी दृष्टी दिली. ह्या दिव्य कामाक तांकां तांची अर्धांगिनी साधनाताई आनी दोगूय पुतांचो अखंड सांगात मेळ्ळो.

महाराष्ट्रांत तीन कडेन तांणी हॉस्पिटलां सुरु केलीं. चंद्रपूर जिल्ह्यांत वरोरा हांगा उबारिल्लें *आनंदवन* हे कुश्ठरोग्यां खातीर वरदान थारलें. रुग्णांचेर उपचार करून तांकां आशेचीं किरणां दाखोवपाचें आव्हान बाबा आमटेन स्वीकारलें. तांणी तांची सेवा तर केलीच, त्या भायर तांकां आत्मनिर्भर केले. असहाय्य कुश्ठरोग्यांक आपल्या पांयार उबे रावपाचें बळ दिलें, आत्मविस्वास दिलो.

मदर तेरेझांचो जल्म युरोपांतल्या मेसेडोनिया शारांत जालो. पिरायेच्या बाराव्या वर्साचेर तिका भास जालो, देवा कडल्यान तिका उलो आयला.. तिचो जल्म एका वेगळ्या कामा खातीर जाल्लो आसा...

फुडें पिरायेच्या अठराव्या वर्साचेर तिणें आपलें घर-दार सोडलें आनी ती माद्र जाली. ती आयर्लेंडाक गेली आनी सिस्टर्स लोब्रेटो हांच्या समुदायाक वचून मेळ्ळी. थंय तिचें नांव सिस्टर मेरी तेरेझा अशें जालें. मागीर ती भारतांत येवन कोलकोत्याक सेंट मेरी हायस्कूलांत सतरा वर्सां मेरेन प्राथमीक शिक्षिका आशिल्ली. थंय आशी-कुशीक आशिल्ली गरिबी पळोवन तिणें आपलो शिक्षकी पेशा सोडून आपलें पुराय जिवीत गरिबांतल्या गरीब मनशां सेवेक ओपपाचें थारायलें.तांची सेवा-शुश्रुषा करप, तांकां आदार दिवप ही जेजुची शिकवण तिणें आपणायली.

मिशनरी ऑफ चेरिटीची लिडर जाली. गरीब, दुखी, निरादार आनी दुर्येत मनशांची ती आवय जाली, आदारवड जाली. आयज मिशनरीचो वावर संवसार भर पसरला, गरिबांतल्या गरिबाक योग्य आदार दिवप, पूर, साथीचे रोग, दुकाळ, आनी बेघर लोकां खातीर व्हड प्रमाणांत मजत करपाचें काम मिशनरी करतात. व्यसनाधीन लोकांक, तशेंच एडस जाल्ल्यान आपलें जिवीत शेणोवन बशिल्ल्यां खातीर मिशनरींचीं घरां आसात. चाळीस देशांनी मिशनरीचे कार्यकर्ते मदर तेरेझाची शिकवण आनी तिणें पेटयल्ली ज्योत फुडें व्हरपाचें म्हान कार्य करतात. तिच्या उत्तुंग कामाक फाव सारको तिचो सन्मान जालो. शांती पुरस्कार(१९७२) नोबेल पारितोषिक (१९७९) आनी नामनेचो मेगेसेसे अवार्ड ची ती मानेली जाली...

समाजसेवेचें व्रत घेतिल्ल्यो ह्यो विभूती आपापल्या वावरान अजरंवर जाल्यात. तांचेच देखीन वा प्रभावान आयज बरेच लोक आपले परीन हो वावर करपाचो यत्न करतात. पूण तांच्या त्या वावराची दखल कोण घेताच अशें ना.

हालींच हे संबंधी विशय आयिल्ले कडेन उलयतना, गोंयांत... तेंय बी आमच्या मडगांवांत एकलो 'दयेचो सागर' आसा म्हणपाचें कानार पडलें. तो मनीस रस्त्यार भोंवपी भिकाऱ्यांक, बेघरांक, पिशांक आनी दुर्येतींक व्हरून एके शाळेचे पोरणे इमारतींत दवरता. तांकां निवळ करता, न्हाणयता, तांकां बरे कपडे न्हेसयता,तांकां खावंक-जेवंक दिता, वखद-पाणी करता आनी मुख्य म्हळ्यार थंयच तांच्या रावपाची वेवस्था करता अशें आयकूंक आयलें.

दयेचो पाझर फुटिल्ल्या त्या मनशाचें नांव हांव नकळों. तो कसो दिसता तें म्हाका खबर ना. पूण म्हाका खबर आसा ताचें काळीज बाबा आमर्टेचें आसतलें. ताचे कान पिडेस्तांची वेदना आयकूंक येवपी मदर तेरेझाचे आसतले. ताचे हात महात्मा गांधीं भशेन सेवेक तत्पर आसतले. आपलो स्वास,आपलें जिवीत ह्या कार्याक वापरून ताणें समाजाचें रीण तर फेडलेंच पूण आपल्या आत्म्याक खरी-खुरी शांती मेळयल्या आसतली..

ना वळख ना देख अशे हे व्यक्तीक, अनामवीर अनामिकाक मना-काळजा सावन माणुसकीचो पुरस्कार!



मडगांव - गोंय.मो. : ९७६३५५२७१९

## मस्त-बोरकारी

सखाराम
शेणवी
बोरकार



हालींच गोंयांतलो एक नामनेचो मनीस भायर पडलो.

आपल्या निमण्या स्वासा मेरेन हो गोंय, कोंकणी

आनी कोंकणी संस्कृताय हाचे विशीं फकत येवजी नासलो तर आपल्या कामा वरवीं तें दाखोवन दितालो.

तांच्या मरणां उप्रांत तांचे विशीं लेख, प्रतिक्रिया नेमाळ्यांचेर येवप हें सबावीक.

पूण थोड्यांले लेख वाचतगीर म्हाका प्रस्न पडलो,

हे लोक त्या गेल्ल्या मनशाचे गूण गायतात काय आपलेंच 'फुटकें वाजंतर' वाजयतात?

असली कळाशी खूब जाणांक बरी जमल्या.

मेळत थंय आनी मेळत तालूंत आपलेंच घोडें दामटतात.

त्या व्हड मनशाचो कसो तरी आपलो संबंद जोडप आनी आपलेच गूण गावप.

असले लेख वाचतगीर बरोवपी त्या गेल्ल्या मनशावीशीं बरयता काय आपलेच गूण गायता असो वाचप्यांक प्रस्न पडटा.

आनी अश्या वेळार म्हाका एक कोंकणी म्हण येवजता:

'सीता, तारा, अहिल्या, द्रौपदी, मंदोदरी, तिजून म्हागेलें कामणें!' ही ती म्हण!

हे म्हणी फाटली काणी अशी:

एक गरीब बायल आसली. तिका कामणें नांवाचें चली आसलें.

थोड्या वर्सा भितर ते बायलेचो घोव भायर पडलो

आनी पोट भरपा खातीर लोकांल्या घरांत काम करून ती आपलो संवसार चलोवंक लागली.

कामणेंय बी आवय कामाक वतगीर घरांतलें



सगळें काम करतालें.

कामण्याची पिराय वाडत वताली.

पूण ताचें लग्न मात खंयच थरनासलें.

आपलें लग्न जायना म्हण कामणें सदांच चिंतेस्त आसतालें.

एक दीस कामण्याची आवय देवळांत किर्तनाक गेल्ली.

थंय हरदासान पुराणांतल्यो पतिव्रता जश्यो सीता, तारा, अहिल्या, द्रौपदी, मंदोदरी हांच्यो कथा सांगल्यो.

तांकां तांचे जिणेंत कसले कसले त्रास भोगचे पडले तें सांगलें.

दुसऱ्या दिसा बांयचेर उदक भरतना वाड्या वयले एके बायलेन कामण्याचे आवयक विचारलें, ''कामण्या आवय! काल हांव देवळांत किर्तनाक पावलें ना. हरदासान कसली कथा सांगली गो?''

त्या उतराक कामण्याचे आवयन हरदासान सांगिल्लें तशें पुराणांतल्या त्या सीता, तारा, अहिल्या, द्रौपदी मंदोदरी ह्या पतिव्रतांनी कसल्यो हालअपेष्टा काडल्यो तें सांगलें. आनी म्हणूंक लागली ''हय पुते, सारकें म्हाज्या कामण्यावरी!''

खंयचेय पतिव्रतेचो उल्लेख येतालो तेन्ना तिणें 'आपल्या कामण्यावरी' म्हणत कामण्याक व्हरून तांचे पंगतीक बसोवंचें.

खंय त्यो पतिव्रता आनी खंय हिगेलें कामणें! देखून 'म्हागेलें कामणे' म्हण्टगीर लोकांक तिगेलीं उतरां उस्तऱ्यां वतालीं.

हे भशेन 'सीता, तारा, अहिल्या, द्रौपदी, मंदोदरी, तितूंत म्हागेलें कामणें!' अशी म्हण जावन पडली.

ह्याच आशयाची म्हण मालवणी कोंकणीतय आसा.

ती म्हण अशी: अहिल्या, मंदोदरी, सीता, तारा, भुतूर आमचां गोदलां सारा!

थोड्या लोकांक आपलो, आपल्या भुरगेबाळांचो वेळ काळ पळय नासतना व्हड लोकां कडेन संबंद दाखोवपाचो घोस्त आसता.

आपलें आनी आपल्या मनशाचें कर्तृत्व कितें तें तोली मोली नासतना त्या व्हड मनशां कडेन तुळा करतात, संबद जोडटात. 'सीता, तारा, अहिल्या, द्रौपदी, मंदोदरी, तितूंत म्हागेलें कामणें!' हे म्हणी भशेन हो प्रकार.

वाचप्यांक असलो अणभव आयलाच आसतलो.



रेषापुराण

रेषा प्रभू



एकदा म्हाका कोंकणीं मुशायराक आपोवणें आयलें. हांवूय उमेदीन गेलें.म्हळें म्हजेय दोन चार शेर सादर करूंक मेळटले. आनी बाकीच्यांचेय आयकूंक मेळटले.

मुशायरा सुरू जालो.

एक एक करून कवी आपापले शेर मांडटाले. सगले गूंग जाल्ले. इतल्यांत म्हज्या म्हऱ्यांत बशिल्ल्या राकेश कुमारान हळूच घाण घाली.

म्हाका कळ्ळें तशें हांवें आबूज जावन ताका पळयलें.

बरोबर त्याच वेळार ताचो नंबर आयलो.

सुत्रसंचालकान व्हडान म्हळें, ''कवी राकेश कुमार आतां तुमच्या मुखार येतात.''

हांवें मनांत म्हळें,हं.. घाण घालत घालत.

राकेशान म्हाका पळयत पळयत शेर मांडपाक सुरू केलो-

हळु हळू करत जी हांवें सोडली.
ती तुजेच दिकेन कशी गो ओडली..

वाह वाह वाह वाह बरोच प्रतिसाद मेळ्ळो.

हांव मात्शें कुशीक सरलें आनी हळूच लेंस नाकाक धरलो.

हळु हळू करत जी हांवें सोडली
ती तुजेच दिकेन कशी गो ओडली...
आडोंवचो केलो खूब हांवें यत्न
तरी तुजी तंद्री गो तणें मोडली.

कोणाक कायच कळुना. सगल्यांनी 'वाहवा वाहवा' केलें.

सुत्रसंचालकान म्हळें,

''वाह .कितलो गूढ अर्थ भरला पळयात ह्या शेरांत. कवी म्हण्टा, जी आशा जी ईत्सा हांवें हळु हळू सोडली ती परत म्हाका तुजेच दिकेन घेवन गेली. आनी तातूंत तुजी तंद्री मोडली.

''वाह वाह क्या बातहै'' सगल्यांनीं 'वाह वाह वाह वाह' केलें.

हांवें म्हळें,''तुंवें जी सोडली ती म्हज्या म्हऱ्यांत येवन पावली. . तातुनच हांवेंय सोडली,ती म्हाका संदी बरी गावली.

सुत्रसंचालकान गजाल मारून 'वाह वाह वाह वाह' केलें.

''बाय रेषान ताका अप्रतिम जवाब दिलो. क्या बात क्या बात...तें म्हण्टा तुंवें सोडिल्ली वाट म्हज्या घरा मेरेन पावली. पूण म्हाकाय ती वाट सोडपाची संदी बरी गावली...वाह वाह उच्च विचार..''

परत ताणें म्हळें,

हांवें जी सोडली तिजी इतली तरी नासली
जितली तुजी येवन म्हजे ताळवेक बसली

सुत्रसंचालकाक आनीक चेव आयलो. ताणें म्हळें,'' कवी राकेशबाब म्हण्टा, ताणें जी वाट सोडली ती इतली पयस नाशिल्ली जितली रेषान सोडील्ली..''सांगतां सांगतां तो थांबलो. कित्याक, ताका ताळवेक बसली कशें सांगचें तें कळुंना.

ताणें हळूच म्हाका विचारलें, ''ताळवेक बसली म्हळ्यार?''

हांवें म्हळें , ''ताळवेक बसली म्हळ्यार ताचे तकलेंत घुसली दिसता!''

'आहाहा क्या बात क्या बात' करत तो ओग्गी रावलो.

ताकाय तें बरें कळुनाशिल्लें.

हांवें म्हळें,

हांवें सोडिल्ली जर तुजे ताळवेक बसली

तुजीय बरोब्बर येवन म्हजे नासीकेंत घुसली

सुत्रसंचालक आनीक आड्डलो, ''वाह! वाह! क्या बात! बरोबर जाप आमच्या रेषाबायन दिली. तें म्हण्टा,'' म्हजी वाट जर तुज्या मनांत घुसली तर तुजीय वाट म्हज्या ......''

परत तो आबुज जालो.''नासीकेन घुसली म्हळ्यार?''

''नासीकेन घुसली म्हळ्यार परमयळी.''हांवें म्हळें.

ताणें बेश्टेंच कळनास्तना 'वाह! वाह! वाह! वाह!' करून सोडलें.

सुत्रसंचालकान 'वाट सोडली, वाट सोडली' करून आपलीच वाट लावन घेतिल्ली.

शेवटी मुशायरा एकदाचो सोपलो. लोक मात आपापसांत उलयताले.' तें रेषा आनी राकेश उच्च दर्जाचे कवी मरे ! साधारणश्या मनशांक तांच्या शेराचो अर्थ कळपाक शक्यच ना. न्ही रे?'

## घाडपण

रमेश
साजू
घाडी



गांवांत तशी आमची फामिलूय बरी फामाद.. जशी थोड्या शिकणार फामीलींनी दोतोर, इंजिनियर, टिचर्स बी खूब आसतात तशे आमच्या फामिलींनी मडको घेवपी, पट मारपी..जात्रा जागरांनी गडगडो मारपी, कलसांवां वयर काडीत धिरयांच्या पाड्या फाटल्यान गाळी सोवत लिंगडीची बडी घेवंन धांवपी.. तायट जावन केन्ना बार्राय फोडपी..ल्हानशे गजाली वयल्यान कानसुलां फोडपी असलेच चड जाण भरिल्ले आसात..

चडश्या जाणांक साहित्य, कला असल्या नाजूक साजूक विशयां कडेन तर जल्मांतरीची दुस्मानकाय..

''तेका किदें जालां रे..? अजीत कडकडे करसो कुर्ता घालून बी भोंवता, आनी हालीं काणयों कविता बी बरोवंक लागला म्हणून आयकतां मरे..!''

''किदें बायजनपणा रे हीं..! हें आमकां घाडयांक सोबता रे? आमी मूठ मारता थंय उदीक काडपी फामिल मरे..! आनी हो असो कसो जालो?''अशेंय मात्शें शेनवाराचे रातीक कॉर्तीर आसतना म्हणपी आमच्या तथाकथीत खानदानांत खूब जाण बापूल भाव आसात.

आमचे फामिलींत एक खूब वर्सां आदलें पिशेपण आसलें. धिरयांचे पाडे पोसपाचें. आमगेर देड वेंत लांब कोयांचे, वेंगेंत पावना तसल्या मोठ्या व्हडल्या व्हडल्या कोळांचे पाडे आसले. तेंकां मागीर आगशे, जुवारेर,मेरशें..ताळगावां बी धिरयांक व्हरताले.

केन्नाय पाड्याक धुकल्लो म्हूण एके वटेन पाड्यांचीं आनी दुसरे वटेन पाडेकारांचीं अशी खूब फावट गेरांय जातालीं.

सकाळी फुडें पाड्यांक घेवन पर्रा कोळगंटी धावूंक वचप, धिरये आदीं तांचीं शिंगां तासप असलो सगळो वावर हांव,म्हजो बापूलभाव भुला आनी आमचो राखणो करताले. तो बारीक व्हीर कसो दिसपी म्हजो बापूलभाव व्हडल्या व्हडल्या खिल्लारी बैलांच्या नाकांत वेसण घालून तांकां आपल्या कंट्रोलांत दवरतालो..

९०त हांव गल्फाक गेलों. मागीर देड वर्सा भितर सगळीं गोरवां, म्हसरां, धिरयांचे पाडेय बापायन विकून उडयले .

खूब वर्सां उपरांत स म्हयन्या पयलीं बापूलभावाक परत धिरयेचो पाडो हाडपाची कूय आयली, कूय येतकच मागीर ब्रेक मारून रावप आमचे फामिलीक कशेंच जमना. दुसरे दिसा फांतोडेर उठून तो घाटार गेलो आनी ताणेंन एक बरो खिल्लारी पाडो हाडलो.

पाडो बरो धिरी घेवपी पूण चड रफ...ताणेंन एक दीस बापूलभावाकूच आडवो घालो आनी शिंगांनी बरोच फाळ्ळो. ताका सोळा पोंत पडले, तरीय बरो वाटवलो.

पोंत मारूंक वयच्या पयली बापूलभावान कुटत कुटत वचून कुडये फाटली मडखूळ हाडली आनी पाड्याक बरोच धुलो. ऐशी हजारांचो पाडो ताणेंन

रागान शेखर गाड्याकाराक पन्नासांक विकलो, विकच्च्या पयलीं ताणेंन अट घातली दोन दिसां भितर त्या पाड्याक धाडोवपाक जाय आनी तेच्यो कोयो चेंचतना आपूण मुद्दाम पळोवंक येतलों.

ताच्यो कोयो चेंचल्यो म्हूण हाची दूख कमी जातली? पूण ताचें चिंतपच तसलें. टिपिकल धिरयेकारी.

एक दिसा दनपारां कोणेंन तरी सांगलें, "आरे तुमच्या भुलग्याक नेया धिरयेच्या पाड्यान माल्लो, ताका कोळगंटी धारवाडकारा कडेन एडमिट केला" म्हूण..

हांव जीम बंद जातकच नीट हॉस्पिटलांत गेलों. हो बँडेज बांदून न्हिदला. म्हाका पळोवन कांय जावंक नाल्ल्या भशेन उठलो..

"बरो सुटलों रे !!" ताणें म्हळें.

"हय..शिंग पोटांत गेल्लें जाल्यार पुरो आसलें!"

हांवें म्हणलें.

" आरे हांव न्हू रे..पाडो बरो सुटलो म्हणटां."

ताणेंन मात्सो आवाज चडयलो...

"काल तेका मोडून घालपाचों, शेखराची आवय येवंन पायां पडपाक लागली म्हूण सोडलो..परवां तेका चेंचतां...यो पळोवपाक...फोदरीचो धनयांक मारता म्हणजे किदें ..!"

तोंडांतल्या तोंडांत पुटपटत धा बारा गाळींचीं अस्त्रां ताणेंन कांय न्हूं कशीं आपल्या गांळयान्या भात्यांतल्यान काडून शेवटायलीं.

"पुरो..तुका आतां हे धिरयेचे पाडे बी नाकात. आतां ह्या वयार आनी असले हे खेळ नाकां रे..!"

हांवें ताच्या हाताचे बँडजीर नदर मारीत म्हटलें.

"ना..आतां पाडे नाकात....आतां एक बरो रेडो हाडटां. सकाळीं फुडें जाकी जुवल्याचो मेव्हणो येयल्लो. वार्का तेच्या कुन्यादाकडे रेडो आसा खंय विकूंक. बरो गुर्जर जातीचो खंय. फाटल्या आयतारा कोलयां देड लाख हापोस जिखलो खंय! तू फाल्यांच्या आयतारा किदें करताय?"

"एका फ्रेंडाच्या पुस्तकाचें लोकार्पण आसा..मात्सो बिझी आसतलों." हांवें सांगलें.

"आरे तीं पुस्तकां,कविता बी सोड रे. तुका तें सोबना. सगळे फाटल्यान हांसतात. किदेंय मर्दानी कर मरे..! जुवारेर कायडो ब्रदर्सा कडेन बरो गुल्या शिंगांचो पाडो आसा, घेताय तू? म्हाका जाल्यार सत्तरांक दिता म्हणटालो. या आयतारा पळोवपाक?" तो आपल्या हातीचे पोंत विसरून गेल्लो.

"ना रे...म्हाका आनी धिरयो नाकात. भुरग्यापणार खूब जाल्यो..आतां आनी नाकात." हांव.

"तुमच्यो बायलो नाकां म्हणटात आनी तुमी आयकतात!..तुमी मरे त्या बायलांक आपले तकलेर बसयल्यांत.शकुंतलाय वारकांतलें....'आमकां लेलो नाकाऽऽ नाका न्हूं..' हांयें शटाप केलें..घरा धांवडोवन घालतलों म्हूण सांगलें! दादल्यांक किदें तरी बरे मर्दानी छंद जाये मरे..! आमकां बाबा तुमच्या भशेन त्यो कविता ..लेख बरोवपाचीं पिशेंपणा ना..किदें तें मर्दानी..."

आनीक चड उलोवन फायदो ना म्हूण हांव वोगीच घरा आयलों.



भगतायण



बबन भगत

''तो तुजो तुवालो तुवें सोफाचेर उडयला न्हय, तो मात्सो थंयच्च्यान काड. आनी तें तुजें अंडरवेअरय ''म्हजे मंडोदरीन म्हाका फर्मायलें.

''तुवालो थंयच्च्यान काडूं आनी खंय दवरूं?''-हांव.

''तकलेर दवर तुजे.''-मंडोदरी.

''आनी अंडरवेअर?'' - हांव.

''तेवय तकलेर दवर. ना तर सुपरमेन घालता तशें घाल.''

''शी! सामकें मगो तूं!''- हांव.

''काडटा काय ना? ना तर हांव सोफावेल्यान काडून भिरकाटावन मारतलें!''

''हें पळय हां! तूं म्हज्या तुवाल्याक आनी अंडरवेअराक हात घालचें ना. हांव ओगी रावचो ना तुका.''

''आनी तुवें सोफाचेर जें प्रदर्शन मांडलां तें काडलें ना जाल्यार हांव सोसून घेवपाचें ना. इतलीं वरसां खूब सोसलें हांवें!'' - मंडोदरी.

'' तुवें काय हांवें?''- हांव'

''किदें?''

''तूं सोसलां म्हणटा तें. दादलो सोसता तितलें कोणच सोशीना. सोशीत रावता. सोशीत रावता. आपलो जीव फुगार करून घेता. आनी ताका एक दीस मागीर अॅटिक येता. ना तर बायलांक अॅटिक येता जाल्यार पळय.''

''तुजी इच्छा दिसता!''- मंडोदरी.

''कसली?''- हांव.

''म्हाका अॅटिक येवचो अशी!''

''शी! किदें उलयता गो तूं! हांव घोव मगो तुजो.''

''कितलें मरतां हांव दीस भर. कोणाकच काकूट येना म्हजी.''

''कसली इच्छा गो तुजी पाडी! आपली दुसऱ्यांनी काकूट करची ही! काकूट कोणाची करतात खबर आसा मगो? त्रासांत पडटात त्या लोकांची!''

''हांव त्रास काडटा ते दिसनात तुका. आवयक एक दीस चड काम पडल्यार चुटपुटता मरे तुजो जीव!''

''आई म्हणटगीच याद जाली. एक सांग गो! तूं आनी आई पयर रांदचे कुडींत कुपूकुचू करून म्हज्यो कसल्यो खबरो करतालीं गो?''

''तुका कशें कळ्ळें आमी तुज्यो खबरो करतालीं म्हुणून?''

''रांदचे कुडीचे कुशीक उबो रावन हांव आयकतालों सगळें. राव गो! म्हाका एक सांग गो! म्हाका सगळें आयतें हाडून दिवचें पडटा. न्हावपाक वता तेन्ना तुवालो, ऑफिसांत वचपाक भायर सरतां तेन्ना लेंस, सामान हाडपाक वता तेन्ना पिशवी, न्हिदपाक वतां तेन्ना चादर,

अशें सांगतालें म्हगो तूं आईक! आनी मागीर आई तुका किदें सांगताली तेंवय आयकलें हांवें. बापायचे बडीर गेला. बापुयय तसोच आसलो ताचो. बशिल्ले कडेन सगळें हाडून दिवचें पडटालें ताका अशी ती सांगताली मगो तुका? तुमी दोगांय एक जावन म्हाका तासतालीं मगो? आगो लग्न जाल्या उपरांत कितले फावट नुस्तें उजरावन दिलें तुका, सोय कातून दिली, भाजी चिरून दिली. कपडे लेगीत उमळून दिले मगो तुका.''- हांव.

''हय! पूण तें हांवें सांगूक जाय आसलें तुजे आवयक अशें दिसता तुका?''

''आगो! नाका! नाका! तें बी सांगशी तिका. ती पयलींच हांव तुका भिता म्हणटा. पूण तिणें तशें म्हळ्यार म्हाका केन्नाच वायट दिसना. खरें उलयता ती. वायट कित्याक दिसपाचें? सारकें मगो?''

''म्हाका भितालो म्हुणून बऱ्याक पावलो तूं. जे जे लोक बायलेक भितात ते बरो संवसार करतात. म्हजो बाबाय खूब भियेतालो आईक. आनी देखूनच आमकां इतल्या भावंडांक पोसपाक पावलो. भियेनाशिल्लो जाल्यार आपल्या इश्टां वांगडा मजा मारून पयशे सोपोवपाचो. बायलेक भिनात त्या दादल्यांचीं चित्रां काडपाक जायनात अशी म्हजी आई सदांच म्हणटाली.''

''खरें सांगूं गो तुका? म्हजे आईनय म्हज्या बापायक असोच आपल्या धाकांत दवरिल्लो. पूण आतां मात हांव तुका भियेल्यार तिका राग येता. आसूं! बायलांची जात दादले समजतात तितली वायट न्हय''-हांव.

''राव रे! आज महिला दिन मरे! किदें हाडलां म्हाका?''

''तुका गिफ्ट जाय?''

''हय तर!''

''मागीर फॉर्म भर मगो.''

''कसलें रे?''

''म्युनिसिपालिटीचें. आमचो वार्ड महिलां खातीर रिझर्व आसा मगो.''

''ये,तुका पिशें लागलां रे? काय आज फेणी मारल्या काजूची?''

''चल आज महिला दिना निमतान म्हाका एक चिकन शेजवान ऑर्डर कर मरे! म्हजो शाणो तूं! करता न्हय?''

''हय गो! करतां.''

'' पूण आज पेमेंट तुज्या कार्डा वेल्यान करपाचो. म्हाका ट्रीट तुजी. महिला दिनाची.''

''चल तुका नवें जीन पॅन्ट हाडलां तें घाल पळोवया.''

''खरेंच रे! खंय आसा?''

''पींण तुजी आई दितली मरे म्हाका घालपाक?''

''ते दिसा दोगांय एक जावन म्हज्यो बऱ्यो चाडयो करतालीं मगो दोगांय जाणां. तूच विचार मगो आतां तिका. आतां कित्याक भिता?''

''विचारूं मरे?''

''ये, आई! तुज्या पुतान पळय म्हाका जीन पॅन्ट हाडलां.''

''ये,आगो! मंडोदरी! तुजे जिबेक हाड बी........।''



## इतो-उवाच

प्रसाद
रायकार



फांतोडेर अचकीत जागो जालों आनी मनांत आयलें न्हावन घेवंचें. रुमांल्यान भायर सरून पळयल्यार चवथीची तयारी चल्ल्या. तशें कोणाक न्हय शें पूण तरी सगळ्यांक हांवें फरमान सोडलें, "म्हजो आज न्हावन घेवपाचो विचार आसा."

जालें!! विचार मांडला मात!! गजबजिल्लें घर एकदम शांत जालें. कोणाच्या तरी हातांतल्यान ताट सुटून सकल पडलें, कोण ब्रश करतालो ताणें आनी कोणाचेर तोंडांतलो फव्वारो सोडलो जाल्यार आमचो बुकलो चक्क घुवळ येवन पडलो! तांचीय चूक ना - जेन्नाच्यान हांव स्वताक वाग, शिंव समजुपाक लागलां, न्हावपाची गरजूच दिसूं ना आनी इतलें उदक वाचयलां म्हणून फक्त युनायटेड नेशना कडल्यान सत्कार जावपाचो उरला. तो जाता तेन्ना जाता, म्हाका कसलीच घाई ना.

मुद्याचें म्हळ्यार सगळ्यो घडयाळी एकदम वांगडाच बंद पडिल्ले वरी घराचें वातावरण जाल्लें. पूण कोणें तरी ती शांतताय भंग केलीच.

" कितें तुजें अकस्मात रे हें? पांयां कडेन सुतली बॉम्ब फोडिल्ल्या सारखें? दोन दीस पयलीं तरी सांगप ना रे? माळये वयल्या काशेदांतलो तुजो तुवालो तरी मानाय लावन देवोवपाक मेळपाचो. आतां बाकीच्या कामां मदीं कशें जातलें? दिवाळी कडेन पळोवया आतां."

फकाणां करतात अशें दिसलें म्हाका. कल्पना तशी वायट शी नाशिल्ली.

इतल्यांत चलो म्हज्या भोंवतणी मोट्ट्यान आड्डत नाचपाक लागलो.

"पप्पा आज न्हातलो, पप्पा आज न्हातलो."

त्याच बराबर शेजारच्या सार्वजनीक गणपतीक पुजेक बसोवन ताचें बॅंड मोट्यान वाजपाक लागलें आनी एकूय सूर चुकय नासतना कोनश्यांतले सुणेय बी कुयो घालपाक लागले. म्हज्या न्हावपाचो समाचार पुराय मडगांव पावोवपाचो कॉन्ट्रेक्ट तांणी घेतला काय कितें?

जावं, परत सगळीं आपापल्या कामाक लागलीं. हांवें न्हावप काय ना तें नक्की जालेंच ना. कितें करूं, कितें नाका ह्याच विचारांत आशिल्लों तेन्नाच कसली तरी कुजबूज आयकूंक आयली. म्हज्या लागीं तसो कोण नाशिल्लो. पूण आवाज तर येतालो. सारकें लक्ष दिल्यार समजलें, हो आनी कोण न्ही तर आमचो अजून पुजू नाशिल्लो गणपती!!! ताचे भोंवतणी गुटलायल्लो पेपर कुशीक काडटां थंय आसां, गणपतीन व्हडलो सुसकारो सोडलो आनी म्हाका खावं काय गिळूं असो पळोवपाक लागलो.

"तुका कितें जालें रे बाप्पा? असो फुगार कित्याक जाला?"

"मागीर आनी कितें कर म्हणटा?" गणपती

तापलो. ''तुका असो दीस दीस भर पेपरांत गुटलावन दवरल्यार तूं कितलो नाचतलो तें खबर आसाच म्हाका. वयल्यान आतां देड दीस म्हजे भोंवतणी धूप आनी उजवातींचो धुंवर, दिव्यांचो आनी बल्बांचो तोंडार लक्ख उजवाड - मनीस तरी कसले रे तुमी - म्हजी चवथ करतात काय सिआयडी कडल्यान तपासणी करतात कांयच समजना. आनी म्हजे कान केदे तें पळयात रे. तुमच्या त्या फोगांच्या आवाजान जीव कासावीस जाता मरे सामको.''

''पूण मागीर बरें तुजें. थंड उदका भितर विसर्जन जाता तुजें. सगळो त्राण, सगळो घाम खतम.''

गणपतीचो राग सामको ताच्या मुकूटाक पाविल्लो.

''हय वय, तुमचें तें दुशीत उदक. म्हाका मागीर वचून अमृतान न्हावचें पडटा आनी हो पेपर परवडलो पूण त्यो उदकांतल्यो प्लास्टीक पिशव्यो नाका रे बाबा. तकलेक घुसपल्यार घुसमटपा बगर पर्याय आसा? बरें तें सोड. उदळ कसलो बोवाळ चलतालो?''

''तो बोवाळ मरे? हांवें न्हावप काय ना, ताचेर चर्चा चलताली. पूण निर्णय जावंकच ना.''

''आरे, इतलेंच मरे? हांव कित्याक आसां तर? घेवंया मरे थारावणी . पूण पयलीं मातशी पोटपुजा केल्यार बरी न्ही? हांवें आयकलां, आतां तरेकवार मोदक बी करतात म्हणून. हाड पळोवया शंबर-दोनशें गुलकंदचे आनी शंबर दोनशें दुदाचे, मुखशुद्धी म्हणून. आनी भांड भर तुमची ती फेटिल्ली कॉफी बी घेवन यो. पळयतां हांव सगळें फेसबुकाचेर!!''

''सायबा भोगोस!! हें कसलें अपशरण रे? आनी इतलें सगळें? बोल्सांत दुडू आसात मरे?''

''पुडव्याक बोल्स तुंवें केन्ना पळयलां रे?''

''तेंय खरें. पूण मागीर तुजो निर्णय दी आ?''

'' हय रे बाबा. अवश्य!!! तथास्तु!!!''

पूण असले मोदक मेळटात तरी खंय? स्कूटर भायर काडली आनी एक पासय मारली. गणपतीन सांगिल्ले मोदक खंयच सांपडले नात. एका गोंयकाराक विचारल्यार तो फक्त तोंड पळयत रावलो. हें आनी कसलें लचांड? सकाळ फुडेंच मारलां दिसता आज. मागीर गणपती पुजलो काय देड दीस चान्स ना न्ही. असो कितें तरी विचार ताच्या मनांत आसपाक जाय.मागीर एका मारवाडी मिठाईवाल्याक विचारलें.जाल्यार तो म्हणपाक लागलो - वो सब भुलो पातरांव. ये मोडक ले लो. एकदम फ्रेश. हमारे राजस्तान मे गणेशजी और कुछ नही खाते!!

सोदपाक गेल्लों तें कांयच मेळ्ळें ना आनी हात हालयत परत आयलों. घरा पावल्यार गणपतीची पुजा जाल्ली. तो थाटान बसून आपली सेवा करून घेतालो - म्हाका भोव पळयता तो आतां. वेदोळ म्हाका व्हड व्हड उपदेश दिल्ले खरे, पूण आतां त्याच उजवाडांत आपली सेवा करून घेतालो!!

पूण म्हजें न्हावपाचें कितें? जावं, दसरो दिवाळी फाटोफाट आसाच. तेन्ना पळोवन घेवंया. तुवालो वयर माळयेर काशेदांतूच उरला न्ही?

## हर्षबिम्ब

हर्षा शेटये



हो विनोदी लेख न्हय पूण लेख वाचतना तुमच्या तोंडार मुमुरखो हांसो येवं येता.

तर सांगपाची गजाल म्हळ्यार भुरगें मन सामकें निर्मळ. निरागस आसता. तांकां कित्यांत कितें दिसत ताचो नेम नासता.

तांकां कसले प्रस्न पडत हें ब्रह्मदेवाच्यान लेगीत सांगू नजो म्हणून तर तांचे करणेक भुरगेपणां म्हणटात. आतां थोडें वयान वाडिल्लेय भुरगेपणां करतात ती गजाल वेगळी.

म्हजो चलो तीन वर्सांचो आसतना आतेक पावपाक रेल्वे स्टेशनाचेर गेल्लो. ताणें ट्रेन पयलेच फावट पळयल्ली.दोन दिसांनी तो म्हाका भायर आपोवपाक लागलो,

'मम्मा भायर इल्लीशी झुकझुकगाडी आयल्या.'

पळयत जाल्यार गोठाण.

घरा कडेन तो केन्नाच कसलीच भाजी खायना आशिल्लो. एक दीस तो ताचे माईआतेगेर गेल्लो. तांगेर ताणें भेंड्याची भाजी खाली. घरा येवन म्हाका सांगपाक लागलो,'' मम्मा, हांवें माईआतेगेर टायरांची भाजी खाली.बरे इल्ले इल्ले टायर आशिल्ले.

एकदां म्हजी पुतणयी सोनल आमगेर रावपाक आयिल्लें आंब्यांचे दीस. ताणें आंबो चोखून चोखून धवो फुल्ल केलो आनी म्हाका म्हणटा कशें,

''हर्षाकाकी, पळय, हांवें काथो म्हातारो केलो.''

ताचीच धाकटी भयण नेहल, ताका जेवच्या वेळार हांवें विचारलें,

''आगो, तूं बटाटाच्यो फोडी खाता मगो?''

''हय,म्हाका आवडटात.पूण त्यो दोंगर कश्यो फोडी आसतात त्यो म्हाका वाडूं नाका आं.''

ताची जाप आयकून म्हाका मजा दिसली बटाटाच्यो फोडी करतकीच कुशींचे दोन उभार कुडके उरतात. ते ताका दोंगर कशे दिशिल्ले.

आमची खूब व्हडली फामिल. चलो ल्हान आसतना कोणूय गोंया भायर खंयूय गेलो वा गोंया भायर सतना कोणूय गोंयात येतना ताका किर्ते ना किर्ते तरी हाडटात.

अमेरिकेच्यान येतना भाच्यान हाडिल्ली रिमोटान चलपी गाडी. गुजराताक फिरपाक गेल्ली तेन्ना नणदेन हाडिल्लो मडक्यांतलें लोणी खावपी कृष्ण, मुंबयच्यान भाचयेन हाडिल्लो वण्टीक लावपाचो स्पायडरमॅन .

तेन्ना निकतेंच मडगांवचे भाचयेचें लग्न जाल्लें आनी तीं लंकेक हनीमूनाक गेल्ली.तीं लंकेक गेल्यांत हें ताच्या कानार पडिल्लें. तीं परती आयली तेन्ना हाणें तांकां विचारलें,

''संतूदिदी,तुवें म्हाका लंकेच्यान रावण हाडला?''

ताचें कारण म्हळ्यार तेन्ना मराठी रामायण टिव्हीर चलतालें. म्हजी मांय आनी तो ना चुकतां तें रामायण पळयतालीं. ते खातीर ताका दिसलें स्पायडरमेना भशेन तीं खेळण्यांतलो एक रावण हाडटलीं म्हणून.

उबाळांतल्या दिसांची खबर. चल्याक घाम खूब येतालो. ते खातीर मांय ताका परतें परतें हातकापें बानयन घाल म्हणटाली आनी तो घालतालो. एक दीस आमी पार्टेक वतालीं. तेन्ना तो म्हणूक लागलो,''सददां म्हाका हातकापें घालतात, आज म्हाका फूलकापें घाल आं!''

म्हजे एके इश्टीणीन सांगिल्ली खबर. तिका खंय तिचे धाकटे धुवेन विचारले,

''तूं व्हडली काय चाची व्हडली?''

''कित्याक गो?'' आवयन विचारलें.

'' हरशीच गे, तूं पयली मरतली काय चाची पयलीं मरतली तें कळपाक.'' धुवेन निरागसपणान सांगलें.

इंदिरा गांधीचें मरण टिव्हीर दाखयतालें. म्हजे आजयेकडेन म्हज्यांत बसून म्हजी स वर्सांची मावशे भयण तें पळयताली. मदींच तिणें आजयेक विचारलें,

''आई, तूं मरतकीच तुका असोच उजो लायतलीं गे?''

आजी आनी कितें जाप दितली. तिणें कपलार हात मारलो.

## साखरकांडी



नुतन साखरदांडे

दनपारचें एक वर जाल्लें.. कॅशर रजेर आशिल्ल्यान म्हाका कॅशिन बसचें पडिल्लें.

एक जालें काय म्हॉवामूंस कशे करस्टमर कॅश कॅबिनाकडे गर्दी करतात.. कोण लंच ब्रेक आशिल्ल्यान.. कोण दुकान धांपून आयिल्ल्यान, थोडे जाणटेले जेवन खावनूय .. एकूण कितें तर त्या दिसा खूब्ब गर्दी आशिल्ली.हांव नोटींची बंडलां मेजतां मेजतां म्हाका इंदुमतीचो आवाज कानार आयलो.

'' बाय आयज कामांक येवूंक ना?''

कोणाक तरी ती विचारताली.

इंदुमती आमची बँक सुरू जाल्या तेन्नाची करस्टमर. कदंब प्रासार स्विपर आनी फावल्या वेळार बारीक्र सारीक भाज्यो बी विकपी कश्टी अस्तुरी.

म्हाका जिवाक बरें दिसलें..जावं कोण तरी म्हजी वासपूस करता.

ती अश्शी आपली बोडकी भितर घालून म्हाका कॅशीन बसलां तें पळोवन गेली.

हांव मागीर दोन सव्वा दोन मेरेन कामांत उरलें.

कॅश भितर उडोवन भायर येत जाल्यार इंदुमती खाडकेर हात दवरून भायर कदेलार बसल्या.

हांवें म्हळें, ''आगे तुजें काम जावंक ना? केन्ना आयिल्ली मगे तू?...''

''ना गो बाय. तुजेच कडेन काम आसा म्हजें. म्हज्या बुकार कितले पयशे आसा पळय गो बाय.''

एक लाख साठ हजार..तिची आयुश्यभराची जोड.

''हे सगले तूं आतां फिक्साक उडय..''

इंदुमती म्हणपाक लागली,''आगे पूण म्हाका फाटी फुडें वखदाक बी लागले जाल्यार..!''

''तें तुका लागना..तूं घाल पळोवया फिक्साक...!''

हांवें फॉर्म घेतलो आनी देड लाख फिक्स डिपोझीट करपाक तिची सय घेतली आनी तिका विचारलें, ''नोमिनी कोणाक घालूं? म्हळ्यार तुका कितेंय जालें जाल्यार ते पयशे कोणाक दिवपाचे?''

''बरय,श्री बोडगेश्वर प्रसन्न.''

हांव तिच्या तोंडाक पळयत उरलें.

''आगे, पयशे देवाक दिनात,मनशांक दिवपाचे आसतात.तेवूंय बी तुज्या लागीच्या! पुताचें नांव बरोवं काय धुवेचें?''

तें आयकून इंदुमती बडबडपाक लागली.

''म्हाका एक नेंयो पयसो कोणाक दिवपाचो ना. फक्त म्हाज्या पयशांचेर दोळो दवरून आसात. कांयच दिवपाचें ना तेंकां. सगळी नालायक...बाय गो, तूं म्हाजेर एक उपकार कर. म्हागेले पयशे मेल्या उपरांत बोडगिणी पावय.''

''आगे, तशें न्ही गे, हांगा तुज्या लागीच्या मनशाचेंच नांव बरोवचें पडटा.

''मागीर देव म्हाजो लागींचो न्हूं तर? देवाच्याच नाड्यार म्हाजो वेपार धंदो बरो चल्ला. बरय तूं ,'श्री बोडगेश्वर प्रसन्न'

म्हज्या पोटांत भुकेन कावळे रडटाले. आनी ही तर मेजा फुडली हालना.

''आगे, तशें जायना गे, मनशाचेंच नांव जाय.''

हांवें काकुटेन येवन तिका सांगलें

''हय मगों बाय, तशें जाल्यार तुजें नांव घाल, म्हाका विश्वास आसा तुजेर. तूं मागीर ते देवाक पावय.''

म्हाका हांसचें काय रडचें हेंच कळना जालें. हांवें म्हळें, ''आगे, तशें जायना तें, तूं जेवली? ना, मगे? हांवूय जेवूना.''

''तूं आतां घरा वच, फॉर्म हांगाच दवरतां म्हजे कडेन, तुजो कोण बरो मागपी, विश्वासाचो कोण तरी मनीस आसतलोच. बरो विचार कर आनी फाल्यां यो.''

''म्हाजें वर देड वर खालें तुवें आनी काम जायना म्हणटा, इतलीं वर्सां हांव बँकेंत येतां आनी तूं म्हाका बरी वळखता. पूण म्हाजें काम मात करीना.''

अशें म्हणत पासबूक घेवन ती तणतणत चलत रावली. आनी हांवें कपलार हात मारलो.

शब्दुलो



रुपाली कामत शेटये

# यादी भुरगेपणांतल्यो...(४)

# पिस्तोलाची गुळी

**रुपाली कामत शेटये**

पणजेच्या हायस्कुलांत ग्रंथपाल म्हूण कार्यरत आसा. तांकां बरोवपाची आवड आसा. बिम्ब मासिकांतल्यान तांचें बरप तांच्या संवेदनशील सर्जनशीलतायेची गवाय आसा.

*पिस्तोलांतल्यान घर्र घर्र करीत तो गडडो सोमतोच म्हज्या पांयार शेंवलो. हांव हुयेली मारीत, 'मेलें मेलें' करीत धांवलें. आतां आमकां खेळपाक वेळ काळ लागनाशिल्लो. दनपारचीं जेवन कोण आड पडला, कोणाचो दोळो लागला बी कांयच पडून गेल्लें नासतालें.*



मॉन दिल्लीच्यान म्हाका एक खेळांतलें पिस्तोल आनी पुलीस ड्रेसूय हाडिल्लो. तो सामको म्हजे आवडीचो. कालांतरान तो ड्रेस पिंजून तार्चीं बोतरां जालीं पूण पिस्तोल मात अजून आसा. आयतार आयलो काय तो ड्रेस चडोवप आनी पिस्तोलान खेळप. हांवें सदांच पुलीस जावप आनी बाकीच्यांनी चोर. तो चोर पुलीस खेळ खेळून वाज आयलो काय मागीर दुसरो खेळ सुरू करप. त्या पिस्तोलांतल्यो गुळयो घर्र घर्र आवाज करताल्यो, पूण कोणाचेरूय उसळ नाशिल्ल्यो. आतां दर वर्सा होळी आयली काय म्हाका तें पिस्तोल आनी तो दीस दोळ्यां सामकार येता.

तेन्ना हांव पांचवेक बी आशिल्लें जावंक जाय. ते दीस होळयेची सुटी आशिल्ली. आमी भुरग्यांनी एकामेकाक निळो, तांबडो, पांचवो, जांबळो अशे तरांतरांचे रंग आंगभर फासून घेतिल्ले. आमी सगळीं सामकीं बुजगावण्यांवरीं दिसतालीं. रंग मारपाची कार्यावळ आटपून, न्हावन धुवन सगळीं आमगेरूच जमिल्लीं. फराळ बी खावन आमी सगळीं बशिल्ले कडेन, आतां खंयचो खेळ खेळप हाचेर चर्चा चलताली. पंदरा मिनटांनी सगळ्यांनी थारायलें, 'पसरो पसरो' खेळपाचें. आमी सगळ्यांनी मेळून पावडराचीं लातां, कादेर्नां, बिरकुतीचे पुडे, बावल्यो, फणी, शिंपल्यो बी सामान एकठांय करून सालांत मांडलें. कागदाचे पयशे केले. आनी एकदांचो आमचो खेळ सुरू जालो. एकेक करून आमी पसरकार जावपाचो टर्न घेतालीं. खेळ बरोच रंगांत आयिल्लो. भावाचो टर्न आयलो पसरकार म्हूण गल्ल्यार बसपाचो. म्हाकाय बरोच नेट आयिल्लो. हांवें सोमतोच पुलिसाचो ड्रेस बी चडोवन ताच्या पसऱ्यार आयलें. आनी नेटान बिरकुतेच्या पुड्याक हात घालो. त्या बराबर भावान धेंगसो घालीत म्हणलें, ''आगो मेर्दा, हात लावं नाका

ताका. पसरो म्हजो. हांव काडून दितां. पयलीं पयशे दी.''

म्हाकाय राग आयलो. ''हांव पुलीस, हांव म्हाका जाय तें काडून व्हरतलें'' अशें म्हणत हांवें भावाचेर झडप घाली. खेळ थंयच उरलो आनी आमचें बरेंच पेटलें. हांवें ताचे तकलेर कूट घाली आनी थंयच्यान धांवलें. बाकीचीं संवगां आमचें झगडें पळोवन किटकिट्टालीं. भावाच्या हाताक ते वेळार तें खेळण्यांतलें पिस्तूल लागलें आनी तातूंत ताणें कसलो बारीक सो गड्डो घालो आनी 'राव तुका सारकें शिकयतां' म्हणत म्हजे फाटल्यान धांवत सुटलो. पिस्तोलांतल्यान घर्र घर्र करीत तो गड्डो सोमतोच म्हज्या पांयार शेंवटलो. हांव हुयेली मारीत, 'मेलें मेलें' करीत धांवलें. आतां आमकां खेळपाक वेळ काळ लागनाशिल्लो. दनपारचीं जेवन कोण आड पडटा, कोणाचो दोळो लागला बी कांयच पडून गेल्लें नासतालें. दनपार म्हणटकच शेजारी जेवन खावन आड पडिल्ले. तेन्नाच आमचो इतलो बोवाळ जालो, शेजारी अर्द न्हिंदेंतल्यानूच 'किते किते जालें' म्हणत भायर धावून आयलीं. आमचें हें झगडें चलता आसतना आमच्या सगल्या संवगांनी तांकां घडिल्लो प्रकार सांगलो.

''चुळी लाय तुमच्या खेळाक...कसलीं गो भुरगीं तुमी..! जीव कलकलावन घालो !! ''अशें भरा भरा बडबडत शेजाऱ्न गेली. पूण आमचें झगडें चालूच आशिल्लें.



पणजी-गोंय. मो.: ८७८८३८२८९६



सतीश,
वर्सां कशीं पळय भुर्र्र करून वतात.
तूं वचून ह्या ७ आब्रीलाक
तीन वर्सां उलगतात
हाचेर विश्वासूच बसना.
तूं कालूच येवन
गजाली मारून गेला
अशें दिसता.
तुवें बेगीन वचपाची
गरज नाशिल्ली.

बिम्ब परिवार
आनी
एकटो पडिल्लो तुजो
मित्र परिवार

तेफळां



डॉ.वामन रा नायक

**डॉ.वामन रा.नायक हे निवृत्त प्राध्यापक. ते कथा, कविता, आनी ललित साहित्याची सेवा करतात. कांय काळ ताणीं 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळेंय चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.**

*नव्या तंत्रगिन्यानांक लागून निर्माण जावपी रोजगार संदी आनी नश्ट जावपी रोजगार हांचे मदें विसंगती आसा. एके वटेन म्हायती तंत्रगिन्यानाच्या वापरा वरवी टॅक्सी सेवेंत क्रांतीकारी बदल घडत आसात. मोबायला मदल्या ॲप्पा वरवी सोंपेपणान इत्सीत सुवातेर वचपा खातीर टॅक्सी मेळो वप भोंवडेकारांक सोंपें जाता.*



# अचूक वेवसाय कसो निवडप

पयलीं समाज फक्त पुस्तकांतल्या शिक्षणाकच म्हत्व दिताले. पूण आतां पालकांची मानसिकताय बदल्ल्या. आपल्या चल्याचो /चलयेचो कल खंयच्या क्षेत्रांत आसा तें वळखून त्या क्षेत्रा विशींचें शिक्षण भुरग्याक दिवपाचो निर्णय पालक घेतात. पयलीं धावी उपरांत फक्त तीनच क्षेत्रांत भुरग्यांक वचपाक मेळटालें. आर्टस, कॉमर्स आनी सायन्स. खूब हुशार आसत, धावेंत बरे मार्क मेयळ्यार तर तो सायन्स घेतालो आनी दोतोर जावपा खातीर अभ्यास करतालो.

ताचे परस कमी आसल्यार, कॉमर्स घेवपाचें आनी एकदमच कमी मार्क पडल्यार तर ताणें आर्टस घेवपाचें, हें सामर्के थारलेलें. ताचे परस कमी आसल्यार भुरगीं आनीक दुसऱ्या क्षेत्रांत वचूंक शकतात हाचो विचारच करप जाय नासलें. बऱ्याचदां अशें जातालें, एरवाया क्षेत्रांत भुरग्याक आवड नासत, चड मार्क मेळिल्ल्यान भुरग्याक जर डॉक्टर, इंजिनिअर वा सीए हाचे मर्दी किर्तेय करपाचें नासल्यार, ताका एखाये कर्लेत करिअर करपाचो आसत,तरीय पालक स्वतःच्या हट्टाक लागून, त्या क्षेत्रांतलें शिक्षण घेवपाक फोर्स करतात. देखून भूरगीं तातूंत इंटरेस्ट घेवन शिकूंक शकनात. देखून तांचो आत्मविस्वास वता.

पूण 'थ्री इडियटस', 'तारे जमिन पर' अश्या चित्रपटांक लागून, आनी हेर कारणांक लागून, आयज पालकांची मानसिकताय बदलत आसा. देखून भुरग्यांक ज्या क्षेत्रांत करीयर करिनशें दिसता त्या खातीर ते पाठिंबो दितात, ताका जाय ती मजत करतात.

आपल्या पाल्यांक फोर्स केल्ल्यान ताचो किर्ते अनिष्ट परिणाम जाता, हें बऱ्याच जाणांक कळून आयलां.

आपले पाल्य, चलो वा चली हाका एक पुराय स्वतंत्र व्यक्तीमत्व आसा. ताका स्वतंत्र प्रज्ञा आसा.

ताची बुद्धिमत्ता, ताची निरिक्षण क्षमता आनी ताची आकलन शक्ती ही ताची बलस्थानां आसात. देखून दर एकल्याक वेवसाय निवडटाना, व्यक्तीगत स्वातंत्र्य आसपाक जाय.

ताका आवडटा ते वाटेन वचपाक मेकळीक जाय.

वेवसायाची निवड पिराय आनी भोवतणची परिस्थिती हांचो आस्पाव करून तीन स्थरांचेर जावं येता. पयले अवस्थेंत, पिरायेच्या इकरा वर्सा मेरेन, दुसरे अवस्थेंत, म्हणजे इकरा ते सतरा वर्सांच्या काळांत. ह्या काळांत फक्त प्रयोगात्मक निवड वा टेन्टेटिव्ह चॉयस जाता. हे पिरायेंत पाल्यांक कांय प्रमाणांत आपली बौद्धीक कुवत, आवड निवड, भोंवतणचें वातावरण, अर्थीक परिस्थिती हाचो थोडोभोव अदमास आसता. बऱ्याच प्रमाणांत वेवसायाची अचूक निवड करपा खातीर लागपी परिपक्वता, आकलन, चिंतन, मननाची शक्त पिरायेचे तिसरे अवस्थेंत म्हळ्यार पिरायेच्या सतराव्या वर्सा उपरांत प्राप्त जाता. हाकाच योग्य निवड वा ( रिअलिस्टिक चॉयस) अशें म्हणूं येता. हे पिरायेंत भोंवतणचे परिस्थितीचो अदमास, स्पर्धात्मक युगाचो अदमास आनी ते फाटभूंयेर मेळपी संदी हाचेर ती व्यक्ती बारीकसाणेन विचार करूंक शकता. आमी पेवपाक वतना उदकांत उडकी मारचे पयलीं उदक कितलें खोल आसा ताचो अदमास येतात, कांय प्रमाणांत, तेच भशेन योग्य शाखा निवडटना ताचो चारूय वाटेन विचार जावंक जाय. आमचो निर्णय चुकलो जाल्यार फुडाराक ताचो बरोच अनिश्ट परिणाम जावं येता.

नेशनल इन्स्टिट्यूट ऑफ इंडस्ट्रियल सायकॉलॉजी हे संस्थेन हे विशीं बुन्यादी संशोधन करून वेवसाया कणकणी

१. शरीरयश्टी
२. अभिरूची
३. मानसिकताय
४. बुद्धिमत्ता
५. शिक्षणीक उपलब्धताय
६. खास अभियोग्यताय आनी
७. प्राप्त परिस्थीती

ह्या सात सुत्रांचो आस्पाव केल्लो आसा. हातूंतलो दर एक घटक खूब म्हत्वाचो आसा. देखून विद्यार्थी आनी तांच्या पालकांनी हें बरे भशेन जाणां जावप भोव गरजेचें . बरो वेवसाय अचूक निर्णयांतल्यान सोदून काडल्यार फुडाराक बरे दीस येवं येतात. पूण वेवसाय सोदून काडतना चूक केल्यार मुखार वायट परिस्थीती येवंक शकता. देखून वेवसाय निवड शास्त्रशुध्द पद्दतीन कशी करप हें समजून घेवया. देखून वयल्या सात सुत्रांचो बारीकसाणेन विचार करप गरजेचें थारता.

**१.शरीरयश्टी** : शारिरीक क्षमतेचो आमच्या वेवसाया कडेन लागींचो संबंद आसा. खास शारिरीक पात्रताय आसले बगर राखणे दळांत प्रवेश मेळना. तशेंच पुलीस, एअर हॉस्टेस हांकां घालून दिल्ली पात्रताय गरजेची आसता. त्या भायर तें आव्हान पेलपाक शारिरीक नदरेन जी गोश्ट गरजेची ती आसपाक जाय.

**२.अभिरूची** (Interest): म्हळ्यार आवड. जातूंत आवड आसा तातूंत व्यक्ती गुंतून वतात, एकाग्र जातात. सामान्यपणान अभिरूची दोन तरांची आसता. एक म्हळ्यार भितरली( आंतरीक inner) आनी दुसरी भायली (बाहय- Expressed). पयल्या प्रकारांत व्यक्ती आपली मोख साध्य जायसर वावुरता. दुसऱ्या प्रकारांत, तोखणाय, शाबासकी इनाम, पयसो, प्रतिश्टा अश्या गोश्टींक लागून व्यक्ती एखादें काम करपाक प्रवृत जाता, ताका उमेद येता आनी तातूंतली मोख साध्य जातकच ते व्यक्तीची तातूंतली अभिरुची सोंपून वता.अभिरुचीचीं बरींच क्षेत्रां आसात. अश्या सगल्या क्षेत्रांची अभिरुची नामावली (interest inventory) केल्ली आसा.

**३.मानसिकता** : शिक्षक, डॉक्टर, राजकारणी, कलाकार, शास्त्रज्ञ ह्या दर एकाची मानसिकताय वेगळी. त्या वेव सायांत येशस्वी जावपा खातीर गरजेची मानसिकताय आसची पडटा आनी आमचे क्षमते कडेन, गुणां कडेन, कौशल्या कडेन कशे तरेन पळयतात ताचेर आमची मानसिकताय थारता. तातूंत मुखेलपणान, दोन तरा आसतात - 'फिक्सड् माइंड सेट (निश्चित मानसिकताय) आनी ग्रोथ माइंड सेट (विकास मानसिकताय).

**४.बुद्दिमत्ता** : योग्य वेळार योग्य कृती जावपाक जाय. त्या खातीर बुद्द आसपाक जाय. वेवसाय निवडीच्या संदर्भात विद्यार्थ्यांचे बुद्दीचें जुस्त मापन करपा खातीर बौध्दिक कसवटचो उपकारक थारतात.

**५.शिक्षणीक उपलब्धताय:** सगळेच कडेन शिक्षणाची जाय तशी वेवस्था आसना. बऱ्याच वेळार घरा पासून पाल्यांक पयस धाडपाक पालक तयार आसनात. हातूंत आतां बरोच बदल जाल्लो दिश्टी पडटा.

**६.खास अभियोग्यताय** (Ap-titude/ Sp-ptitude) : दर एके व्यक्तीच्या आंगांत जी खास क्षेत्रांतलीं

कौशल्यां/ क्षमता आसता, ती ते व्यक्तीची वैयक्तीक योग्यताय म्हणू येता. रंग पारखुपाक येता म्हूण सगळेच चित्रकार जावंक शकनात. तेच भशेन हातांत बॅट धरपाक आयले म्हूण दर एकलो क्रिकेटिअर जावंक शकना. दर एका मनशाच्या आंगांत जी खाशेलेपणा आसात तांच्या गुणांची, ज्यो विशेश योग्यतायो आसात तांचें शास्त्रोक्त पद्दतीन मेजमाप जावंक जाय. तशें जालें जाल्यार दर एक व्यक्तीक ताची अभिरूची, फळ, योग्यताय, संभाव्यता हे नदरेन मार्गदर्शन केल्यार ते व्यक्तीचो बरोच वेळ, श्रम आनी पयसो वाचूंक शकता. खास गूण - वैशिश्टांचो शोध घेवपा खातीर अभियोग्यताय कसोट्यांचो आदार घेवप जाता. ह्या चाचण्यां मर्दी उतरावळ, तर्कशक्ती, संख्या विशयक अभियोग्यताय, अमूर्त विचारशक्त , अवकाश सबंद (Space relation) यांत्रिक विचारशक्त , लिपीक वेध आनी अचूकता वर्ण विन्यास (Spelling ) आनी वाक्य रचना हांचो आस्पाव जाता. अभियोग्यताय व्यक्तीच्या फुडाराच्या सादारणपणान पूण निश्चित दिका दाखोवपी क्षमता पारखिता. देखीक यांत्रीक अभियोग्यताय आसपी व्यक्ती इंजिनिअरींगात प्रगती करतात. संख्या विशयक अभियोग्यताय वाणिज्य वा संख्याशास्त्राक प्रेरक थारता.

सामान्यपणान गणितांत बरे मार्क मेळोवपी इंजिनिअरींग आनी बायोलॉजीत बरे मार्क मेळोवपी मेडिकल क्षेत्र निवडटात. ही पद्दत स्पर्धा परिक्षेंत आमकां येस दीत, पूण वेवसायीक जिणेंत दितच अशें ना. अश्या वेळार गरज आसा आपलो ऑप्टिट्यूड, इंटरेस्ट आनी व्यक्तीमत्व हाच्या आदारार करियरची निवड करप. साइकोमेट्रिक असेसमेन्ट हातूंत आमकां मजत करता.

थीर विचार करतना , हें आमी मतीत दवरूंक जाय, आमी दोन कान, दोन हात, दोन पांय जरीय घेवन आयल्यात तरीय आमी एकामेका पासून वेगळे आसात. आमच्यो आंतरीक शक्ती वेगळ्यो आसात. दोन जुंवळे लेगीत सारके दिसले तरीय ते वेगळे आसतात. ह्या युनिवर्सा मदले आमी एकामेवाद्वितीय म्हळ्यार युनीक आसात. आमचे कुडींत अब्जानी अणु आसात. ते एकामेका पासून पयस वचपाचो यत्न करतात.

करियराची वाट सोदतना आपल्याक किर्ते करपाक आवडटा ताचो सोद घेवप खूब म्हत्वाचें आसता. आपली आवड आपणें कशी सोदची, आपल्याक किर्ते आवडटा तें कोण प्लेटींत हाडून दिना. ते खातीर अनेक गोश्टी आपल्याक स्वत: करून पळोवंच्यो पडटात. ताचो सोद घेवचो लागता. अनेक गोश्टी करून पळोवंच्यो पडटात. चित्रकला कर, निबंद बरय, कविता बरय, वेगवेगळे खेळ खेळप, वेगवेगळ्यो गोश्टी करप, तांचें निरिक्षण करप, सैमाचें अवलोकन करप, सायकल चलयल्या बगर कळना ती आपल्याक चलोवंक येता वा ना, दैवतेर सायकल फास्ट चलयल्या बगर ताचो अदमास येना. उदकांत उडी मारल्या बगर पेंवपाक येना. उदक कितलें खोल आसा तें कळना. अशे तरेन अनेक गोश्टी करच्यो पडटात. आनी तातूंतल्यान कळटा, किर्ते आवडटा आनी किर्ते आवडना तें. देखून स्वत: जावन आवडीचो सोद घेवचो लागता. यत्न करचे लागतात. अनेक जाणांक मेळचें पडटा अशे तरेन कित्यांत आवड आसा, वा पॅशन आसा हें कळपाक आदार जाता उपरांत ताचो पाठपुरावो करचो लागता. ताचें मनन चिंतन करचें पडटा.

दुसरो म्हत्वाचो प्रस्न म्हळ्यार आपल्याक जें आवडटा तें आपल्याक जमता व्हय? आपल्या क्षमतांचो आपणें सोद घेवंक जाय. What are my capabilities. What can I do आपल्याक किर्ते करपाक जमता तें. क्षमतांचो सोद घेवंचो लागता. प्रयत्न केले म्हणटकच कळूंक लागता किर्ते जमता तें. प्रयत्न करून एखादरी स्कील मेळोवची आसता. बदलते स्थितींत आमचे स्कीलचो विचार करचो पडटा.

अशें करतनाच आपूण करता ताची, आपल्या जगाक किर्ते गरज आसा, समाजाक, कुटुंबाक किर्ते गरज आसा. हे फाटभूंयचेर आपणें किर्ते करूंक जाय हें थारावचें आसता. कोण येवन सांगना बाबा, हें तूं कर, ताका समाजीक युक्तताय आसा. आपणे अभ्यास करून, जाणकारा कडल्यान मार्गदर्शन घेवन सोदचें पडटा. आमच्या मुखार आव्हानां आसतात. त्या आव्हानांचें संदीत रूपांतर करूंक जाय. आमकां अणभव येता तातूंतल्यान शिकपाक जाय. अणभवा विशीं संवेदनशील आसपाक जाय. जाणकारांच्या सल्ल्यान आपली आवड, क्षमता आनी समाजीक उपयुक्तताय हांची सांगड घालपा क जाय. कांय गोश्टी आमचे छंद आसतात. तांकां छंदा भशेनच पळोवंक जाय. तशेंच कांय गोश्टी करप म्हणजे आमचें सपन

आसता. बरीं बरीं चित्रां काडप हें सगळ्याकूच दिसता पूण तें सगळ्यांकूच जमना. बरें गीत आयकतच आपणे गावचें अशें खुबदां दिसता. पूण तें जमूंक जाय. जाय तसो आवाज आसूंक जाय. अशे तरेन जाची आमकां आवड आसा, जें आमकां जमता, ताची क्षमता आसा. क्षमता ही आमच्या ॲटिट्यूडाचेर आसता. क्षमता कळपा खातीर वेगवेगळयो चाचण्यो करतात. ताचो बरोच फायदो आसता. पूण चाचण्यो सदांच सारक्यो थारतल्यो हें सांगूक जमना . ह्या चाचण्यां वयर्वी आमचो कल कित्या कडेन आसा तें कळटा . पूण बऱ्योच गोश्टी आमकां करतकच बरे तरेन कळटात. त्यो आमी करूंक शकतले काय ना...

There is no substitute for hard work. हो एकदम म्हत्वाचो भाग आसा. पराभवान आमी हतबल जातात. पूण तशें आसना. जेन्ना आमी नापास वा फेल जातात तेन्ना आमी नवें किर्ते तरी शिकतात आनी जर शिकले ना तर तें खरें फेल जावप.

डॉ.रघुनाथबाब माशेलकारान आपल्या एका व्याख्यानांत सांगलां, मराठींत शिकून कांय बिगडूंक ना. म्युनिसिपल शाळेंत शिकिल्ल्यान कांय बिगडूक ना,म्युनिसिपल दिव्या खाला शिकलों, आशिल्ले म्हायतींचें विश्लेषण करून विद्यमान फास्केंत थोड्या वेळा भितर तार्चे उत्तर दिवप जाता. तशेंच मानवी मेंदू जशें काम करता, तशेंच काम संगणाका वयर्वी करपाचें तंत्रगिन्यान म्हळ्यार कॉग्नेटिव्ह टेक्नॉलॉजी.

नव्या तंत्रगिन्यानांक लागून निर्माण जावपी रोजगार संदी आनी नश्ट जावपी रोजगार हांचे मदें विसंगती आसा. एके वटेन म्हायती तंत्रगिन्यानाच्या वापरा वयर्वी टॅक्सी सेवेंत क्रांतीकारी बदल घडत आसात. मोबायला मदल्या ॲप्पा वयर्वी सोंपेपणान इत्सीत सुवातेर वचपा खातीर टॅक्सी मेळो वप भोंवडेकारांक सोंपें जाता. दुसरे वाटेन स्वयंचलीत मोटर निर्माण जायत आसा. ड्रायवरा बगर मोटारी चलवपाचें तत्रगिन्यान विकसीत जायत आसा. एक तंत्रगिन्यान ड्रायव्हराक संदी दिता, दुसरें त्यो संदी काडून घेता.

सद्याच्या डिजिटल युगांत बरेच बदल जातात. एका मिनटांत देड कोटी व्हाट्स ॲप मेसेजस धाडप जाता,१५ कोटी ई-मेल धाडप जाता, ३५ लाख गूगल सर्च जाता, यू ट्युबार ४१ लाख विडिओ पळोवप जाता, धा लाख लोक फेसबुकाचेर लॉग इन करूंक शकतात. हें बदलपी जग आसा, जातूंत अर्थवेवस्थेंत बरेच बदल जातात. उबेर सगळ्यांवून व्हड टॅक्सी कंपनी पूण ताचे कडेन स्वतःची एकूय गाडी ना, एअर बिएनबी चडांत चड हॉटेल रूम्स ते दितात, पूण तांचे कडेन स्वतःचें एकूय हॉटेल ना,अलीबाबा म्हणल्यार सगळयांवून चड रिटेलचो धंदो करपी, तांची एकूय इन्व्हेंटरी ना, नेटफ्लेक्स हें जगांतलें सगळ्यांवून मोटें मूवी हाऊस पूण तांचे एकूय सिनेमा थिएटर ना, स्वायप ही सगळ्यांवून व्हड फोन कंपनी. पूण तांचे कडेन स्वतार्चे टेलिफोन इन्फ्रास्ट्रक्चर ना, पेटीयम सगळ्यावून व्हड बँक आसा.तांचे कडेन खरो पयसो कांय ना. अशे बदलते परिस्थितींत नवे जॉब निर्माण जातले आनी कांय प्रमाणांत पोरणे जॉब वतले. उबेराक लागून नव्यो नोकऱ्यो मेळपाचें साधन पूण ड्राइव्हरलेस गाडयो येतुकूच, ड्राइव्हरांक नोकऱ्यो मेळच्यो नात.

अशे परिस्थितींत रोबोटीक्स आर्टीफिसिअल इंटिलिजन्स, मशीन लार्निंग, थ्री-डी प्रिंटिंग, आनी हेर प्रगत तंत्रगिन्यानाक लागून मुखार किर्ते जातलें हें जाणा जावप खूब म्हत्वाचें.कांय प्रमाणांत हातान करपी नोकऱ्यो कमी जातल्यो. मशिनां मनशां कडसून शिकतात आनी मनशां परस बरें काम करतात, अशें दिसून येता.

जाणकारांच्या मतांन, रोबोटीक्स तयार करूंक शकतात, ते कॉन्सुम करपाक शकनात, बिजलीचो पावर सोडल्यार जंय श्रुजनशीलताय आसा थंय मनशाक काम मेळटलें. रुचीचे पदार्थ करप, दुयेंतीची जतनाय घेवप, बरें चित्र दिग्दर्शन करप असल्यो कितल्योशोच भावनीक, मनीसपणाचो टच अशिल्लीं कामां मनशांनीच करचीं पडटलीं.

ह्या विशया विशीं आनीक म्हायती मेळोवपा खातीर वाचप्यांनी दिल्ल्या संदर्भाचो योग्य उपेग करचो.

### संदर्भ

१.आव्हाने आणि संधी, डॉ. रघुनाथ माशेलकर, महाराष्ट्र टाइम्स, दिवाळी २०२०

२.करियर मित्र :डॉ. रघुनाथ माशेलकर

३.विवेक सावंत. वेवस्थापकीय संचालक महाराष्ट्र नौलेज कॉर्पोरेशन



पुणे. मोः ९५२७७४४९९०

पामत

डॉ. नूतन देव



**डॉ. नूतन देव** हांचें बरप चडशें मराठींतल्यान जालां. वेवसायान जरी तांची वैजकी कारकिर्द चालू आसली तरी तांचो पिंड कविचो. तांचो मराठींतल्यान 'आभाळ' हो काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. जाका काव्य रसिकां कडल्यान उप्पाट येवकार मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ कोंकणी भास तांच्या ह्या लेखाचें खाशेलेपण.

*तुमचेर घरांत तुमचे आई-बाबा, आजी-आजो हांचें लक्ष आसतालें. तांचो तुमचेर धाक आसतालो. सुटयेंत तुमी दिसांचे दीस मामा, आत्या आनी पयसुल्ल्या सोयऱ्यांगेर सुद्दां रावपाक वतालीं.*

# हें अशें कित्याक घडटा?

एकेक फावटीं कितेंय बरें वा वायट घडटकीच, चड करून वायट घडटकीच आमचे तकलेंत विचार येतात, 'म्हजेच बाबतींत हें अशें कित्याक घडटा काय? दुसऱ्यांकूय अशें केन्नाय घडटा आसतलें काय?'

गजाल सामकी सोपी आसत वा खूब कठिणूय आसत. ह्या प्रस्नांची जाप सोदपाचो हांवें खूब यत्न केलो. पूण ती म्हाका आजून मेरेन सांपडूंक ना.

आतां तुमी हेंच पळयात. सगळ्या घरभर पसारो आसता, चड करून कपडे, पुस्तकां वा नातरांचो खेळ. फर्निचराचेरूय बी थोडो धुल्ल आसता. (हाका जापसालदार हांव न्हय. आतऱ्या पयऱ्यान रस्ते खणटात ते.) दोन दीस विमल येवंक ना म्हणटकीच सान्नूय बी मारपाची उरता. आनी बरोबर त्याच दिसा सोयरीं भितर सरतात. तातूंत आसतात तीन बायल मनशां. जी बांदोड्यां म्हालक्ष्मीची होंट भरपाक फोंड्यां आयिल्लीं आसतात.

देवीची भेट घेवन तीं आमगेर भितर सरतात. घरांतलो सगळो पसारो पळोवन, दोळ्यांनीच एकमेकांक खुणायतात. सोफाचे कडेक बोट ओडून धुल्ल आसा तो कनफर्म करतात. हांव मागीर हांसत हांसत सगळी सारवा सारव करतां आनी तांकां च्या, बिस्कीट दिवन टाटा बाय बाय करतां. तांचो म्हजे विशीं साफसफाईक लागून कितें गैरसमज जातलो हाचें म्हाका मातूय पडून वचूंक ना. पुणून प्रस्न पडटा तो, जेन्ना हांव आदेसभर लागून घर सामकें चकचकीत करतां, सगळें जाग्यार दवरतां, दिवाणाचेर, सोफाचेर नवी चादर, कुशनां दवरतां तेन्ना दिसाचे दीस कोणूच कित्याक येनात? एक जितो मूस लेगीत कित्याक फिरकना काय?

एक दीस म्हजी शेजाऱ्न नेहाचो म्हाका फोन येता. ती सांगता मडगांवच्या एका फामाद कपड्यांच्या दुकानांत साड्यो, ब्लावज पीस, चुडिदारांचो सेल लागला. सेल हें उतर कानार पडल्या बराबर खंयचीय बायल मनीस न्हिदेंतल्यान सुद्दां जागी जातली. म्हाकाय बी वचनशें दिसलें. आयज



वचुया, फाल्यां पळोवया करीत हांव म्हज्या शटावळींनी घुरसुनूच उरतां. नेहा आपले जावेक घेवन वचून सुंदर सुंदर साड्यो, मॅचींग ब्लाव्ज पीस बी घेवन येता. ते जिन्नस म्हाका मुजरत हाडून दाखयता. म्हजे बोंबलेर वडो दवरून वता. रोखडेंच गाडी स्टार्ट मारून मडगांवां वचपाक हांव भायर सरतां. त्या दुकानांत वचून पळयत जाल्यार किर्ते सांगपार्चे? सेलाची पाटी काडून, 'न्यू स्टॉक ॲरायव्हड' हो बोर्ड लागिल्लो आसता. कर्मभोग. हांव कुळारचे हेवटेन मडगांवकाल्न आशिल्ल्यान दुकानकार सामको वळखिचो सांपडटा. दुकानांत तोंडार हांसो दवरून भितर सरचेंच पडटा आनी नवोच स्टॉक व्हरूंक आयिल्ल्या भशेन करून दोन नग विकते घेवचेंच पडटात. म्हाकाय शेजाऱ्यां भशेन स्वस्तात मरत कित्याक मेळना हो प्रस्न म्हाका पडटा.

दिसभर घरांतलें काम, भुरग्यांचो अभ्यास, जाण्टेल्यांची सेवा करतां, तिनसांज केन्ना जाता हेंच एक एक फावट कळना. अशाच एका दिसा खूब पुरो जाल्लें आसता. तातूंत धाकट्या बायचें आंग मात्शें तापिल्लें आसता. 'म्हाळ पैक जोर आनी सगळ्या लोकांक पेज' हे म्हणी प्रमाण हांव रातचें जेवणाक पेजूच करतां. पेज शिजोवन तोप रांदनी वयलो सकयल दवरला मात इतल्यांत आमचे घरकार आपल्या दोन तीन फ्रेन्डांक घेवन भितर सरतात. ते फ्रेन्ड म्हणून कसले? एकलो म्हणटा, 'तुज्या हाताची चिकन बिर्यानी खावंक आयलां गो हांव'. दुसरो सुक्या बांगड्यांचे किस्मुरेची रूच काडटा जाल्यार तिसरो कारामेल पुडींगाची फर्माईश करता. हॉटेलांतल्यान किर्तेय मागोवन हांकां पालतलें म्हळ्यार कठीण जाता. झक्कत उठून रांदचे कुडींत वतां आनी लागतां कामाक. जेन्ना घरांत चार नग रांदिल्ले आसतात तेन्ना कोणूच कित्याक येनात होच म्हाका प्रस्न पडटा.

न्हिदेंत म्हाका सपनां पळोवपाचो खूब सोस. केन्ना केन्ना हांव हिमालयाचे तेंगशेर पावतां तर केन्ना खोल दर्यांत. चडशे फावट परिक्षेचें सपन पडटा. बेल जाल्ली आसता. सगळीं भुरगीं पेपर बरोवंक लागिल्लीं आसतात आनी म्हाकाच कळाव जाता. पेपर गणिताचो. प्रस्नपत्रिका दोळ्यां मुखार धरली जाल्यार एक्कूय गणीत म्हाका सोडोवंक जमना. सगळें शुन्यच शून्य दिसूंक लागता. हांव सामकें भिवन थरथरपाक लागतां, घामाघूम जातां आनी हुंक्क्यांनी रडूंक लागतां. आमचे हे म्हाका कित्याक रडटा काय म्हण हालोवन जागें करतात. सपनांत तरी म्हाका शंभरां पयकी शंभर मार्क मेळून म्हजी सगळे कडेन तुरत जाता अशें कित्याक घडना हें म्हाका आजून समजूंक ना.

म्हजो घरकार सदांच म्हणटा, देवान मनशाक उलोवंक तोंड दिला म्हणून ओगीच किर्तेय बडबडत रावंक जायना. सगळ्यो गजाली उलोवन सांगपाकूच जाय अशें काय आसना. उलय नासतना लेगीत एकमेकांक किर्ते सांगपाचें आसा तें कळूंक जाय (शब्दा वाचून कळले सारे, शब्दांच्या पलीकडले) खूब फावट हांव थारायतां आयज हांव मौन पाळटलें म्हणून. ते प्रमाण न्हावन धुवन देवाक पांयां पडून ओग्गी कामां करीत रावतां, किर्तेय वाचत रावतां. कानांत इयरफोन घालून पदां आयकत रावतां. पुणून मदींच, अर्दवरा भितर फोन वाजता. तो उबारून हॅलो म्हणत जाल्यार तेवटेच्यान शाळेंतली वांगडी, बाळमैत्रीण नीमी. शाळेंत आनी इस्कोलांतूच न्हय तर आमचीं घरां लेगीत एकाच वाड्यार. खूब तेंपान ताचो फोन आयलो म्हणटकच आमच्यो तावा तावान खबरी सुरू जातात. उलयतां उलयतां एक वर कशें सोंपता तेंच कळना. जालें ना आतां मौन व्रत मोडलेंच. म्हणटकच मागीर आनी कित्याक ओगी रावपाचें. उलोवपाची गाडी चालू जाता, चालूच उरता.

म्हज्या बापायकूय खूब उलोवंक जाय आशिल्लें. ताका जर कोणेंय पयसुल्ल्यान रस्त्यार वतना पळयलो तर ते खंय हळूच दुसरे वाटेन कूस मारताले, 'कामतबाब येता रे..!' म्हणून.अशें म्हजी आवय म्हणटाली. ताका गजाली करपाक खूब आवडटालें. थळ, वेळ, वय हांचो ताका कांयच फरक पडनाशिल्लो. दुसऱ्याक घरा वा कामाक वचपाची ताकतीक आसा हें तो विसरतालो. म्हाकाय बी ती बड आयल्या जावये. म्हजी आतां इतली पिराय जाली तरी पूण मौनाचें म्हत्व म्हाका कशें समजना, हो प्रस्न म्हाका सदांच पडटा.

खूब वेळां हांव थारायतां, मुद्दम जावन हांव ओगीच किर्तेय बरोवचें ना. ओडून ताणून, हांगचे थंयचे शब्द जुळोवन कवनां करचें ना. फोन येतात खूब फावट म्हजें छापील लिखाण वाचून. म्हणटात ते, बरें बरयलां म्हणून! खरें फट देवाक खबर. पुणून अशे सोंपेपणी कोण कवी वा लेखक जायनात हें म्हाका पुराय खबर आसा. तरी पुणून हांव बरोवचें सोडिना. पेनाच्यो काड्यो आनी पोन्न्या डायऱ्यांचीं पानां काबार करपाचें सोडिना. इतले व्हड व्हड बरोवपी आसतना हांव आनी हो उपदव्याप कित्याक करतां हें आजून मेरेन कळुना.

अशें म्हज्या मुखार जायते प्रस्न येतात, जांच्यो जापो म्हाका खबर नात. तुमकां खबर आसा जाल्यार म्हाका मुजरत कळयात.



फोंडें-गोंय. मो. : ९८५०१३३१६०

नाटक

अविनाश कुंकळकार



***काव्ययन*** ह्या कोंकणी काव्य संग्रहांतल्यान वाचकां मुखार आयिल्लो **अविनाश कुंकळकार** हो सातत्यान कविता रचता. बालसाहित्याचीय निर्मणी करता आनी कोंकणी कविते पासत ओंपिल्लें 'उगतें मळब' चळवळीक योगदान दिता.

'नाटक एका नाटकांतलें' ह्या नाटकाचो पयलो अंक आमी फाटल्या 'बिम्ब' दिवाळी अंकांत उजवाडाक हाडिल्लो. फुडलो अंक पुस्तक रुपांत येवपाचो आशिल्लो. आतां तें नाटक करपाक सोदतल्यांचे विनवणेक मान दिवन तो अंक आमी हांगा उजवाडायतात.



# नाटक एका नाटकांतलें

### अंक दुसरो

देखाव पयलो..

**बाबू येवन ढोबो वाजयता आनी वता.**

डायरेक्टर : ( येवन ) नमस्कार, नमस्कार, नमस्कार नाट्यमोग्यांक दिग्दर्शक गंगारामचो नमस्कार आनी येवकार...श्री बालाजी क्रियेशन प्रस्तूत एक जबरदस्त पुराणीक नाटक... वस्त्रहरण ! वस्त्रहरण !! वस्त्रहरण !!! (नाटकातल्या नाटकाचो पडदो वयर सरता, माचयेर सगळे आप आपल्या जाग्यार बशिल्ले आसतात. मदीच दुर्योधन, एक वटेन कर्ण आनी दुसरे वटेन शकूनी मामा...! आनी दुःशासन दुर्योधनाचे कुशीक उबो आसता .)

शकूनी : ( आसनावेल्यान उठून आपले तरेन पांय वोडीत फुडें यता) भाच्यांनाऽऽ हांव किर्ते म्हणटां, त्या भिकारड्या पांडवाक राज्यांतल्यान धांवडावन घालपाचो किर्ते तरी मार्ग काडचो पडटलो.

दुर्योधन : हय मामा तेंच थारावपाक आयज आमी जमल्या हांगा... इश्टा कर्ण तुजी शातीर बुद्दी किर्ते सांगता??

कर्ण : इश्ट दुर्योधन...! आयज पासून तुवें तांका सोपावपाचे जायते मार्ग आपणायले पूण, तुका यश मेळ्ळें ना... माफ कर हां म्हाका, तुवें केल्या त्या यत्नान हांव सोहमत ना. कित्याक तर हांव मानता, एक शूरविरान झुजांत राज्य जिकूंक जाय... कपटान न्हय।

शकूनी : व्वा ! इश्टा व्वा!! एक जिवाभावाचो इश्ट जावन तू अशें उलयता?

कर्ण : हांव तशें उलयलों तरी किर्ते चुकीचें उलयलों मामाश्री... ?

दुर्योधन : ना मामाश्री, म्हज्या इश्टाक तूं कांयच म्हणूं नाका. ताचेंय बी सारकें आसा... मनशान आपले इत्से प्रमाण वागपाची पुराय सूट आसा.

कर्ण : जाल्यार, पांडवांची इत्सा मारपाक कित्याक सोदता तूं?

दुर्योधन : तो म्हजो हक्क आसा...! आनी म्हज्या हक्कांतलो सुवेच्या तोंका इतली लेगीत सुवात हांव तांकां दिवचो ना, देखून...

शकुनी : केन्ना केन्ना म्हाका कळना, तूं दुर्योधनाचो इश्ट काय...?

कर्ण : मामाश्री...! इश्टा खातीर जीव दिवंक शकतां. शंक्का कर नाका.

दुर्योधन : हें पळयात, हो वेळ आमी वाद घालपाचो न्हय. हो वेळ आसा समश्यांचें समादान सोदपाचो. मामाश्री... हाचेर तुमकां कितें तरी उपाय काडचो पडटलो...

शकुनी : आसा एक उपाय... पूण भाच्या, तुका पांडवां सरेन वचून तांकां आपल्या राज्यांत येवपाचें आपोवणे दिवंचे पडटलें.

दुर्योधन : कित्याक म्हूण आपोवणे दिवपाचें मामाश्री? आनी हांवें स्वता वचून? आपोवणें दिवपाचेंच आसा जाल्यार ताचे खातीर दुसरे जायते जाण आसात आमचे कडेन.

कर्ण : हय मामाश्री...! पांडवांक आपोवणें दिवन हस्तिनापुराक आपोवन कसलो तरी कट रचपाचो आसा जाल्यार दुर्योधनान थंय वचप योग्य ना.

शकुनी : तशें जाल्यार एक मनीस आसा ताचेर पांडव विश्वास करून आपोवण्याक आपणावंक शकता.

दुर्योधन : पूण मामाश्री तांकां आपोवणें दिवन हांगा आपोवन कितें करपाचें येवजिलां तुवें तें तरी कळूं दी आमकां, आनी आपोवणें घेवन वचपी कोण तेंवूय बी...

शकुनी : आपोवणें घेवन वतलो तुजो काका श्री विदूर आनी आपोवण्यान तांकां हांगा आपोवन धर्माक दुर्योधना बराबर द्यूत खेळपाक फुसलांव येता.

कर्ण : हय मामाश्री, येवजण बरी आसा. पूण तुमकां दिसता ते तयार जातले आनी विदूर काकाश्री?

दुर्योधन : मामाश्री म्हणटा जाल्यार यत्न करूंक हरकत ना...! दुःशासन.

दुःशासन : सांग दादा!

दुर्योधन : ही गजाल वचून काकाश्रीक सांग! आनी बेगोबेग पांडवांक आपोवणें घेवन वच म्हण.

दुःशासन : बरें दादा. (तो वता.)

दुर्योधन : तर फुडें कितें मामाश्री?

शकुनी : फुडलें सगळें म्हजेर सोड भाच्या...! फुडलें सगळें म्हजेर सोड.

(काळोख जाता देखाव सोंपता)

## अंक दुसरो

### देखाव दुसरो

(माचयेर राजम्हालाचो देखावो, द्युताच्या खेळाक सुरवात जावपाचीच आसता. माचयेर वस्त्रहरणाच्या वेळार आशिल्लीं सगळीं पात्रां दाखयल्यार जाता. नातर फावो तींच दाखयल्यार जाता, देखीक... दुर्योधन, दुःशासन, कर्ण, युधिश्ठीर, भीम, अर्जून, नकुल, सहदेव आनी शकुनी)

दुर्योधन : हां तर म्हज्या पांडव भावांनो, तुमचें हस्तिनापुरांत स्वागत आसा.

युधिश्ठीर : देव बरें करूं म्हज्या भावा, दुर्योधना...! आमकां हस्तिनापुरांत आपोवणें दिल्या बद्दल, पूण आपोवणें दिवपाचें कारण सांगल्यार बरें जातलें.

दुर्योधन : हां, मामाश्री!

शकुनी : समजलों भाच्या, समजलों...! तर धर्मराज युधिश्ठीर. म्हज्या भाच्याचें म्हळ्यार दुर्योधनाचें अशें म्हण्णें आसा की हस्तिनापुराचें अर्दे राज्य पांडव पुतांक म्हळ्यार तुमकां दिवंचें... ( हें आयकून पांडव पूत अजापीत जावन एकमेकांक पळयतात )

दुर्योधन : हय दादा युधिश्ठीर, मामाश्री सांगता तें खरें... पूण अशेंच जर अर्दें राज्य तुमकां दिलें तर तें तुमकां भीक दिल्ल्यावरी जातलें आनी तें तुमकां आवडचें ना. देखून... आमी एक उपाय येवजीला, जर तुमकां मान्य आसल्यार....

युधिश्ठीर : कसलो उपाय तो...?

दुर्योधन : तुमी म्हज्या वांगडा द्यूत खेळचो पडटलो.

युधिश्ठीर : द्यूत खेळप इतलेंच? म्हाका मान्य आसा...!

भीम : पूण दादा...! आमी कित्याक म्हूण खेळप द्यूत ?

युधिश्ठीर : भीम, तूं उगी राव...! हां तर दुर्योधना खेळाचे नेम कितें आसात?

दुर्योधन : खेळाचे नेम अशे आसात... प्रत्येक डावांत कितें तरी

लावचें पडटा म्हणल्यार, किर्तें तरी जिकचें म्हण डाव खेळपाचो.

युधिश्ठीर : बरें तर कर सुरवात खेळाक!

दुर्योधन : म्हजे वटेन मामाश्री पासे उडयतलो, मामाश्री...स उडोवन कर सुरवात

शकुनी : ( पासे हातांत घेवन ) जरूर भाच्या जरूर...। हा आता रंगतलो हांगा खेळ... जसो खेळ केन्ना कोणें खेळूंक ना नाय कोण केन्ना खेळटलो...! पूण, यत्न मात पावला पावलाक जातलो... ( खेळाक सुरवात जाता. बरोच वेळ युध्द चलिल्ले वरी खेळ चलता, दरेक वेळार पांडवांचीच हार जाता, दुर्योधनाचें जैत...दुर्योधन, शकुनी, दुःशासन, कर्ण हे जैताची खोस मनयतात)

शकुनी : जिकले...! जिकले...!! जिकले...!!! भाच्या होय डाव आमीच जिकले...!

दुर्योधन : हय मामाश्री. तूं एक कुशळ खेळगडो, जैतिवंत खेळगडो... दादा खेळ फुडलो डाव.

युधिश्ठीर : ना दुर्योधना ना. खेळ हांगाच सोंपवया. म्हजे कडेन डावाक खेळपा सारकें कांयच उरूंक ना. सगळें हरलों हांव, सगळें हरलों.

शकुनी : किर्तें हरलो म्हणटा धर्मराज युधिश्ठीर!!आजून तशें जायतें आसा तुजे कडेन जें तूं हरूंक शकता.. आंह...! डावाक खेळूंक शकता. अशें म्हणपाचें आसा म्हाका.

युधिश्ठीर : मामाश्री सगळेंच तर हरलो हांव. धन दौलत, रथगोडे, धोणूबाण सगळें.

शकुनी : तुजी इत्सा आसल्यार तुज्या भावांक तूं डावाक लावंक शकता. (युधिश्ठीर तकली हालयता आनी मान्य करता तें पळोवन भाव उचंबळ जातात. शकुनी ताका पासे उडोवंक सांगता. युधिश्ठीर पासे उडयता आनी जाय ते पासे पडना म्हूण तो दुखी जावन तकली सकयल घालून बसता... ताचे भावूय दुखी जातात. दुर्योधन, दुःशासन, शकुनी आनी कर्ण नाचून खोस मनयतात. बाकिचे कोण आसात जाल्यार मात्शे बेजारलेले आसतात.)

युधिश्ठीर : आतां हांव स्वता खातीर डाव खेळटलों.

भीम : नाका दादा...। आतां तरी पुरो कर.

युधिश्ठीर : भीम, तुमकां तर हांव डावांत हरलों. आतां उरलां हांव एकलोच. मामाश्री खेळ तूं तुजो डाव, हांवें स्वताक लायलो डावार ( मामाश्री डाव खेळटा आनी जिकता.)

शकुनी (खोशी जावन ) जिकलो रे जिकलो होय डाव तूंच जिकलो...। दुर्योधना सांग ह्या पांच पाडवांचें आता किर्तें करपाचें?

दुर्योधन : मामाश्री...। ताचें करपाचें किर्तें म्हूण आनीक किर्तें विचारता? बाकिच्या गुलामां सारके तेवूय म्हजे गुलाम...। ह्या खिणा पासून पांचूय पाडव म्हजे गुलाम हा हा हा (हासता)

युधिश्ठीर : मामाश्री, दुर्योधन आता हांव सोंपलों. हावें म्हज्या वांगडा म्हज्या भावांकय हांव हरलो, आमी तुजे गुलाम जाले आतां तुजे इत्से प्रमाण आमकां तूं आदेश दी. पूण हो खेळ हांगाच सोंपय. ( शकुनी दुर्योधनाच्या कानांत किर्तें तरी सांगता.)

दुर्योधन : ना दादा...। तुमी हरून लेगीत एक डाव खेळूंक शकता. कदाचीत हो डाव तुमकां तुमचें सगळें हरलेलें परतून मेळोवंक एक संद जावं येता.

युधिश्ठीर : पूण दुर्योधन, हे खेप हांव डावाक किर्तें लायतलों? म्हजे कडेन तर कांयच उरलें ना.

दुर्योधन : कांयच उरलें ना कशें दादा...! द्रौपदी आसा न्हय?

युधिश्ठीर : ना दुर्योधन...! द्रौपदीक हांव डावाक लावंक शकना।

शकुनी : धर्मराज युधिश्ठीर.. डाव खेळपाक धन आसतना खेळ मोडप हें एका खेळगड्याक सोबना. तूं द्रौपदीक लायच डावाक, जिकलो जाल्यार सगळें हरला ताचे वांगडा अर्द राज्यूय मेळोवंक शकता.

भीम : ना दादा आतां तरी समजून ये. ना तर अनर्थ जातलो...।

युधिश्ठीर : तूं शांत राव भीम, मामाश्री सांगता तें खरें. हो एकच डाव आमचें नशीब बदलूंक शकता...! हय मामाश्री, हांव द्रौपदीक डावाक लायतां. (तो पासे उडयता आनी हरता, पांडव परतून मान सकयल घालून रावतात आनी कौरव जैताची खोशी मनयतात)

शकुनी. ( उठून ) जालो... खेळ सोंपलो।! ह्या शेवटच्या डावा खातीर ह्या खेळाचें आयोजन जाल्लें. तूं जिकलो भाच्या दुर्योधन...। तूं जिकलो...!!

कर्ण : एक खेळ सोंपलो मामाश्री... पूण, आजून एक खेळ खेळचोलो आसा. एक नागडो उगडो खेळ.

दुर्योधन : कर्णा... इश्टा, किर्तें म्हणूंक सोदता तूं? ( मुखामळार खोशी, चेहरो हासतो आसता)

कर्ण : इश्टा, हे पांडव पूत आतां तुजे गुलाम जाल्यात. द्रौपदी तुजी पटराणी आनी आमची सगळ्यांची राणी...। किर्तें ,आमचे राणयेचें दर्शन आमकां करचो ना तूं? ताचे कडेन आमची वळख करून दिवचो ना?

दुर्योधन : जरूर करतलों इश्टा...! जरूर!! दुःशासन द्रौपदीक सभाघरांत आपयलां सांग...!

दुःशासन : बरें दादा...! आतांच वतां (तो वता)

शकुनी : पूण, भाच्या! द्रौपदीक सभाघरांत हाडून किर्ते करूंक सांगतलो ते येवजिलां तुवें?

दुर्योधन : ना मामाश्री...! तें तर म्हज्या लक्षांत येवंक ना.

शकुनी : जाल्यार आयक हांव सांगतां, द्रौपदीक सभाघरांत हाडून तिका नाचूंक सांग... आमची सगळ्याची मनरिजवण करूंक सांग.

कर्ण : नाका इश्टा... द्रौपदीक सभाघरांत फकत नाचलीच म्हूण आमची मनरिजवण जावची ना...! भर सभेंत तिच्या आंगा वयले सगळे कपडे काडून तिका नागडी करूंक जाय. अशे तरेन तिका लज करीत जाल्यार पांडव जीव दितले जीव...! ( हांगा पांडवांच्या चेहऱ्याचेर राग आयल्याचें दिसता)

दुर्योधन : हय इश्टा बरें सुचयले तुवें...! ( दुःशासन येता. ताका पळोवन) दुःशासन द्रौपदी खंय?

दुःशासन : दादा ती सांगता आपूण सभाघरांत येना म्हूण...

दुर्योदन : ती सांगता येना म्हूण? देखून तूं परत आयलो? वच परतून आनी केंसांक धरून ओडून हाड तिका.

दःशासन : बरें दादा ( तो वता... द्रौपदी विसव कडींत बशिल्ली



आसता, थंय दुःशासन वचून )

दुःशासन : द्रौपदी तुका दादान सभाघरांत आपयलां...!

द्रौपदी : तूं परतून आयलो? दुःशासन, तुजी वयनी हांव...! आनी तूं म्हाका नांवान उलो करता!!

दुःशासन : वयनी खयची, तुका खबर ना. तूं आमची दासी जाल्या, दासी...! एक सादारण दासी...!!

द्रौपदी : दुःशासन तोंड सांबाळून उलय! तूं किर्ते उलयता ते कळटा तरी न्हय तुका?

दुःशासन : हय... कळटा म्हाका, आनी तुकाय कळूंक जाय देखून तूं बरे भशेन म्हज्या वांगडा सभाघरांत यो, नातर...

द्रौपदी : ना तर किर्ते...?

दुःशासन : ना तर केंसांक धरून ओडीत व्हरतलों सभाघरांत. (केंसांक धरता) असो...! चल म्हज्या वांगडा, चड जालें आतां तुजें (दुःशासन द्रौपदीक येवन येता. तो पर्यंत सभाघरांत एक नाच दाखोवं येता. पूण, तो नाच कौरवांच्या जैताचो जावंक जाय. नाच सोंपतांच दुःशासन द्रौपदीच्या केसाक धरून ओडीत तिका सभाघरांत हाडटा).

द्रौपदी : (रागान उठून) कोण तरी सांगशात म्हाका! अशे तरेन सभाघरांत ओडून हाडपाचें कारण किर्ते ...? म्हजें किर्ते चुकलें म्हूण ही ख्यारत म्हाका...?

दुर्योधन : तुजें कांयच चुकूंक ना द्रौपदी! चुकलां हांचें. तो हरला स्वताक, आपल्या भावांक आनी तुकाय बी.

द्रौपदी : म्हाका हरपाक तो कोण?

दुर्योधन : तुजो पतीदेव!

द्रौपदी : पतीदेव आसलो म्हूण किर्ते जालें? म्हाका जुगारांत हरोवपाचो ताका अधिकार कोणी दिलो?

दुर्योधन : ताका तो अधिकार आसू वा नासू. पूण, तूं हरल्या आनी हांवें तुका जिकल्या हें सत आसा. देखून यो तूं म्हज्या म्हऱ्यांत, म्हजे मांडयेर बस ( आपली मांडी उकती करता) ही तुजी जागा आसा.

द्रौपदी : लज कशी दिसना तुका अशीं ही उतरां उलोवंक? हांव तुजी वयनी आनी वयनी ही आवय सारकी आसता, किर्ते तूं तुजे आवयक मांडयेर बसयतलो?

दुर्योधन : (रागान उठून उबो रावता ) द्रौपदी!!! तूं म्हजे आवयचो अपमान करता. देवी सारके म्हजे आवयचो...!

द्रौपदी : दरेक अस्तुरेंत आवयचें रूप लिपलेलें आसता. खयचेंय अस्तुरेची विटंबना ही आवयची विटंबना आसा. दुःशासनान म्हज्या केसांक धरून ओडीत म्हाका ह्या सभाघरात हाडलो कित्याक? ताका जाप विचारपाक तुमच्यात कोणूच दादलो मनीस ना . ? सगळ्यांनी घातली हातात काकणां? (पांडव लजेन तकली सकयल घालतात .)

दुर्योधन : म्हजे आज्ञेचें पालन करता तो। हांवेनूच ताका सांगिल्लें तशें करूंक तूं बरे भशेन येना, जाल्यार तुज्या केंसांक धरून ओडून हाड म्हूण.

द्रौपदी : कित्याक? तशें तुवें कित्याक केलें? हांवें तुजें कितें वायट केलां?

दुर्योधन : म्हाका तातूंत खोस मेळटा...। सूख मेळटा...।।

द्रौपदी : एक अस्तुरेची विटंबना करून कसलें सूख मेळटा तुमकां? एक अस्तुरेचेर अन्याय, अत्याचार करून कसली खोशी मेळटा?

दुर्योधन : हो अन्याय न्हय, हांव तर तुका न्याय दितां. तुजेर अत्याचार न्हय, तुजो संम्मान करतां. तुका म्हजे वेंगेत बसयतां. तुका म्हजी राणी जावपाचो मान दितां...।

द्रौपदी : हे पांडव पुतानो, तुमच्या घरकान्नीचो इतलो अपमान तुमी कसो सहन करतात? तुमी तुमचें कर्तव्य विसरले...? कसल्याय संकश्टांत तुमी म्हजी राखण करतले म्हूण सोपूत घेतिल्लो तो विसरले...?

भीम : ना द्रौपदी ... आमी विसरूंक नात, याद आसा आमकां. पूण, ह्या वेळार आमी कांयच करूंक शकनात. कायद्यान आमचे हात बांदिल्ले आसात. पूण, आयज हांव पांडव पूत भीम हो प्रण करतां, फुडाराक जावपी झुजांत दुर्योधनाची ती उगती जांग हांव फोडटलों...। आनी ज्या दुःशासनान तुज्या केंसांक हात लायला त्या दुःशासनाचें हड्डें फोडून तातूंतलें रगत पिवन हांव म्हजी तान भागयतलों हो हांव तुका सोपूत दितां। ( तेन्ना गडगडाट जावन वीज चमकल्यावरी जाता.)

कर्ण : इश्टा दुर्योधना, खूब जालें प्रण आनी सोपूत घेवन... आतां मात्शी मनरिजवण जावंदी म्हणटां हांव.

दुर्योधन : हय सारकें तुजें इश्टा...। दुःशासन, पळयता कितें? द्रौपदीचें सगळें कपडे तिच्या आंगा वयल्यान काडून तिका नागडी कर. म्हाका तिची उगडी कूड पळोवंक जाय.

भीम : दुर्योधन...।।। ( ताका मारूंक फुडें सरता पूण युधिश्ठीर ताका आडायता.)

दुर्योधन : दुःशासन हावें कितें सांगलां आयकूंक ना तुवें?

दुःशासन : बरें दादा ( तो द्रौपदीच्या पदराक हात घालता )

द्रौपदी : सोड...। सोड म्हज्या पदराचो...।। हलकट्या, तुका लज दिसना स्वताचे वयनीच्या पदराक हात घालूंक...?

दुःशासन: म्हाका कांयच खबर ना. हांव फकत इतलेंच जाणा, हांव म्हज्या दादाची इत्सा पुराय करपाचो यत्न करतां.

भीम : ( रागांत सामकां भिरभिरता ) दादा म्हाका, म्हाका सूट दी. हांव दुःशासनाची तकली नाच करतां.

दुःशासन : तूं कितें म्हजी तकली नांच करतलो...। पयलीं पळय हांव द्रौपदीची साडी कशी नांच करतां ती ( तो साडी ओडटा )

शकुनी : हां शाब्बास भाच्या। दुःशासन। शाब्बास।।

द्रौपदी : वाचयात, कोण तरी वाचयात म्हाका हे लजेतल्यान। ( हांगा फाव तशें संगीत घालचें)

दुर्योधन : आतां तुका कोणूच वाचोवंक शकना...। देव पासून...।।

द्रौपदी ( पांय पडून दोळे बंद करता ) देवा म्हज्या भावा आतां तूंच वाचय म्हाका ह्या संकश्टांतल्यान, तूंच वाचय म्हाका देवा ( दुःशासन साडी ओडीत आसता श्रीकृष्ण प्रकट जाता आनी द्रौपदीक वस्त्रां पावयता. दुःशासन साडी ओडून-ओडून थकता )

दुर्योधन : ओड दुःशासन ओड. इल्लीशी उरल्या आनीक. ओड ओडीत राव.

दुःशासन : ना दादा म्हज्यान आनीक जायना...। म्हाका घुवळ येता शी दिसता दादा। दादा।। दादा।।। ( तो जमनीर पडटा, श्रीकृष्ण अदृश्य जाता. रागान दुर्योधन दुःशासनाचेर खोट मारता )

दुर्योधन : हेट दुःशासन, एक सादारण साडी लेगीत सोडूंक जायना तुजे कडेन. द्रौपदीचें वस्त्रहरण करूंक जायना तुजे कडेन.

( काळोख जाता आनी नाटक सोंपता )

कालापूर - गोंय. मो. : ७८७५२३७८३०

भलायकी



राज वैद्य



गोंयांतले नामनेचे हिन्दु फार्मासीचे धनी आशिल्ले **राज वैद्य** हे वखदां मळार तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगड विंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.

# बी. पी मॉनीटर...

सगूण आपली म्हयन्याची डायबिटीस आनी प्रेशराचीं वखदां घेवपाक फार्मसींत आयिल्लो.वखदां काडटा म्हणसर तार्णे फार्मासिस्टाक प्रश्न केला-

सगूण:आरे भाई, दोतोरान सांगिल्ल्या प्रमाण हांव नेमान ८-१० दिसांनी एकदां म्हर्जे आनी आईचें प्रेशर चेक करून घेतालों.पूण ह्या दिसांनी किर्ते जालां, आमी २-३ कडे प्रेशर चेक करताले न्ही, त्या कोविडाक लागून.. आतां करी ना...

प्रमेय: हय,जाणा तो मात्सो प्रोब्लेमूच जाला हालीं. आतां परत केसी वाडूंक लागल्यो न्ही... म्हणून सांगपाक जायना केन्ना परत तुमकां ही सुविधा परत उपलब्ध जायत .

सगूण: शेजाराकूच नर्स रावता रे आमच्या, ती आमचें जाय तेन्ना चेक करतालें-पूण आतां कोविडाक लागून ती म्हणटा आपूण डेली हास्पिटलांत रिस्क घेवनूच काम करतां. आनी आपल्याक लागून जर आमकां बीं जालें जाल्यार प्रोब्लेम न्ही..!

प्रमेय: सारकें आसा तिजें....तुमचो दोतोर किर्ते म्हणटा ताचे कडेन वचूंक शकतात तुमची चेक करपाक?

सगूण: ना मरे, दोतोर म्हणटा दर ८ दिसांनी आपल्याक शक्य जावचें ना...गर्दी आसता न्ही रे. आनी अपोंइटमेंट फूल आसता..

प्रमेय: तें सारकें दोतोराचें.

सगूण: पयलीं दोतोर म्हणटालो चड करून मॅन्यअल मशिनानूच तुमी करूंयेता म्हणून... तें रे दोतोरांकडे आसता तें...

प्रमेय: हय मरक्युरी आशिल्लें बी.पी ॲपरॅटस, खुबशे लोक चड करून ताचोच उपेग करतात. ताची ॲक्युरसी आनी रिलाईबिलीटी मात्सो चड न्ही..

सगूण: पूण आतां दोतोर म्हणटा की त्या मशिनान करपी कोण ना जाल्यार तें डिजिटल मोनिटरान केल्यार जाता म्हणून..



प्रमेय: हय सद्याचे परिस्थितीत दुसरो पर्याय ना. चेक तर करूंकूच जाय न्ही मर्दी मर्दी..

सगूण: ब्लड शुगर आमी घराच करता रे ग्लुकोमीटर आसा न्हय-तो बऱ्याक पडटा वापरपाकूय. सोंपो तें मर्क्युरी बी.पी मशीन हांव वापरूंक शिकलों जाल्यार जातलें शें दिसता तुका?

प्रमेय: शिकपाक जाता प्रॅक्टीस करची पडटली. शिकून दवरचें पडटलें. शिकून घेवप बरें, पूण तूं तुज्या आईचो प्रेशर चेक करूंक शकतलो? तुजो स्वताचो करपाक मात्शें कठीण तसल्या मशीनान. ताका स्टेथोस्कोप लावप, धरप, कफ बांदप हें आपल्या आपूण करप-सर्कस कशी जाता ती...

सगूण: हय तें म्हाका जमपाचें ना. पूण हें डिजिटल आसता पळय, तें कितले विश्वासू काय? सारकें दाखयता तर तें?

प्रमेय: आतां चडशे लोक वापरतात न्ही तें खंयच्याय तरी बऱ्या रिलायबल कंपनीचो बी.पी डिजिटल मॉनिटर घेवपाचो, घरा कडेन मर्दी मर्दी चेक करपाक बरें रिर्डींग कितली येता ती बरोवन दवरपाचो. दोतोराकूय बरो अदमास येता , तुमचो प्रेशर कसो कितलो कट्रोलांत आसा तें आनी तुमकां कळूंक शकता एकदम वयर सकयल जाता, वा जाल्यार रहिडींगाचो तुमकां दुबाव येता जाल्यार मागीर चेक करून घेवपाचो मॉनिटर..

सगूण: वापरपाक सोपें दिसता न्हय!

प्रमेय: हय एकदम फक्त सांगल्या ते पद्दतीन वापरूंक जाय. बसून काडटा जाल्यार दोनूय पांय जमनीक तेंकून दवरपाचे. खुर्चेर फाट तेंकोवन बसपाचें, कफ आसता तो योग्य रितीनूच घालपाचो,(कॅटलॉगाचेर सारकें दाखयता तें) कफ लायला तो हात टेबलार दवरपाचो आनी अशे तरेन दवरपाचो की कफ हो काळजाच्चे हायटीर उरता असो..

सगूण:ओ....व्यवस्तित करूंक जाय तर!

प्रमेय: हय, साहजीकच आसा...प्रेशर घेवच्या पयलीं विसव घेवप, अर्द वर पयलींद तर च्या-काफी घेवपाक जायना.

रिलॅक्स जावन प्रेशर चेक करपाचो...दोन मिनटांचो गॅप सोडून टोटल दोन रिडिंग घेयात. कफ वेवस्थीत घालप आनी हीं पथ्यां पाळप गरजेचें.

सगूण : हें बॅटरीचेर चलता न्हय....कितले दीस येता ह्यो बॅटऱ्यो?

प्रमेय : तुमी वापरता ताचेर आसा...शिवाय बॅटरीचे क्वॉलिटीचेर आसा...फक्त लक्ष दवरात बॅटरी लीक जावंक लागल्यो जाल्यार तसो सिग्नल येता स्क्रिनीचेर तशी काळजी करूं नाका तुमी घेवपाचो काय ना तें थारायात. मागीर तुमकां सगलें डिटेलान समजयतां.

सगूण: थँक्यू व्हेरी मच...फाल्यां पर्यंत थारावन सांगात तुमी

प्रमेय : जरूर सर.



इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन, गोंय
ई मेल ipacpd@gmail.com, 9422062286



कुवल्या सुसेल

सामान

अर्द कुवलो कुडके करून,१ वाटी सोय, अर्द ल्हान कुलेर सांसवां, आमटाण,५-६ हरव्यो मिरसांगो, १ ल्हान कुलेर तेल, १ ल्गान कुलेर गोड, १ ल्हान कुलेर हिंगा पिठो,रुची पुर्ते मीठ.

करपाची रीत

कुवल्याच्यो फोडी करून कुकरांत तीन शिटयो काडून शिजोवन घेवंच्यो. सोय,मिरसांगो,आमटाण,गोड आनी मीठ घालून मोटसार वांटून घेवंचें. कुवल्याच्यो फोडी बऱ्योऽ मुड्डून घेवंच्यो.तातूंत हें वांटप घालचें. तेल तापोवन हींग सांसवांची फोडणी मारून कुवल्या-सोयेच्या मिश्रणांत घालचें. बरेंऽऽ एकजीव करचें. सुशेल खावपाक तयार.

## तोरांचें सांसव

सामान

४ मध्यम आकाराचीं तोरां. १ नाल्लाची सोय.१ व्हड कुलेर मिरसांगे पिठो,५-६ मिरयां, १ व्हड कुलेर सांसवां,१ वाटी गोड.(रुची प्रमाण अदीक उणें करचें),रुची पुर्ते मीठ.

करपाची रीत

तोरां तासून घेवन मोठ्यो मोठ्यो फोडी करच्यो. ह्यो फोडी बऱ्यो शिजोवन न्हिवपाक दवरच्यो. मागीर सांसवां सुकीं फुलोवन घेवचीं. सोय, मिरसांगे पिठो, मिरयां, गोड बी मोठें वाटून घेवचें. तातूंत शेवटाक सांसवां घालून जाडसार वाटचें. तोरां न्हिवतकच मुड्डून घेवचीं. तातूंत हें वांटप आनी मीठ घालून शिजोवन घेवचें. सांसव तयार.

## बांगड्यांचें धबधबीत

सामान

६ मध्यम आकाराचे बांगडे( १८ कुडके). १५ तेफळां,१ नाल्लाची सोय,५-६ भिण्णाचीं सोलां,६-७ सुक्यो मिरसांगो, ४ हरव्यो मिरसांगो, आमटाण, १ कुलेर हळदी पिठो, २ इंच आलें, मीठ.

करपाची रीत

बांगड्यांचे कुडके बरे तरेन धुवन, मीठ लावन १०-१५ मिनटां दवरचे. एका आयदनांत थोडें उदक घेवन तातूंत उब्यो चिरिल्ल्यो हरव्यो मिरसांगो, किशिल्लें आलें आनी १० तेफळां धाडावन घालचीं आनी शिजोवचें. सोय, आमटाण, सुक्यो मिरसांगो, हळदी पिठो आनी ५ तेफळां घालून मोठसार सुकेंशें वांटून घेवचें. हें वांटप त्या हरव्यो मिरसांगो,तेफळां आल्याच्या आयदनांत घालून एक खतखतो काडचो. मागीर तातूंत बांगड्यांचे कुडके, मीठ आनी सोलां घालून बरेंऽ शिजोवन घेवचें. जालें बांगड्यांचें धबधबीत.

(ह्या जिन्नसांत उदकाचें प्रमाण मातशें कमी घेवचें.)



-डॉ.रीना लवंदे
नायकवाडो-कळंगूट मो.:९८२३९९८८८४
ईमेल-drrinalaw@hotmail.com

आकर्शण

# 'जिनो'चे दिलीप साळगांवकार हांकां पुरस्कार

जिनो फार्मास्युटीकल्स हें वखदांच्या मळार नामनेक पाविल्ले गोंयचें एक व्हडेंगांठ उद्योगीक आस्थापन. ताचे संचालक श्री.दिलीप साळगांवकार आनी तांचे टिमीन आपल्या परिश्रमांतल्यान हें आस्थापन फकत भारतांतूच न्हय तर संवसारभर नामनेक पावयलां. तांच्या ह्या वावराची दखल वेळावेळार देश-विदेशी संस्थांनी घेवन जिनो आनी दिलीप साळगांवकार हांचो भोवमान केला. ह्या तांच्या भोवमानांत आनीक एक तुरो हालींच खोयला.

जिनो फार्मास्युटीकल्स प्रा. लि. हे कंपनीची निवड ब्रॅन्डस् ऑफ आशिया अवार्डस २०२०-२१ ह्या प्रतिश्ठेच्या पुरस्कारा खातीर निवड जाल्या. प्रेस्टीजियस ब्रॅन्डस ऑफ आशिया २०२०-२१ त्या त्या मळावयल्या नदरेक भरपा सारख्या ब्रॅन्डस्ची वळेरी करता आनी तांणी आपल्या दायजान आशियेचे बाजारपेठेक उभारी दिवपाक कितलो मेरेन हातभार लायला हे मुद्दे ह्या अवार्डा पासत मतींत घेतात.

जिनो फार्मास्युटीकल्स प्रा. लि. आनी दिलीप साळगांवकार आनी तांची टीम गोंयचें नांव जगाच्या नकाशार व्हरूंक सदांच यशस्वी थारलां देखून तांचें सगळ्या थरांतल्यान अभिनंदन जाता.





# लेखिका डॉ. नूतन देव हांच्या 'चार शब्द प्रेमाचे' पुस्तकाचें प्रकाशन

फोंड्यां राजीव कलामंदिरांत नूतन देव हांच्या पुस्तकाचें प्रकाशन करतना डॉ. अजय वैद्य, वांगडा मुग्धा बोरकार, डॉ.नूतन देव, प्रा. संगीता अभ्यंकर आनी मेघना सावयकार फोंड्यां राजीव कलामंदिरांत हालींच नूतन देव हांच्या चार शब्द प्रेमाचे ह्या ललित पुस्तकाचें प्रकाशन नामनेचे नेत्रतज्ञ आनी रंगकर्मी डॉ. अजय वैद्य हांच्या हस्तुकी जालें. आपल्या उलोवपांत तांणी सांगलें, देव हांचें हें पुस्तक म्हणल्यार स्वताच्या मनांतली अनुभूती व्यक्त करतना हेरांक किर्ते तरी दिवपाचो केल्लो स्तुत्य प्रकार. एकाच पुस्तकांत डॉ.नूतन देव हांणी गद्य आनी पद्य हांचो सुंदर अविश्कार केल्लो ह्या पुस्तकांत सापडटा. डॉ. संगीता अभ्यंकर हांणी ह्या वेळार ह्या पुस्तकाचेर काव्यात्मक अशें सुंदर भाश्य केलें.

## आर.एस.भास्कर हांच्या काव्यसंग्रहाक साहित्य अकादेमीचो मुखेल जाल्यार संपदा कुंकळकार हाका युवा साहित्य पुरस्कार



केरळचे कवी आर.एस.भास्कर हांच्या ***युगप्रवर्तनाचो यात्री*** ह्या कोंकणी कविता संग्रहाक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार फावो जाला.तांचे आयजवेर सुमार णव कविता संग्रह प्रकाशीत जाल्यात . ***युगप्रवर्तनाचो यात्री*** हो कविता संग्रह २०१४ वर्सा उजवाडाक आयिल्लो. ह्या पुस्तकाचो हिंदी अणकार बालकृष्णन बाबु हांणी केला आनी तो प्रकाशनाचे वाटेर आसा.



सहीत प्रकाशनाचे वतीन उजवाडाक हाडिल्ल्या ***चार पावलां आशिर्येत*** ह्या बाय संपदा कुंकळकारच्या पुस्तकाक साहित्य अकादेमीचो युवा साहित्यिक पुरस्कार हालींच फावो जालो. आयज मेरेन युवा साहित्य पुरस्कार फावो जाल्ल्या युवा साहित्यिकां मदीं संपदा कुकळकार हांच्या नांवार ह्या आदीं उजवाडाक आयिल्लीं वेगवेगळ्या विशया वयलीं सात पुस्तकां आसात.



डॅा प्रकाश पर्यंकाराचे कथेचेर आदारीत 'काजरो' ह्या कोंकणी सिनेमाक फावो जालो प्रतिश्ठेचो राश्ट्रीय फिल्म पुरस्कार. अनकट फिल्माच्या ह्या अभिनव प्रयोगाचे निर्माते गायत्री आनी राजेश पेडणेकार हीं जावन आसात.

गोवा कोंकणी अकादेमीची एमएच्या शिक्षणीक वर्सा पासतची कोंकणी शिक्षणीक शिश्यवृत्ती हालींच जाहीर जाली आनी ती मानसी धाऊस्कार तशेंच हेर चार विद्यार्थ्यांक फावो जाल्या.





२०वें युवा साहित्य संमेलनांत पुस्तक परिक्षण स्पर्धेंत मानसी धाऊस्कार हाका तिसरें इनाम फावो जालें. डॉ.पुर्णानंद च्यारी हांचे हस्तुकी तें स्वीकारतना मानसी धाऊस्कार. पुस्तक परिक्षणा खातीर ताणें उदय भेंब्रे हांचें 'व्हडलें घर' हें पुस्तक घेतिल्लें.



हालींच दिल्ली जाल्ल्या एका सुवाळ्यांत साहित्य अकादेमीचे अध्यक्ष सी. कांबार हांचे हस्तुकी अणकाराचो पुरस्कार घेतना **डॉ. जयंती नायक.**



– संतोष हळणकार




| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | ■ | ■ | ३ | ■ | ४ | | ५ |
| | ■ | | ■ | ६ | | | | ■ | |
| ७ | ८ | | | | | ■ | ९ | १० | |
| ११ | | | ■ | | ■ | ■ | १२ | | |
| ■ | | ■ | १३ | | | १४ | | ■ | ■ |
| १५ | ■ | १६ | | | ■ | | ■ | १७ | |
| १८ | | | | ■ | १९ | ■ | २० | | ■ |
| | ■ | | ■ | २१ | | २२ | | | ■ |
| २३ | २४ | ■ | २५ | ■ | २६ | | ■ | २७ | २८ |
| ■ | | | | | | ■ | | ■ | |

**आडवे :** १-धा आनी पांच, ४-चड अंतरार, ६-आपले येणावळीचेर सरकाराक भरचो पडटा तो कर, इन्कमटॅक्स, ७-एके तरेच्या फुलाचें नांव, ९-भगवान श्रीकृष्ण, ११-सगळें, सपूर्ण, १२-नाश, विनाश, क्षय, न्हास, १३-मूर्खपण, असमजसपण, पिसायपण, १६-संवय, तालीम, १७-साधू, शुद्ध आनी बरे चालचलणुकेचो, १८-शर, पराभव, २०-चक्र, २१-अविश्वासू, पडमूर, कृतघ्न, बेमान, २३-हुद्दो, स्थान, पावडो, २६-हलप, हुनसाण, २७-एक हजार किलो, २९- आंगवण पूर्ण जातकीच यार्ल्ले जेवण, म्हामनी, ३०-दीस (इंग्लीश)

**उबे :** १- पांच वातींची आरत, २-श्रीरामाचो जल्मदीस, ३-सगळ्यांत वयलें वा आदींचें, सुरवेचें, ४-वेगळेंपण, मुरवत, मेकळेंपणाचो उणाव, ५-पन्नास आनी सात, ६-हुसाक्यान जाल्लो काळजाचो खपखप, ८-मराठी लोकनाट्य, १०-शंबर, शें, १३-जिणेचो काळ, वय, १४-शेर, शेराचें माप, १५-आदळप, मोठ्यान उडोवप, १६-शिणगार करप, सोबीत जावप, १७-बारीक फातर आशिल्लें, फातरांनी भरिल्लें, १९-पूजा, उपासना, २०-कुंवल्यांची शाक, २२-मागीर, उपरात (मराठी), २४-पांच आनी पांच (हिंदी), २५-हझनाची सख्या, २८-अभिनेतो

मार्च २०२१ नी जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| ए | क | ठां | य | ■ | स | मं | दी | क | ■ |
| का | ■ | य | ज | म | ■ | ट | ■ | र | क्षा |
| र | वी | ■ | मा | र | ध | प | ट | ■ | ल |
| त | ■ | अ | न्ज | ■ | न | ■ | ब | ट | न |
| ■ | लो | ह | ■ | आं | ग | ठो | ■ | म | ■ |
| आं | क | वा | र | ■ | र | ■ | सु | रे | ळ |
| ■ | म | ल | म | ■ | ■ | क | मा | ल | ■ |
| झे | त | ■ | जा | गी | र | दा | र | ■ | मृ |
| म | ■ | दो | न | ■ | क | पी | ■ | भा | लू |
| प | रा | त | ■ | थि | टें | ■ | दै | शा | स्व |

